मासिक

# बिम्ब

कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

जुलाय २००९

# शेतांचें पाडा पडूं
# बाबू म्हजो खेळूं

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

 -दिलीप बोरकार




*वर्स : १ अंक १*

(आरएनआयचे नोंदणी खातीर तांत्रीक बदल)

**जुलाय २००९**

**मूळ वर्स : ८ अंक ७**

**मोल १५ रुपया**

मुखेल संपादक

**दिलीप बोरकार**

मुद्रक आनी प्रकाशक

**दिलीप बोरकार**

छापणावळ

**सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी**

मार्केटींग व्यवस्थापन

**कामिनी किणी**

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

**श्वेता नाईक**

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो**

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.com.in

**ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ ताचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.**

# संपादकीय

# सरकारी जायरात धोरण : दिगंबर कामतीन लक्ष घालचें...!

आयज जातली फाल्यां जातली म्हणत एकदांची म्हायती खात्याची बसका फाटल्या म्हयन्यांत जाली. ही बसका सरकारी जायरात धोरण थारावपा खातीर आशिल्ल्यान गोंयच्या तशेंच हेर राज्यांतल्यान 'प्रिन्ट तशेंच इलेक्ट्रॉनीक' माध्यमाच्या जाळवणदाराचें बारकायेन लक्ष आशिल्लें. तेच् पासत तांचे प्रतिनिधी मोठे संख्येन हे बसकेक हाजीर आशिल्ले. हाचेवेल्यान सरकारी जायरात धोरण आयच्या काळार 'प्रिन्ट तशेंच इलेक्ट्रॉनीक मेडिया' खातीर कितलें म्हत्वाचें तें कळून येता.

प्रसार माध्यमांक लोकशाय जिवी दवरपा खातीर सरकारच्या ध्येय धोरणांचेर बडी ही मारचीच पडटा. सरकारी जायराती मेळच्योना ह्या भयान सरकारच्या लोकहिता आडच्या धोरणांकडेन आडनदर केल्यार प्रसार माध्यमांक कांयच अर्थ उरचोना. तेच वांगडा अमुकच प्रसार माध्यम सरकारच्या आड आसा असो गैर समज करून घेवन त्या माध्यमाक सवती वागणूक दिली जाल्यार सरकारी यंत्रणेक हें मात्तूय सोबना. बिम्ब मासिका बाबतींत हें हे आदीं घडलां देखून सरकाराचेर बडी मारल्या ती खंयच्या अर्थान मारल्या, तो अर्थ मतींत घेवनूच सरकारान माध्यमाकडेन पळोवंचें पडटलें.

सरकाराचीं ध्येय धोरणां आनी वावर लोकांमुखार पारदर्शकपणान पावतलो जाल्यार प्रसार माध्यमाची सरकाराक गरज आसा आनी प्रसार माध्यमां जिवी उरतलीं जाल्यार सरकारच्या आर्थिक मजतीची गरज प्रसार माध्यमांक आसा. तेच वांगडा कोणाक कितलो आदार दिवपाचो आसा ताचोय विचार सरकारच्या धोरणांत जावंक जाय.

सरकारची भुमिका ही आवयभशेन आसूंक जाय. आवय सदांच आपल्या अशक्त आनी दुबळ्या भुरग्यांकडेन चड लक्ष दिता. जोर आयिल्ल्याक, तो पिडेंतल्यान भायर सरून हेरांवांगडा बागडचो देखून खाशेलें अन्न दिता. तीच भुमिका सरकारान आपलें जायरात धोरण थारायतना घेवप गरजेची आसा.

म्हायती खात्यान धोरण थारावपा खातीर जी बसका आपयल्ली तातूंत चड खपाच्या माध्यमांक जायरात दिवंच्यो. जांका खप ना तांका जायराती दिवप म्हळ्यार सरकारी दुडवांचो अपव्यय असो सूर हे बसकेंत कांय लोकांनी काडलो. तांचो रोख हो कोंकणीचेर आनी चड करून देवनागरी कोंकणीचेर आशिल्लो. कोंकणी दिसाळ्यांक आनी हेर नेमाळ्यांक जायराती दिवन कांयच फायदो ना हेंच हे लोक सांगूंक सोदताले.

आयज गोंयांत भायल्यान नवे नवे लोक आपलीं नवींनवीं खबरापत्रां घेवन येतात. गोंयांत नवींनवीं इलेक्ट्रॉनीक माध्यमां वयर सरतात. दरेकल्यान आपापलो पसरो घालचोच. तेच वांगडा गोंयच्या अस्तित्वाचो, गोंयचे संस्कृतायेचो हुसको बाळगून त्यो गजाली तिगोवपा खातीर जे कोण कश्टतात तांच्या नांवान नाकशिमरेपणा करपाची गरज आसा अशें आमकां दिसना.

गोंयांत इंग्लेजीचें प्रस्थ वाडटा. लोकांक आपलें कितें आनी अडेचें कितें हें अजून कळना. आपलें सत्व होगडावन गोंयचे लोक आजूय चकचकता तें भांगर मानून खोट्या फाटल्यान धांवतात. तांका तातुंतल्यान फाटीं ओडून खरी गजाल सांगपा खातीर गोंयचे कांय लोक वावुरतात आनी ते पासत रिणाचे दोंगर माथ्यार घेतात.

कोंकणितलें एकलें एकसुरें दिसाळें 'सुनापरान्त' ह्या प्रकारांत आसपावता. 'बिम्ब' मासिक चलता. कित्याक तें साप्ताहिक करप वो दिसाळें करप तांकी भायलें आसा देकून. अशींच कांय नेमाळीं कोंकणी भक्त काडटात. कांय लोक चवथ वो दिवाळी अंक काडटात.

हो वावर सरकारी जायराती घेवन बोल्सां भरपाचो न्हय. बोल्सां भरपाचीं कामां कोण करता आनी कोण त्या उद्देश्यान गोंयांत आयल्यात हाचो हिशेब सरकारान करूंक जाय. तांकां पोटभर वाडप आनी गोंयच्या मातयेंतल्या नेमाळ्यांक, जीं गोंयचें सत्व राखूंक वावुरतात तांचे मुखार उश्ट्यो पत्रावळी उडोवप म्हळ्यार सरकारचें जायरात धोरण सार्थी पावलें अशें म्हणूंक जावचें ना.

कोंकणी ही गोंयची राजभास. ती सरकाराचेर कोणे लादूना. सरकारान ती मानून घेतल्या. तेच पासत कोंकणीचीं जितलीं नेमाळीं गोंयांत भायर सरतात तीं तिगोवपाची आनी चलोवपाची सरकारची लागणूक थारता. तांच्या खपाचो हिशेब करून तांचो प्राणवायुच काडून घेतलो जाल्यार सरकाराची सांस्कृतीक बुन्याद डळमळीत जातली.

हांगा आमी मुखेलमंत्र्यानी लक्ष घालचें अशें म्हणपाचें सोडून दिगंबर कामतीन लक्ष घालचें अशें म्हळां. कारण दिगंबरबाब हे सद्या गोंयचे मुखेलमंत्री आसात. ताणीं गोंयच्या कलाकारांक, साहित्यिकांक भोवमान दिवपाचो वावर हातांत घेतला. केन्नाच न्हय तो मान कलाकारांक फावो जावंक लागला. तांकाच वृत्तपत्रां, मासिकां आनी हेर प्रसार माध्यमा हांचो अर्थ कळटा. कित्याक देशी संस्कृतायेची फाटभूंय आशिल्ले ते मुखेलमंत्री. राज्याक कोंकणीची गरज कितली आसा हाचें भान तांका आसा. कोंकणी नेमाळीं तिगून दवरपा खातीर कोंकणी लोक कशी कसरत करतात तेंय ताणीं पळयलां. तेन्ना ते मुखेलमंत्री आसतना सरकारी जायरातीं पासून कोंकणी नेमाळीं वंचीत जालीं जाल्यार तांच्या 'कलाप्रेमी' सभावाक खत लागू येता.

सरकारी जायरात धोरण गरजेचें. तेच वांगडा 'गोंय आनी कोंकणी' हाका केंद्रीभूत दवरून तें धोरण आखप तितलेंच गरजेचें. सरकाराकडल्यान तीच अपेक्षा आसा.

दिवाळी अंकाची तयारी सुरू जाल्या
दिवाळी ऑक्टोबर म्हयन्यांत येता.
दिवाळी अंकाक लागून वर्सपध्दती प्रमाण
सप्टेंबर म्हयन्याचो अंक येवचो ना.
सप्टेंबर ऑक्टोबर ह्या दोन म्हयन्यांचो अंक
दिवाळी अंक म्हणून येतलो.
दिवाळी अंकाक साहित्य जाय.
तेच वांगडा जायरातीय जाय.
बिम्ब तुमचो. तो कितलो आकर्शक करूं येता हाची जापसालदारकी
तुमच्या भुजार आसा.
सहकार्याची वाट पळयतां
साहित्य आनी जायरात 30 सप्टेंबर मेरेन
आमचेकडेन पावता हाची वेवस्ता करची.



आमचो पत्तो

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail :
bimbkonkani@yahoo.com.in

# शेतांचें पाडा पडूं बाबू म्हजो खेळूं

- दिलीप बोरकार

पावस लागला. गोंयांत घसघश्यानी पावस रकता. पावसाची सगळ्यांत चड वाट पळयता तो शेतकार. शेतकारानी शेताची मशागत करून दवरल्या. बीं काडून दवरलां. तरवोय शिंपून वयर काडला. पूण इतलेंच करून पावस ना जालो जाल्यार? होच हुसको निजाच्या शेतकाराक आसता. तेच पासत तो पावसाचे प्रतिक्षेंत आसता. पूण असो शेतकार आयज उरला खंय? शेतां उरिल्लीं जाल्यार शेतकार उरपाचो. पूण आमी गोंयकारांनी गोंयचो फुडार आपल्या हातांनी पाड घाला.

'मन चिंती ते वैरी न चिंती' अशी आशयाची एक म्हणणी मराठींतल्यान हांवें आयकल्ली. त्या अर्थाची कोंकणीतूय आसूंक जाय. आसूंक जाय म्हणपाचें कारण म्हळ्यार, ती म्हणणी अस्तित्वात आशिल्ली जाल्यार गोंयकारांचे तकलेर गोंयची चिंता दिसूंक जाय आशिल्ली. पूण आयज गोंयकारांक पळयत जाल्यार तांच्या माथ्यार कसलो हुसको ना आनी चिंता ना. जे कोण थोडे भोव आपले पध्दतीन तकली धोडायतात तांचें आयकून घेवपाचे मनस्थितींत कोण दिसना. खाओ, पिओ मजा करो. फायचें फाल्यां, कितें भोगपाचें तें आयज, ह्या खिणाक अशी कितें तरी गोंयकारांची मानसिकताय दिसून येता. हाकाच लागून म्हाका एक हुसको लागता. मन चिंतता जें वैरी लेगीत चिंतचो ना असलो गोंयचो फुडार.

पावस लागला. गोंयांत घसघश्यानी पावस रकता. पावसाची सगळ्यांत चड वाट पळयता तो शेतकार. शेतकारानी शेताची मशागत करून दवरल्या. बीं काडून दवरलां. तरवोय शिंपून वयर काडला. पूण इतलेंच करून पावस ना जालो जाल्यार? होच हुसको निजाच्या शेतकाराक आसता. तेच पासत तो पावसाचे प्रतिक्षेंत आसता. पूण असो शेतकार आयज उरला खंय? शेतां उरिल्लीं जाल्यार शेतकार उरपाचो. पूण आमी गोंयकारांनी गोंयचो फुडार आपल्या हातांनी पाड घाला. फकत आलायतो दुडू आपले तिजोरेंत दवरूंक मेळटा म्हूण. पूण तांका अजून साक्षात्कार जायना, कितलोय दुडू आनी भांगर, माणकां मोतयां तिजोरेंत दवरलीं तरी तीं भुकेक उपकारनांत. पोटाक जेन्ना भूक लागता तेन्ना दुडू मोडून तांदूळ-गोटो विकतो हाडूंक येता. पूण हो तांदूळ-गोटो पिकयतलो म्हळ्यार गोंयांत जमीनूच उरलीना जाल्यार?

दुडू आसल्यार कितेंय विकतें घेवं येता अश्या मानसिकतायेची एक संस्कृताय गोंयांत मूळ धरूंक लागल्या. भाजी, दूद आमकां घाट माथ्यावयल्यान मेळटा. तांदूळ, गंव आनी हेर कड्डनां हेर राज्यांतल्यान

त्या बगर तांका दुसरी सुवातूच ना.

हांगा भारतांत ल्हान ल्हान राज्यां जाल्लीं आसतलीं. हालींच आनी धा-बारा घटकराज्यांची मागणी जावंक लागल्या. पंचवीस वर्सांभितर हो आकडो विसांचेर पावं येता. मुंबयत ठाकरे बी महाराष्ट्र महाराष्ट्रीयनाचें म्हणटा. युपीवाल्यांक बिटकी कवळात म्हूण सांगता. हीच परिस्थिती फुडल्या पंचवीस वर्सांत दरेक राज्यांत येवपाची आसा. ह्या प्रादेशीकवादाची खराय इतली आसतली की केंद्र सरकाराचें कांयच चलचें ना. केंद्रांत सत्ता फकत नांवा खातीर आसतली. राज्यां केंद्राक किंकोंत करतलीं.

गोंयच्या म्हादयचोच प्रस्न घेयात. केंद्र सरकार कर्नाटक सरकाराक सांगता म्हादयचें उदक आडावचेनांत, बंधारे बी बांदचेनांत. पूण कर्नाटक सरकार केंद्र सरकारचें खंय आयकता? कर्नाटकाक आपल्या लोकाचें हीत सांबाळपाचें आसा. आयची ही परिस्थिती जाल्यार फुडल्या पंचवीस वर्सांत कितें जातलें हाचें चित्र आतांच काडूं येता. खंयच्याच राज्यांतली खंयचीच वस्त दुसऱ्या राज्यांत वचचीना असोय निर्णय राज्यां घेवंक शकतात. ह्यो वल्गना न्हय पूण घडचेंच ना अशें कोणाच्यान सांगू येना. तेन्ना, आपलें शेत आसा तातूंत बियाणें उडोवन निदान पेज्जे पुरते तांदूळ पिकोवया, दोनचार भाजयां बियो उडोवन


पिकाळ शेतां पुरोवन पेट्रोलपंप आनी हेर इमारतीय तयार जाल्यात.

मेळटात. आतां तर तरांतरांची भाजी, फळां सगळें ऑस्ट्रेलिया, अमेरिका, चीन आनी खंयच्या खंयच्या राष्ट्रांतल्यान गोंयांत येवपाक लागल्यांत. गाठीक पयसो आसल्यार खंयच्याय देशांतली कसलीय वस्त दारांत बशिल्ले कडेन घरांत हाडपाची तजवीज जाता. ग्लोबल विलेज हो प्रकार गांवांतल्या अशिक्षीत नेणाराक लेगीत आज कळून आयला. म्हणटकच आपणें शेत कसलेंना वो त्या शेताक पुरोवन ताचेर भोवमजली इमारत वा हेर कितेंय बांदलें तरी कांयच लुकसान जावपाचें ना हाची ह्या लोकांक खात्री जाल्या. तेन्ना आमी जमनी वाचयात अशी कितलीय आरड मारली तरी ताचो परिणाम कोणाचेर जायत अशें दिसना.

## एक भिरांकूळ सपन

अनिवासी भारतीयांचे आयुक्त एदुवार्द फालेरो हाणीं फाटल्या दिसांनी खंयचे खंयचे गोंयकार, गोंय सोडून खंय खंय गेल्यात हाची आकडेवारी दिल्ली. दक्षिण गोंयचे पन्नास टक्के गोंयकार गोंयाभायर आनी विदेशांत गेल्यात म्हणपाचें आयकल्लें. ताचे परस चडूच आसुये. गोंयकारांक, जे कोण गोंय मुक्त जावचे आदीं जल्मल्यात वो जांचे आवय-बापूय जल्मल्ले ते पुर्तुगेज नागरीक जाल्ल्यान तांका पुर्तुगेज पासपोर्ट सहज मेळूंक शकता. हो पासपोर्ट मेळिल्ल्यान गोंयकारांक युरोपी देशांत स्थायिक जावंक, नोकरी करूंक सोंपेपण फाव जाता. तेच पासत गोंयांत पुर्तुगेज पासपोर्ट करपाखातीर झुंडी चल्ल्यात. बरेचशे गोंयकार हे आदीं पॅरीस, लंडन बी गेल्यात. गांवांतल्या घरांत उरल्यांत तीं तांचीं आवय-बापूय. तांचेकडेन शेत रोवंक जायना. भाटां पळोवंक जायना. तीं दवरून कसलोच उपेग ना. दिल्लीवाले बी दुडवांचीं बॅगां घेवन तीं विकतीं घेवंक तयार रावल्यातूच. बरो दर मेळटा म्हूण ही शेतांची कटकट विकून हे गोंयकार मेकळे जातात. अदर्यावयर गोंयची जमीन अशी ह्या लोकांच्या हातांत गेल्या.

आनीक एक वीस पंचवीस वर्सांनी ह्या गोंयकारांक थंयच्यान खोट मारून गोंयांत उडयतले. मनीसपणाच्या नांवान तांका लुकसान भरपायूय दितले पूण युरोपाचे भुंयेर दवरपाचे नांत. जागतीक मंदीक लागून अमेरिकेक कितें घडटा तें आमी पळयलां.

हे सगळे गोंयकार साटली-पोटली घेवन, भुरग्यां बाळांक खांदार मारून गोंया येतले.


वायपासाच्या नांवान खुबशीं शेतां पुरोवन उडयल्यांत

## शेतकी वेवसायाचे वाढी खातीर भूंय-आराखडो : शेतकीमंत्री



**गों**यांत शेतकी वेवसाय वाढीक लागचो देखून भूंय-आराखडो तयार करपाची येवजण सरकार आखता. ते खातीर शेतकीमंत्री विश्वजित राणे शेतकी अधिकाऱ्यां वांगडा भासाभास करता. सद्याची हवामानाची परिस्थिती आनी खरीप हंगामाचो आरंब हे नदरेन गोंयच्या परिस्थितीचो अदमास घेवपाचो यत्न ते करतात.

भूंय-आराखडो प्रकल्पाखातीर सुमार २० कोटी रुपया खर्च येवपाचो आसा आनी हो निधी केंद्रीय शेतकी मंत्रालयाकडल्यान मेळोवपाचे नदरेन गोंयचे शेतकीमंत्री विश्वजितान केंद्रीय शेतकीमंत्री शरद पवार हांचेकडेन उलोवणी केल्या. ह्या प्रकल्पा अंतर्गत सुपीक जमीन, उदकाची क्षमता, जमनीची उपयुक्तताय हाचे नदरेन जमनीची आखणी करतले.

गोंयांत शेतकी उत्पादनांत घट जाता हाचो शेतकी मंत्र्यांक हुसको लागला. ही घट ना जावन उत्पादनात वाड जावंची हे खातीर वेगवेगळ्यो येवजण्यो आखपाची तांचो वावर चालू आसा.

भाजयो पिकोवया अशें चिंतलें तरी ताचे पासत जमीन जाय. ती जमीन ह्या गोंयकारांकडेन नासतली. दुडू आसुनय गोंय पेज्जेनिसाक वळवळतना पळोवंक गावतलें.

### ही परिस्थिती कित्याक येवंक पावली?

**गों**य प्रदीर्घ काळ म्हळ्यार ४३६ वर्सां पुर्तुगेजांच्या शेकातळा उरलें. ह्या काळांत गोंयकारांक ना आवय आशिल्ली ना बापूय. जे कोण पुर्तुगेजांच्या वाऱ्यावटेन सूप धरताले तांचें हांगा फाविल्लें. हे लोक आपले पुरतें विचार करताले. गोंयच्या मीना खणीचो वेवसाय असल्याच लोकांनी सुरू केलो.

दुसरे कांय लोक, जांकां खऱ्या अर्थान मध्यमवर्गीय म्हणूं येताले तांका गोंयचो नाय म्हळ्यार हुसको आशिल्लो. उद्योग-वेवसाय करतानाच, गोंयची मुक्तताय, गोंयचें शिक्षण हांचेर तांचो विचार चलतालो.

तिसरो वर्ग जो कश्टकरी आशिल्लो तो आसा म्हूण आशिल्लो. तांका व्हडलेंशें चिंतपाची गरज नाशिल्ली. भाटकाराची वो कोमुनदादीची जी कितें शेतजमीन आसा तातूंत जमता तशें रोवन आपल्या पोटा पाणयाची तजवीज हे लोक करताले.

पूण जेन्ना गोंय मुक्त जालें आनी गोंयान उदरगतीची गती आपणायली तेन्ना मात हो उदरगतीचो पाडो कानांत वारें रिगिल्ल्यावरी सैरभैर जालो. खाण उद्योगांत चड जोडूंक मेळटा म्हूण, पुर्तुगेजा काळार मुयेरुपान साकर खावपी मिनेर दोंगर पोखरूंक लागलो. तांका आडोवपाची तांक सरकाराक नाशिल्ली आनी लोकांकूय. ह्या दोंगर पोखरूपाच्या तांच्या राक्षसी कर्तुबान दुसरेकडेन मात्तूय लक्ष दिलेंना.

उदरगत म्हळ्यार भौतिक उदरगत. रस्ते जाय, खेळा मैदानां जाय, व्हडले व्हडले औद्योगिक प्रकल्प जाय, हेर राज्यांनी जें कितें आसा आनी जें बरें दिसता तसलेंच म्हाकाय जाय अशें म्हणपी बाळबोध वृत्तीच्या आमच्या राजकारण्यांनीं उदरगतीची कुदळ हातांत घेतली. ह्या बोण्यांनीं गोंयची वाट लायली. आपलीं बोल्सां भरलीं खरीं पूण गोंयचें केन्ना जाग्यार हाडूं नज येदें व्हडलें लुकसाण केलें.

### मिनाचे मातयेन शेतां केलीं काबार

पुंडलीक नायकाची 'अच्छेव' म्हूण मिनाच्या वेवसायाचेर एक कादंबरी आसा. 'खणखण माती'' अशें ताचें नाट्य रूपांतरूय जालां. मिनाच्या उद्योगाक लागून समाज जिणेचेर कसले परिणाम जावंक पावले हाचें तातूंत बारकायेन वर्णन आयलां. एक दर्जेदार साहित्यिक मुल्यां आशिल्लें, उच्च प्रतीचें समाज चित्रण आनी फुडाराचो हुसको अशें हे साहित्यकृतीची थोडे भितर मोलावणी करूं येता. पूण असलें साहित्य केन्ना कोणाक 'धोक्याची घांट' दिसना. साहित्यिक आपल्याची संवेदना मांडून वता आनी वाचक मनोरंजन करून घेता अशी ही परिस्थिती. पूण जेन्ना असलें साहित्य सत्यरूपांत मुखार उबें रावता तेन्ना मात समाजाचो आवरो उडटा.

गोंयच्या मिनेरांनी गोंयचे पांचवेचार दोंगर फोडून काबार केले. हजारानीच न्हय तर लाखानी टन मिनामाती जपान, जर्मन आनी आतां चीनाक धाडून कोट्यानी रूपया जोडले. ह्या वेवसायाक लागून मिनाखणीच्या सरभोंवतणचीं शेतां मिनाची माती पडून काबार जातलीं हाचें भान ह्या मिनेरांनी दवरलें ना. खणींचे प्रस्न आनी पर्यावरण राखण ह्यो दोनूय गजाली गोंयच्या फुडाराची वाट लायतले हें कोणाच्याच मतींत येवंक ना. देखुनूच आयज ह्या गजालीनी उग्ररूप धारण केलां. मिनाची माती न्हंयानी, व्हाळांनी वचून त्यो पुरवल्यात. हाकाच लागून आयज एकूच दीस पावस रकल्यार वता थंय बुट्टी येता. खाणीचे मातयेक लागून शेतां पुरवल्यांत. ही माती सुपीक शेतांनी गेल्ल्यान शेतांचो कस उणो जाला. सांगे सावन सत्तरी मेरेनचीं सगळीं शेतां हे मिनाचे मातयेक लागून सासणाचीं काबार जाल्यांत. सांगे म्हालांतलीं सगळींच शेतां आनी बागायती ह्या मिनाचे मातयेक लागून रोवपाभायर गेल्यांत. ही माती गेल्यानूच आमी शेतां रोवंक शकनांत अशें शेतकार दोळ्यांत



मीनाच्या वेवसायान दोंगर बोडके जाले. ताची माती व्हांवन वचून शेतांय काबार जाल्यांत.

दुकां हाडून सांगतात.

सांगे म्हालाची अशी गजाल जाल्यार सत्तरींतलीय तीच गत. सत्तरींतल्या पिसुर्ले, गवाणे, मलपण अश्या कितल्यातरी गांवांनीं मिनाची माती उसपुवपाचो धंदो नेटान चल्ला. ही वयर काडिल्ली माती पावसांत व्हांवन वचूंक फावना म्हूण खाणमालकांनी कसलीच तजवीज करूंक ना. ती माती शेतांत व्हांवन वता. हे मातयेक लागून चडशीं शेतां ह्या वाठारांनी सासणाचीं रोवपा भायरीं जाल्यांत. खाण मालकांनीं आतां कितलेय दुडू खर्चिले तरी हीं शेतां मूळपदार हाडप शक्य ना हें सत आमी आडनदर करूंक फावना.

## शेताचें पाड पडूं, बाबू म्हजो खेळूं

**स्व**ताच्या फायद्या खातीर गोंयकारांनी शेताकडेन आडनदर केली. वेगवेगळ्या कारणांनी पिकाळ शेतां सासणाचीं ना जपयत करून उडयलीं. तातूंत भर पडल्या आतां खेळा मैदानांची आनी क्रिडा नगरीची.

देशाचो भार आमच्या युवकांच्या भुजार आसा ही गजाल खरी. खेळ हो प्रकार युवकांक घडयता हीय गजाल तितलीच खरी. गोंयचो नामनेचो खेळ म्हळ्यार फुटबॉल. राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय मळार गोंयच्या बऱ्याच फुटबॉलपटूनी नामना जोडल्या. फुटबॉलाचेर आपलो फुडार घडोवं येता हाची जाणविकाय आयज गोंयच्या तरनाट्यांक जाल्या. सरकारूय खेळा प्राधिकरणा वतीन गोंयांत फुटबॉलाक प्रोत्साहन दिवंक तरांतरांच्यो येवजण्यो राबयता. पूण ह्या सगळ्या खटाटोपांतल्यान कितल्या दर्जाचे कितले खेळगडे तयार जातात हाचो हिशेब मात लागूंक कठीण.

गोंयच्या ११य म्हालांत सुमार १७५ वयर पंचायती आसात. दरेक पंचायतींत पांच ते सात वॉर्ड आसतात. कांयकडेन णव आनी इकरा इतलेय आसात. ह्या दरेक वॉर्डांतल्या तरनाट्यांचो आपलो असो एक एक क्लब आसता. हे क्लब खेळांचो मोग आसा म्हूण तयार

### पेज संस्कृताय खंय गेली?

**पा**वस लागलो म्हणटकच शेताची मशागत बी जावन रोवणी सुरू जाता. रोवन जाल्या उप्रांत कांय तेंपान नडणी सुरू जाता. ही रोवणी आनी नडणी करपाचें खरें काम कामेऱ्यांचें. जावं रोवणी, जावं नडणी, एके हारींत कामेऱ्या केन्ना उबीं तर केन्ना ओणवीं. काम करतां करतां तांच्या खबरांक ओतो येता. बायलां ज्या गजालीं खातीर फामाद आसात ते धवळे न्हय हे. ह्यो गजाली. सुख दुःखाच्यो. त्या गजालीं मजगती मागीर सुरू जातात गायनाच्यो कार्यावळी. ओवयो गायन हें असल्या वावरांत मुखेलपणान आसता. गोंयची पारंपारीक संस्कृताय दिसून येता ती हेच तरेन. अजून ती खंय ना खंय दिसता. आतां हो वावर कांय शेतांनीं गोंयां भायले वावराडी करतना दिसतात. पूण उण्या प्रमाणात. गोंयच्या शेतानी रोवणी आनी नडणी करूंक जाय तीं कामेऱ्यांच. कामेऱ्यां म्हणटकच ओवयो आपशीच आयल्यो. ही गोंयची शेतकी संस्कृताय. शेतांनीं ती नदरेक पडटा. पूण पन्नास टक्क्या परस चड ती नानपयत जावन गेल्या.

कामेऱ्यां सकाळीं घरच्यान भायर सरतालीं तीं आपली दनपारची भुती घेवन. सकाळीं जें किर्ते खावन भायर सरल्यांत ताचेर पुराय आदेस तग धरप जमना. देखून ह्या कामेऱ्यांक एक मदलो विसव आसता. ह्या विसवात तांका शेत मालक जेवयता ती पेज.

शेतकार उकड्या तांदळांची बरी फुलार आयिल्ली पेज हाडून मेरेर दवरता. पेजे वांगडा खळांतली आंबली वो खाऱ्याचो कुडको. पेजेचें म्हत्व आयच्या काळार कोणाक कळपाचें ना. जे कोण पेज जेवन आयल्यात तांकाच तें कळपाचें. ते पेज जेवन आयिल्ल्यान कशे धडधाकट उरूंक पावल्यात तें कळटा.

मदल्या विसवांत गजाली मारीत वाटली भरून वा केन्ना केन्ना कट्टेन कामेऱ्या पेज भुरकायतालीं. ही पेजूच तांची भलायकी सांबाळटाली. आयज ही पेज जेवपाची संस्कृताय खंयचे खंय नाच्च जाल्या. ताची सुवात घेतल्या थंड पेयां, बटाटवडे आनी सामोसानी. तिनूय गजाली मनशाचीं हाडांच न्हय सगळी जिणूच मातये भरवण करून उडोवपी. तरीय आतां पेजेची सुवात ह्या गजालीनी घेतल्या. कांय तेंपान गोंयचे संस्कृतायेंतली ही पेज वतली आनी हीं थंड पेयां, बटाटवडे आनी सामोसाच उरतले.

जायनांत. ताचें खरें कारण आपापसांतलीं झगडीं आनी क्लबाच्या नांवान थळाव्या राजकारण्यांकडल्यान पयशे उठोवप,. निदान वेंचणुकेवेळार तरी पयशे मेळटाच. मागीर आमदाराचे फाटीक लागून आपलो असो ग्राऊंड तयार करपाखातीर हे तरनाटे आमदारा फाटल्यान लागतात.

एका मतदार संघांत एक खेळा मैदान उपकारना. दर पंचायतीक आपलें अशें खेळामैदान जाय. ताचो वापर जावं वो जावं नाका. मैदान जाय म्हणचे जाय. मागीर आमदार पंचायतीक हाताक धरून थाराव मांडटा. गांवची जमीन ह्या खातीर घेतात. हो जमीन घेवपाचोय प्रकार म्हळ्यार भ्रश्टाचाराचो कळस म्हणपाचो. जाणें शेत पडंग दवरलां तो आमदाराक मेळटा. पंचायतीचो ना हरकत दाखलो घेता. गांवच्या बऱ्याक म्हणटकच कोणाची हरकत नासताच. हरकत घेतल्यार तरनाट्यांचें वायटपण घेवचें पडटा. सरकार शेत ताब्यांत घेता. दोंगर कापून, माती हाडून तें पुरयता. ताचेर खेळा मैदान तयार जाता. हातूंत जो वेव्हार जाता तातूंत सगळ्यांचीं बोल्सां भरतात. समादान कितें तर आमकांय ग्रावंड आसा. ताचेर खेळटात कितले? देव जाणां!

आतां बोवाळ चल्ला धारगळच्या क्रीडा नगरीचो. हांगाय होच अर्थीक वेव्हार. जमीन ताब्यांत घेवन खरेदी करपा पासून पयशांची वाटणी जावपा मेरेन. तातूंत कितलीं शेतां काबार जातलीं आनी कितले खेळगडी नामनेक पावतले हाचो हिशेब कोणाचकडेन ना. बाबू आजगांवकार पेटला क्रीडानगरी करतलोंच म्हूण आनी शेतकार पेटल्यात कसो करता तें पळोवया म्हूण! क्रीडानगरी नदरेक भरता. गांवच्या वाड्यावयलीं मैदाना नदरेक पडनांत. कित्याक दरेकल्याची मानसिकता तीच, शेतांचें पाडा पडूं, बाबू म्हजो खेळूं! मागीर तो सत्तरीचो बाबा जावं वो जावं धारगळचो बाबू! गोंयच्या हिताचें कोणाक पडून गेल्लें ना.

## 'फूड पार्क' करतलें अन्नाक पादिशेर

फूड पार्कच्या नावान औद्योगिक वसाहत आनी ऑक्झिलर पार्कच्या नांवान पंचतारांकित हॉटेला खातीर बेतूल आनी नाकेरी हांगा गोंय सरकारान १२ लाखां परस चड चौखण मेत्र जमीन हातासपाचो वावर सुरू केला. हाका लागून शेकड्यांनी शेतकार भूंयहीन जावपाची भिरांत ह्या गांवचे लोक उक्तायतात.

गोंयची पिकाळ जमीन शेतां पिकोवचे परस हेर कसल्याय कामाक वापरली जाल्यार ताचो चड लाव जाता. हो चड लाव म्हळ्यार ताचे एकरकमी दुडू त्या शेतकाराच्या हातांत पडटात. असली पिकाळ जमीन शेतकामत सोडून हेर कसल्याय कामां खातीर वापरपाची जाल्यार ताचें कायद्यान रूपांतर करचें पडटा, जें भौच कटकटीचें आसता. आनी ताका शार आनी नगर नियोजन खात्याची मान्यताय मेळतूच म्हूण खात्री नासता. तेन्ना हितसंबंदीत उद्योजकांक 'फूड पार्क' वो 'ऑक्झिलरी पार्क' ह्या नांवान ती जमीन लाटली जाल्यार कोणाचीच व्हडली हरकत नासता. कोण ताचे आड बोवाळूय करूंक वचना. जनतेच्या दोळ्यांक उदक लावपाची हीच पध्दत सरकारान म्हणुया वो सरकारांतल्या लोक प्रतिनिधींनी म्हणुया सोदून काडल्या.

शेतकी जमीन हेर खंयच्याय वापरा खातीर हातासपाची कायद्यान बंदी आशिल्ल्यान सरकार हीं असलीं नाडेपेन्ना करता. बांबोळे पठाराचेर असोच तरेचो प्रकल्प उबारून गोंयाभायल्या व्हडल्या व्हडल्या उद्योजकांक जमीन लाटपाची तजवीज जाल्ली ती लोकांनीं भायरायल्ली. हे असले प्रकार गोंयभर खंय ना खंय घडत आसतात.

बेतूल, नाकेरी हांगा फूडपार्कच्या नांवान अशीच जमीन हातासपाचो वावर चल्ला. हे जमनींत सुमार ५०० घराबे पारंपारीक



हो देखाव फुडाराक गोंयकारांचे नदरेक पडटलो काय?

पध्दतीन शेतां रोयतात. फळभाजयो पिकोवन पोट भरतात. पूण आतां ऑक्झिलरी पार्क खातीर ४.८० लाख चौखण मेत्र, फूड पार्क खातीर ८८३४५० चौखण मेत्र जमीन हातासपाचो वावर चल्ला. हे आदीं ओएनजीसीच्या नांवान १० लाख चौखण मेत्र जमीन हातासल्या. म्हणटकच अदूर्यापरस चड गांव असल्या गजालीं खातीर सासणाचो ना नपयत करून उडयल्ल्यान ह्या गांवच्या लोकांच्या तोंडांतली अन्नाची उंडीच काडून उडोवपाचें कार्य चल्लां. ताचे आड आयज थंयचे नागरीक पेटल्यात.

हे अशे प्रकार गोंयांत सगळे कडेनूच चालू आशिल्ल्यान पिकाळ जमीन फुडाराक उरतली काय कितें होच प्रस्न आमचे मुखार आसा.

## विखाळ जमनी मातल्यांत

देशांतल्या शेतजमनीची गजाल करिना. हांव गजाल करतां ती गोंयच्या शेत जमनीची. आपल्या शेतांत भरपूर पीक येवचें आनी घेतिल्ल्या कश्टांचें फळ दामदुपेटीन हाताक लागचें हो हावेस सगळ्याच शेतकारांचो आसता. ते पासत अर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाचो वापर करपाकडेन चडश्या शेतकारांचो ओडो आसता. आपले जमनीत चड पीक येवचें आसत जाल्यार मातयेचो कस तिगोवन दवरप वो तो वाडोवप गरजेचें हाचें गिन्यान भोवतेक सगळ्याच शेतकारांक आसता.

शेतजमनीचो कस तिगोवन दवरूंक वो वाडोवंक कांय शेतकार आदीं आपल्या शेतांत एका परस चड पिकां घेताले. आलटून पालटून पिकां घेतिल्ल्यान जमनीचो कस तिगून उरता आनी तातूंत नवी भर पडटा हाचें गिन्यान ह्या शेतकारांक आसतालें.

उप्रांत वेगवेगळ्या कारणांक लागून, उदकाच्या उणावाक लागून बी भातपीक सोडून हेर पिकां घेवपाकडेन

## शेतीविशीं शास्त्रशुध्द शिक्षण जाय

शेतकीशास्त्र हें आयज एक संपूर्ण शास्त्र म्हूण पळयतात. शेतकी मळार व्हडले व्हडले शास्त्रज्ञ वैज्ञानीक नदरेन संशोधन करीत आसात. शेताचो कस कसो वाडोवप, पिकावळीचो दर्जो कसो सुदारप, नवीं नवीं बियाणीं, सार्‍याचो वापर, पिकांक लागपी दुयेंस अश्या सगळ्या विशयांचेर शास्त्रीय नदरेन संशोधन जाता.

गोंयांत अजून शेतकी महाविद्यालय नासलें तरी गोंया खातीर हेर राज्यांनीं राखीव सुवातो आसात. पूण दुर्दैव अशें की गोंयांत रावून [illegible] आशिल्ल्या बिगर गोंयकारांचीं भुरगीं गोंयकार म्हूण ह्या सुवातांचो लाव घेतात. पूण गोंयचीं भुरगीं, जीं शेतकाराच्या घरांत जल्मल्यां, ज्यांच्या घरांत शेतां आसात, तीं कलावाणिज्य वा शाखांनी वचून [illegible]. पूण शास्त्रशुध्द शेतकी शिक्षण घेवन आपल्या शेतांत भांगर पिकयनांत.

महाराष्ट्रांत दापोलीच्या डॉ. बाळासाहेब कृषी विज्ञान केंद्रांत गोंयाखातीर णव जागे राखीव आसात. पूण दुर्दैवान [illegible] ते पासत शेतकी खात्याकडेन संपर्क करूंक ना म्हणपाचें कळटा.

[illegible] विद्यार्थी उत्सुक नांत.

गोंयचो शेतकी फुडार दोळ्यां मुखार दवरून ह्या कॉलेजींनी गोंयच्या विद्यार्थ्यांनीं दाखल जावन त्या सुवातांचो लाव घेवपा खातीर तांका प्रोत्साहन दिवपाची गरज आसा. तांका ते पासत इन्सेन्टीव्हज दिवन मुखार काडपाची जबाबदारी सरकारान घेवंक जाय.

शेतकारांची आडनदर जावंक लागली आनी भातपीक हीच एकली एकसुरी पिकावळ मुखेल पिकावळ जावंक लागल्या. गोंयच्या भोवतेक शेतजमनीचे बाबतींत हें घडत आसा. वर्साक एकूच पीक घेतिल्ल्यान जमनीचो कस वाडना आनी वाडोवपा खातीर शेतकार जीं रसायनीक सारीं वापरतात ताका लागून, दोळ्यांक उदक लावपी भरघोस म्हणटात तशें पीक मेळटा आसलें तरीय त्या सार्‍याक लागून जमनीचो कस तिगना. उरफाटें जमीन विखाळ जाता. जें पीक मेळटा तेंय ह्या रासायनीक सार्‍यांतल्या असैमीक घटकांक लागून विखाळ जाता आनी तें वीख खावप्यांच्या शरिरांत वता.

जमनीचो कस वाडोवपाखातीर वीख-मुक्त शेती करपाचे नदरेन आयज आमकां परत एकदां शेतकामताकडेन पळोवपाची गरज आसा. पयलीं जमनीचो कस राखपा खातीर आलटून पालटून पिकां घेताले. हाका लागून जमनीची मशागत जाताली. त्या पिकावळीचे घटक मातयेंत उरताले आनी ताचो सार्‍या सारको उपेग जातालो. जमनींतल्यां जिवाणूंचें पोशण करपा खातीर जैवीक सारें, थंयच्याच हिरवळीचें सारें, पानां कचरो वापरप गरजेचें. खंयचेय वनस्पतीची सारकी वाढ जातली जाल्यार १६ मूलद्रव्यांची गरज आसता. त्या बगर वनस्पत

फुलारूंक शकच ना. शेणखत, सोनखत, गोबोर, लाकडां, पालो हांका लासून केल्लो गोबोर, हाका लागून पिकांक गरजेचें आशिल्लें पोर्टेशियम मेळटा. काश्मिराक आसतना थंय एक गजाल हांवें पळयल्ली. दाल सरोवरांत मोठ्या प्रमाणांत पाणवनस्पती, शेळो बी वाडिल्लो. तो काडपाचें काम खुबशे शेतकार करताले. ही पाणवनस्पती आनी शेळो एक बरें सारें म्हणपाचें ताणीं सांगलें. ती वनस्पती काडून ताच्यो राशी घालतात. ती सुकोवन ताचो पिठो करतात वो आपशीच ताचो भुसो जाता. तो शेतकार सारें म्हूण शेतांत वापरतात.

गोंयच्या शेताची राखण जातली आनी तातुंतल्यान रोगमुक्त, वीखमुक्त अन्न मेळटलें जाल्यार मातयेंत वीख पसरावपी रासायनीक साऱ्याचो वापर कमी करपाची गरज आसा आनी ताका पर्यायी अशीं जैवीक सारीं वापरून परतून एकदां जमनीक संजीवनी दिवपाची गरज निर्माण जाल्या. तशें करिना जाल्यार आमची माती कोणाकूच मातयेक लावंक मेळची ना असल्या दर्जाची जावन पडटली.

## सहकारी सोसायटींचेर भर जाय

आयज शेतां पडंग दवरून, तांका गिरायक येवपाची वाट पळयत बसपा कडेन चडसो शेतकारांचो ओडो आसा. एका काळार उमेदीन हीं शेतां कसप जातालें. पूण आतां परिस्थिती बदलल्या कसपी कोण उरूंक ना. दुसऱ्याक कसूंक दिल्यार तीं शेतां परतून हाताक लागत काय दुबाव. मागीर तीं सोडोवपा खातीर कोर्टकचेऱ्यो. त्या परस आसूं तीं कसनासतना. आमकां खावंक मेळूं नाका पीक. निदान शेतां कोण दुसरो खातलो म्हणपाचो भंय ना ह्या विचारांनी शेतां. पडंग उरतात. कांय शेतां फाटलीं धा वर्सां कसूंक नाशिल्ल्यान त्या शेतांनी ताटी आनी झोपां वाडल्यांत. तीं शेतां कसपा लायक करतलोच जाल्यार त्या शेतकाराक कितलो तरी खर्च आसा. म्हणटकच तीं शेतां पडंग, तातूंत कांय पिकनां अशें दाखोवन त्यां शेतांचें रुपांतर करप आनी विकप. अथवा कोणातरी दिल्लीवाल्यान तीं विकतीं घेवप आनी त्या शेताचें रूपांतर करप. कोणाक पयशे खावोवन रूपांतर करूंक जाता हें तांका बेस बरें खबर आसा. आतां जालें ना तर आनीक धा वर्सांनी करूं येता. तांकांय घाई ना. ते गोंयांत गुंतवणूक करूंकच तर बॅगां घेवन आयिल्ले आसात.

आतां हीं पडंग शेतां कोणा एकाचीं व्यक्तीगत मालकीचीं आसतलींच अशीं न्हय. ती कोमुनदादीचीं वो इगर्जेचीं जाका म्हणटात तींय आसूं येता. जांका तीं कसूंक दिल्लीं ते धनीच कशे वावुरतात. ते कसनांत जाल्यार तीं शेतां तांचेकडल्यान काडून घेवप जायनां. जर हो शेतकार शेत कसना. तें पडींग दवरता जाल्यार ही राष्ट्रीय संपत कारणाबगर उबंत उडोवंक फावना. कोमुनदादीन आपली जमीन परत घेवंची. कोणा एका व्यक्तीची आसल्यार, ती जमीन न कसपा फाटलें कारण समजून घेवन ती कसपा खातीर पावलां उबारचीं हाचेर एकूच उपाय म्हळ्यार सहकारी सोसायटी.

गांवच्या शेतकार लोकांचो पंगड स्थापन करून तालुको शेतकार सहकारी संस्था तयार करप शक्य आसा. हे संस्थेक हीं शेतां कसूंक दिवंचीं. नाय म्हळ्यार असल्यो संस्था गोंयांत आसातूच. तांका सरकार अनुदान दिता वो ह्यो संस्था अनुदानाचो लाव घेतात. असल्योच संस्था दर तालुक्यांत तयार करून तांका हीं शेतां ठरावीक काळाखातीर दिवं येतात.

गोंयच्या हेर वाठारांनी ज्यो सहकारी संस्था चलतात त्यो शेतकारां खातीर शेती विशयक साधन सुविधायो फैदासून दितात. शेतकी खात्याकडल्या येवजण्यांचो लाव घेवन हो तांचो वावर चलता. हीच पध्दत पुराय गोंयभर वापरांत हाडीत जाल्यार पडंग जमनीचो खऱ्या अर्थान वापर जावं येता.

### शेतकी यंत्रांचो असोय उपेग...

शेतकी खातें शेतकारांक शेत नांगरपा खातीर पावर टिलर हें मात्रन अनुदान येवजणेंतल्यान घेवंक पालोव दिता. शेतकारांनी चडांतचड शेत नांगरणी करून शेतकी वेवसायाक प्राधान्य दिवंचें हो हे फाटलो हेतू आसा.

हे येवजणे खाला शेतकार सरकाराकडल्यान अनुदान घेवन पावर टिलर घेतात. कांय जाण तांचो वापर खरो उद्देश्य दोळ्यां मुखार दवरून करतात. ताचो आनीक दुसरे तरेन वापर करूं येता हें तांकां भोवतेक खबर नासतलें. पूण पेडणे म्हालांतले शेतकार तकलेन फीन. ते ह्या पावर टिलराचो वापर खणींतल्यान चिरे काडपा खातीर करतात.

पेडणे म्हालांतल्या पार्से, कोरगांव, आश्वे, तुये, पालये, पोरस्कडें, विर्नोड, धारगळ, पत्रादेवी, तोरसे बी वाठारांत व्हडा प्रमाणात चिऱ्यांच्यो खणी चालू आसात. ह्यो खणी तश्यो कायदेशीर न्हय. सगळोच वेपार बेकायदेशीर. ह्याच बेकायदेशीर व्यवसायाखातीर शेतकी खात्यान अनुदान दिल्ल्या पावर टिलराचो शेतनांगरणी बदला चिरे काडपा खातीर पेडणेकार वापर करतात. खरेंच फीन म्हणपाचे न्हय हांकां?



कथा

# ऐसमारालडा

"ओ.के., अंकल,"
तें म्हणालें.
"To hell with it!"
म्हाका पुणी प्राय ज़ावन
बेड्डार पडोंक नाका.
I would rather
kill myself.
पुण अंकल,
त्या आयरिनान फोन
केल्यार समान घरा धाडताय
न्हय?"
उरल्लीं उत्रां म्हाका
आयकालिंनंत.
हांव पाटल्या
पांयांनिंच पाटीं गेलों.
ऐसमारालडाची सत्री
हांवें आनिकी हरद्याक
दांबून धरल्ली,
लिपयिल्ली, फिंतरी
लिपयिल्लें.



**ह्या** पावटीं पाव्स सुरू ज़ाल्लो वर्सावार निघंट वळेरिच्याकी फुडेंच; धग देंवली, झर फुटली, गाद्यांचीं हर्धी कोसापान उगर्तीं ज़ालीं. दिसांगट्ल्यान सुरयान रजा घाल्ताना, रातिचें घडघड्यान- झगलण्यान मिरंवक सुरू केलें.

तसलिच एक रात ही, जी सुरू ज़ाल्ली मात्र:

म्हजे लागीं कागत मुगदाल्लें आनी मतित ऐके कथेचो कोंब्रो फुटल्लो. कथा रातारात बरव्न काडल्यार म्हाका फाय्दो आसा. मयन्याचे आक्रेक कांय चार कास संपादकालागचे वसूल करयेत आनि रातारातीं कथेचो कोंब्रो आसल्लो झाड ज़ावन फळ दिंवचो पळेन तर म्हाका समादान, बरी नीद खचीत. तसलोयी तुरित मनिस हांव, लेकक हांव.

एक लेकक म्हण म्हाका साबार ओळकतालीं. पूण एकसुरो मनिस म्हण कोणयी एदोळ ओळकल्लिंनांत या तशें हांव चिंतालों. हांवें म्हाकाच्च येक्सुरो केल्लो. म्हज़ो ज़िनोसच्च तसलो.

लागशिले 'सुपर मारकेटिक' पावताना सत्री आसोनयी हांव अरवास भिज़ल्लों. भायर आसल्ले बाल्देंत सत्री दवरन हांव तुरतान भितर रिग्लों. कांय थोडे गिरायकी आसल्ले आनी सुपर मारकेट बंद ज़वंचे पयलें जाय आसल्लें आपापल्या ट्रोल्लिंनी भरताले. हांवें तांचेर गुमानंच दिलेंना.

एक रीम कागद घेवन हांव कांवटराक आयलों आनी पयशे फारिक करून भायर येतां म्हणताना झग्लाणे फाळ्ळें आनि दारवेच्या थोटायन पाज़ फुटयिल्लेपरीं घडघडो फुटलो. हांवें मोळबाक एक दीश्ट मारली; म्हाका आनी ह्या झगलाण्या- घड्घड्याचे मिरवणेक गाटांनातल्लें. हेर लेकक कांय हे मिरवणेक नयसर्गिकतेचें नवाल म्हणतित, पूण हांव न्हय. लांबाय कित्याक? हें नवाल म्हाका भिरांतिचें म्हळयार ज़ालें न्हय? लज़ कित्याक? बाल्देंतली सत्री 'ज़प्प' करून काडून हांव भायर आयलों आनी दोन मिनुटां भितर म्हज़्या रुमाक पावलों. म्हज़्या घरचीं तांचाच्च संसारांत आसल्लीं, संदाचेपरीं. म्हज़्या रुमांतलो संसार म्हज़ो, भाय्लो संसार, तांचो.

हें ताणी केल्लें विभज़न न्हय, हांवें केल्लें. म्हाका बावीस वरसां प्राय तरी एकच्च एक चली म्हज़े ज़िणियेंत आयिल्ली ना. हां, म्हज़े कोलेज़िचें शिकप यांत्रिक रितिर वलतालें आनि थंयसर हांव सदांयी मोगार पडतालों, त्या 'राज़ कपूरा'च्या फिलमांनी घडचेपरीं. खुद्द रडची विंचवाण हांवेंच्च केल्या तर चूक कोणाची? हेरांक ख्हुश दवरून हांवें खुद्द रडची विंचवाण हांवेंच्च केल्या तर चूक कोणाचि? हाका काराण कितें म्हळ्यार म्हज़ीं बरपां सोबित औण हांव न्हय. एक पावटीं, दाटायेन 'टच-उप' केल्ली म्हज़ी फोटो म्हज़े काणिये सांगाता छापून आयिल्ली. बरो दिसतालों हांव, 'प्लासटर ओफ प्यारीस' इमाज़िपरीं. परिणाम ज़ावन 'रास रास' उल्लास पाटंव्चें पत्र आयलें, एके चलियेच्या सांगाताक आशेंव्चो हांव पिगळ्ळों पूण

भियेलों. आनी हांवें भियेल्लेपरिंच्च ज़ालें. गरशा दोळ्यांची, तांबश्या केसांची बावली म्हाका भेट्ली आनी मिलागत ज़ाल्ल्या एका हप्त्या भितर, 'म्हज़ीं पत्रां पाटीं धाड, टप्पालाचो खर्च धाड्ला,' म्हळ्ळी चीट आय्ली. हांवें एके कुशिन तशेंच केलें आनी दुसरे कुशिन 'राज़ कपूरा'चें चेपें बोडार थाप्लें. 'जीना यहां, मरना यहां' म्हण एक हप्तोबर रडलों; 'प्यार हुआ, इकरार हुआ' म्हण नरगिस सांगाता सत्री आसुनयी भिज़चें भाग म्हाका ना ज़ालें.

आतां, परत्यान झग्लाणे. हांव राज़ कपूरा थावन मेकळों ज़ालों.

भिज़ल्ली सत्री घेवनंच हांव म्हज्या रुमा भितर रिगल्लों आनी यांत्रिक रितिन हांवें ती सत्री दोडचें प्रतन केलें, पूण सत्री धांपुंक आयकाना. हूं? तित्ली परनी सत्री कांय ति न्हय. 'ब्लडी हेल्ल' ...परत्यान हांवें प्रतन केलें, पूण खिळ शिरकाल्ली.

हांवें सत्री उबाल्ली आनी उज़वाडाक धल्ली. पळेताना--

ती सत्री म्हज़ी न्हय, बिलकुल न्हय. हो हेल्ल, आतां कितें करचें? कांय ना, हांवें म्हाकाच सांग्लें. तुज़ि सत्री सुपर मारकेटिच्या बालदेंत आसा न्हय, पिशा? हे सत्रेचो पात्रांव तुज़ी ती सत्री घेवन वेतोलो, तित्लेंच आनी बराबर.

आनी तवळ म्हज़ी दीश्ट आतां म्हज़्या रुमांत आयिल्ले हे परदेशी सत्रेच्या भितरले कुशिन पडली.

हें कितें? एक नांव आसा लिकून.

ऐसमारालडा.

हा!हा! कसलें विपरयास? खंय आसा तर तो 'ख्वासिमोडो?'

म्हज़े मतिन उळ्ळेक केलो 'विकटर ह्युगो'च्या क्लासिक कादंबरियेचो. The Hunchback of Notre Dame-for thought he was gentle and kind, it was Quasimodo's crime to have been born hideously deformed. But one day his heart would prove to be a thing of rare beauty. She was Esmerelda.

(नोत्रेदाम डि प्यारी, ११६३ इस्वऐंत फ्रान्सांत माये मरियेच्या मानाक उबारल्ली इगर्ज़)

'नोत्रे दामाचो खुबडो (पाटिक डुब्बा आसून, विद्रूप आंग-पांगाचो) ख्वासोमोडो मोगाळ आनी मोवाळ तरी ताचो अप्राद आसल्लो की तो खुबडो ज़ावन ज़लमाल्लो... पूण ऐका दिसा ताचें काळिज़ आपूण कितलीं सोबित म्हण दाकयतेलें. वय, त्या कंदारिण gypsy सोबागिणी ऐसमरालडाक.'

तर हांवंच तो कुरूपी खुबडो ख्वासीमोडो? ही संगत कित्याक म्हज़े मतिक येदोळ येवंक ना? डब्ब्यांत गेलो तो राज़ कपूर. आतां ऐसमरालडाची सत्री म्हज़्या रुमांत आय्ल्या? आनी नोत्रे दाम म्हळ्ळे इगर्ज़िचें नांवयी लिकल्लें तर? कितेंयी तरी सत्रेंत्लें हे ऐसमरालडा साहित्याचें मोगी म्हळ्ळें खंडित.

आक्रेक तरी म्हज़ीं सपणां ज़्यारी ज़ातित? नायट बस्सिचेर पयण करताना बग्लेचे सिटिचेर ऐक सुंदरी येवन बसतेली म्हण किल्ले पावटीं हांव आंवडेंवक ना? म्हज़े काणियेंतल्यो नायकी खर्यो ज़ावन, ज़िव्यो ज़ावन म्हज़े मतिंत येतोल्यो म्हण कितल्या पावटीं हांव आशेंवक ना? आतां हें ऐसमारालडा ऐका सत्रे रुपार म्हज़्याच्च रुमाक आयलां. व्हा-रे व्हा, ख्वासीमोडो.

कोण ज़ावेत हें ऐसमारालडा या ताका आताच 'एसमी' म्हणों? हांवें ज़नेलांत्ल्यान बायर तिळ्ळें. ह्याच परिसरांत्लें ज़ायज़े, ना तर ह्या पावसांत सुपर मारकेटिक येता? आतां पावस उणो ज़ाल्लो. तें कांय सुपर मारकेटिंत आतांयी आसा तर?

परत्यान ऐक पावटीं जगलाणें येताना सकत चिंवोन काडल्लेपरीं वीज़ कुसकाली आनी बलब मिणिमिनी ज़ाले. हांव बसलों, शुन्य ज़ालों? सपणां पळेंव्ची माजा ऐक तर, तिंच सपणां कोस्लोन वेचीं पळेंव्ची दग्दणी वेगलिच.

पिश्या! हें ऐसमारालडा कांय जोबलुस म्हातारी कोण्ण. ना तर ह्या दिसांनी कोणयी सत्रेक नांवां घालतात? तुज़्या आज़ियोच्या काळार नवे सत्रेक ऐंब्रोयडरी करून नांवां घालताताले; ही कांय त्याच काळाची वांचुन उरलेली 'ग्रयांड मां' कोण्णा, स्टुपिड. दादल्यांची सोबाय मुकमळार या कुडीमोडिंत ना म्हण तुंच लिकताय आनि आतां तुज़े ऐकसुरायेच्या सुशेगाक इत्ले सवायेन विकताय? कंदारी सोभागिण ऐसमारालडा, हा!

तुमी लेकक आंबयाथावन खुंबयाक उडोंक भारिच्च हुशार. ऐक सत्री, ऐक नांव... सुरू ज़ाली मोगाची काणी? विसर तुज़े अंद्ळे उमाळे.

ऐसमारालडा खंय, ऐस्सी खंय. पळे वीज़ समा ज़ाली... चालु कर तुज़ी मट्वी कथा.

पुण हांव समा ज़ांवक ना. ते रातीं म्हाका नीदयी पड्ली ना. ज़ेवण सोड्न उट्लों, पुण कोणेंयी कांय विचारलें ना. म्हज़्या कुडाक पाटीं वेताना म्हज़ी ऐक्सुराय म्हाका परत वेंगेंत घेवन 'पोल्को' नाचुंक लाग्ली...

सत्री दोड्चें प्रेतन केलें तरी फलसालें ना; तिका उग्तिच सुकोंक सोड्ली; पावस परत्यान सुरू ज़ाल्लो. छे! म्हज़े सत्रेक भितरल्यान नांव कित्याक घालुंक ना हांवें?

रात कशी पाशार ज़ाली आनी सकाळ केदळा उदेलो म्हण हांव नेणां. पावस सलवाल्लेपरीं दिसतालो आनी सुरयाचीं किरणां म्हज़्या ज़नेलांतल्यान भितर सरोन मुकमळार पडतालीं; म्हज़े दोळे दणसाले आनि तवळ म्हाका मंद रितिर तकली फडता म्हण कळित ज़ालें. हांवें कूस परतून पळेलें- सत्री दवरिल्ले कडेनंच आसल्ली, पुण आतां सुकल्ली.

ऐसमारालडा

म्हाका कांय सपणां पडल्लिं गाय? ऐक वेकतिची कस्लियी वस्त आवचित घरांत आयल्यार ते वेकतिचीं सपणां पडतात म्हण हांवें आयकाल्लें. पुण सपणां कशीं पळेंवची? म्हज़े कुडिक नीद पडल्ली ज़ावयेत, पुण मतिक न्हय; देकुन ति फडताली.

हांव उटलों आनि सकालींची निरमळाय करताना त्या दिसाचो 'ऐज़ेंडा' तयार केलो. 'फस्ट होल्ट', सुपर मारकेट: माम्मिन हाडल्ली छा पियेताना हांवें ऐक सिग्रेट पेटयली आनी धुंवोर सोडलो. माम्मिन सदांचेपरीं दोळे उरकुटायले.

पार्टी रुमाक गेल्ल्या हांवें 'ऐसमारालडा'क धांपचें प्रेतन केलें. ज़ायना. बळ प्रयोग करुंकयी म्हाका मन आयलें ना. खंय सत्रिच्च मडत तर? चलियेक पटंवचें 'चान्स्यी' चुकत.

समा साडे-नोव ज़ाताना, उसयिल्ल्या 'ऐसमारालड'क गेवनंच हांव घराथावन भार्य सरलों. माम्मी ऐके विचित्र दिश्टिन म्हाका पळेलागली. पुताचीं आतरवणां तिका कांय नवीं न्हय 'सत्री सुकोंक ना-रे?' तिणें विचारलें. 'या ऐका पावसाक ऐक सातें पिंदची आलोचेन? कोलेज़ ना आज़?'

हुं! लेककाची आवय न्हय ति?

म्हाका चुकामुकी ज़ाल्लेपरींच पुण उपावनास्तां ऐसमारालडान म्हज़ी सत्री वेल्या. ताच्या घराक /बंग्ल्याक पावल्ल्या उप्रांत ताकायी 'युरेका' ज़ालां आनी ताणेंयी कांय पिसुडुलेली रात पाशार केल्या कोण्णा आनी आतां पळे तें म्हज़ी सत्री गेवन सुपर मारकेटिंत म्हाका राकोन रावलां. खंडित ज़ावन तें 'इंटेलेकचुवल' आस्तेलें. न्हय तर सत्रेचेर विक्टर ह्यूगो-च्या क्लासिकांतल्या नांवाचो उल्लेक करता? उल्लेक म्हळें हांवें? तर ताचें नांव ऐसमाराडलडा न्हय ज़ांवक्यी पुरो'. म्हज़ीं चिंतना व्हाळ्तालीं.

म्हज़ें काळिज़ 'डब्ब' ज़ालें. कशें आसतगाय पळेवंक? आतांची, आयची चली? पेंकटाकटा सकयल ज़ीन्स आनी बोंबले वयर रांवची 'टी-शरटां' घालची? विक्टर ह्यूगोचें ऐसमारालडा ऐक कंदारिण चली. पुण, आम्चीं आतांची कांय उणी? कोंकणी उलयतात पुणी? विक्टर ह्यूगो वाचचीं कोंकणी कशियी वाचिनांत म्हण्यां.

सुपर मारकेट आयली. लुविस, शट्टरां उगतीं करतालों. बर्याक पड्लें: ऐस्मिक, भार्यच्च राकोन रांवचें बरें. त्या फुडें सुपर मारकेटिच्या लुविसा लागीं विचारयां? हां, कित्याक? तोय व्हडलो बायलांडो. सत्री आपुणंच्च व्हरून दितां म्हणात तर?

विगारा लागीं गेल्यार कशें? तुका धयर आसा? तुज्या बरपांनी पाद्री-मार्द्रीक आडवें-उबें घाशिनांय तुं? तुज़ीं अंकणां कांय वाचुन विसरल्यात तिं?

आतां वचुन कितें म्हण विचारताय? पाद्रिगार, आमचे फिरगज़ित ऐसमारालडा म्हळ्ळी 'बिवटी आसा?' मिसाक वचुंक तुका 'अरिसटोक्रेटांनी' वेचीं कोपेलांच्च ज़ाय. कित्याक थंयसर येंवच्या चलियांनी नेसचीं लिबासां तुज़्या सर्व काल्पनिक सकतेंक रज़ा दितात न्हय? हुं? फिरगाज़ित दिश्टिक पडतात तुं? आनी आतां वचुन पाद्रि लागीं ऐसमारालडा आसागी म्हण विचारूंक सोदताय?

सुपर मारकेटिक पावतेच हांवें ऐक निमाणें प्रेतन केलें आनि अबळे आनी अज़ाप...ऐसमरालडाचि सत्री धांप्ली! हांव भायरच्च रावलों. मातें उबारोन पळेताना कालचे रातीं आतरवणां केल्लो पावस पयस रावोन आप्लें कारभार पळेता तसो दिसतालो. मोळब नितळ आसल्लें.



हांवें ऐक सिग्रेट पेटयली आनी धुंवोर सोडलो.

तितल्यार लुविसान सत्रेची बालदी बायर हाड्ली; म्हजेर ऐक शून्य दीश्ट घालून ताणें ती बालदी म्हज़्या पांयां मुळांत म्हळ्ळेपरिंच्च दवरली. तो भितर वेतेच हांवें ते बालदेक पळेलें. तांतु ऐक सत्री आसल्ली--

म्हज़िच्च!

हातांत आसच्या ऐसमरालडाचे सत्रेक आनि म्हज़े सत्रेक चड फरक नातल्लें; आसलो तर ऐक तांब्डे फिंत मुटिक रेवडीन आसल्लें. पुण ऐके पावसाळे राती तें दिसचें तसलें न्हय. म्हज़ी चिक्केसे नवी, पेल्यान.

तर आमच्यो सतर्यो आदलीबदली ज़ावक्नांत म्हण ज़ालें. तर ऐसमारालडा घरा कशें गेलें? सबार वाटो आसल्ल्यो घरा वचुंक व्हय पुण म्हज़ी सत्री कित्याक व्हरूंक ना? भोव सुलभ वाट न्हय ती? ती वाट ताका नाका ज़ाली म्हणताना तें हांगासर येंवचे अवकास चड्नांत म्हण ज़ालें.

म्हज़ें काळिज़ कुसकालें.

गिरायकी येंवक सुरू ज़ाल्ले.

सिगरेट काबार ज़ाताना हांवें आनऐक पेटयली. 'प्याक' मुगदोन आयिल्ली देकुन हांव भितर गेलों. दोन प्याक घेतल्यो आनि पय्शे दिंवक कांवाडराक आय्लों. 'क्याशियेर' येंवक नातल्ल्यान लुविसच बसल्लो.

''कोणाक राकताय?'' पयशे फारिक करताना ताणें विचारलें. ''बरो-सो दिसानांय''.

हाका कितें म्हज़ो काळज़ांत मोग? हांवें ऐसमारालडाक हरध्याक दांबून धरलें. तो म्हाका सुकिशमायेन पळेतालो. ''पावस ना तरी तुं कितें सत्री उगती धरुनंच हांगासर आयलोय?''

घुगिची दीश्ट आसल्ली ह्या लुविसाक. ''तुंका कितें ज़ालें?'' आतां म्हाकायी चिक्केसे विरार ज़ालें. पुण सावधान, होच्च

कांय तुका ऐसमारालडा परयांत पावयत?

"म्हाका कांय ज़ांवक ना!" ताणें ज़ाप दिली. "तुवें म्हज़्या सुपर मारकेटी भायर रावोन बदचालिंच्यापरीं सिगरेट वोड्ची म्हाका बरें दिसना".

"देकुन? तुज़ेलागिं व्यार घेना हांव? आतां दोन प्याक गेंवकनांत? काल रातीं पावसाक तरी येवन ऐक रीम पेपर गेंवक ना?"

"कितें व्हड साक्रिफिस केलोय? कांय भिजुन आयिल्लोय? सत्री हाडल्ली न्हय?"

"हाडल्ली संचिकाराची सत्री!" चुकोन म्हळ्ळेपरी म्हज़ेथावन उत्रां भायर पड्लीं. तितल्यार--

सुपर मारकेटिच्या आरश्याच्या दारांतल्यान म्हाका दिसलेंकी, ज़ीनस-टी-शरटार आसची चली हेवशिन येता. म्हज़ें काळिज़ लागमोडी घालिलागलें. हेंच गाय ऐसमारालडा? हाका हांवें ह्या परिसरांत पळेंवक ना-मू?

ताच्या हातांतयी सत्री आसा पुण ती म्हज़ी कशि ज़ांवची? म्हज़ी सत्री लुविसाचे बालदेंत आसा. तर कसलो आंवडो हो, स्टुपिड!

"कसलो संचिकार?" तो खेंचलो. "तुवें कांय सकाळीं फुडेंच्च 'पेग' मारुंकनांय-मू? पिसांट लेकक तूं, हांव ज़ाणां".

"You shut up, Louis!"

आतां हांवेंयी ताळो काडलो. म्हज़ी दीश्ट मात्र ते चलियेचेर आसल्ली.

निज़ायकी ऐक कंदारी चलियेची आरबट सोभाय ताका आसल्ली. ती चाल, ती कूड, बिसळे केंस ज़े, तें चलोन येताना दांवच्या घोड्याच्ये गोमट्यावयल्या लोंवेपरीं उडताले.

तें, हेंच्च ज़ालयार पुरो, देवा! हांवें सत्री आनिकी हरध्याक दांबून धरली. व्हय, व्हय, तें भितर आयलें.

"तूं कितें मातयार हात घालून उलयतालोय?" लुविसान विचारलें.

"कांय ना," हांवें ज़ाप दिली, ते चलिये वयली दीश्ट काडिनासतां. "कितेंगी टेंपर उटलो, I am sorry" हांवें चिक्के व्हडल्यान म्हळें, तिचें गुमान ज़िकुंक.

तिची दीश्ट म्हज़ेर पडली, ऐका मट्वया खिणाक. हांव करगालों.

"गुड मोरनिंग, अंकल लुविस!" तें म्हणालें ऐका 'सेकसे', निबर ताळयान. "हांव म्हज़्या ग्रानिची सत्री हांगासर सोडुन गेलीं आनि कोणा बोलत्याची सत्री वेली. यु नो, कालचो पावस. पुण ग्रानी तापल्या. सत्रेचेर म्हज़े नांव आसा, ति खंडित ज़ावन भायर पड्चिान म्हण म्हाका सोदुंक धाडलां. sentimental fool! पेंकडा सकयल निशकत ज़ावन बेड्डार पडल्यारी पिसांटपणां सोडिना. यु नो, अंकल, आमी इतलीं भिजी आसांवकी... आज़ इक्रा वोरांचें 'प्लायट' आमकां आनी आज़ रातिकच्च मुंबय थावन न्युयोर्क. धा दिसांची रज़ा कशी पाशार ज़ाली..."

"हाका तुमी रज़ा म्हणतात? तुज़ी ग्रानी परत्यान ऐकसुरी ज़ातेली." त्या लुविसान अर्थनातल्लें उलवन मेचयलें.

"We cannot help that, Uncle!" तें म्हणालें. "आमकां मेंगलोराक येवंक -वचुंक कितलो खर्च पडता ज़ाणांय? ह्या पावटीं म्हाकायी वोडुन हाडिलां माम्मी-ड्याडिन. I hate India, but your supermarket is good.

"येस, येस, हांव ज़ाणां तें," म्हणालो लुविस पातळावन-शें. "तुज़्या डेडिक पेग मारूंक सोडा हांगाचोच व्हरतालेंय तूं."

'हूं' ते म्हणालें आपल्या खोटांचेर धलोन. "काल रातीं सोडाचो स्टोक काबार ज़ाल्यान डेडिन म्हाका पावसांतच्च हांगासर धाडलें. Selfish fellow. ताका ताची स्कोच आसल्यार ज़ाली... ग्रानी ऐकसुरी म्हण तुवें कशें म्हणचें? तें आयरिन आसा न्हय,she is a trained nurse and we are paying her through our nose. आनी चडित करूंक ज़ाता आमच्यान? आप्णाक पळेंवक-उलंवं कोणयी येनांत म्हणता.

"ओ.के., अंकल," तें म्हणालें. "To hell with it!" म्हाका पुणी प्राय ज़ावन बेड्डार पडोंक नाका. I would rather kill myself. पुण अंकल, त्या आयरिनान फोन केल्यार समान घरा धाडताय न्हय?"

उरल्लीं उत्रां म्हाका आयकालिंनंत. हांव पाटल्या पांयांनिंच पाटीं गेलों. ऐसमारालडाची सत्री हांवें आनिकी हरध्याक दांबून धरल्ली, लिपयिल्ली, फिंतयी लिपयिल्लें.

कंदारिण गेलें ताच्याच्च सम्साराक.

म्हज़ी सत्री व्हरून गेलें; ति सत्री म्हज़्या ऐसमारालडा लागीं ह्या फुडें आसतेली.

ऐक गांच घडसातोलो या हांव तो घड्सितोलों.

ह्या संसारांतल्या दोगांचें ऐक्सुरपण नपंयच जातेलें.

त्या कंदारिणिचें इक्रा वोरांचें प्लायट वचुंदी.

ताका दयाळ मरणाची कुरपायी लाबोंदी पेल्यान.

हांव ऐसमारालडाचें घर सोदुन काडुन थंय वेतोलों.

सदांयी वेतोलों

सदांयी तिचेलागीं उलयतोलों.

म्हज़ें काळिज़ कितलें सोभित म्हण तिका दाकयतोलों.

आनी, मोगान ति म्हाका म्हज़ो सुंदर 'ख्वासीमोडो' म्हण उलो मारतेली.



**— ऐड्विन जे. ऐफ. डिसोजा**

फाऊंटनहेड,
हायलेंड, मंगळुरू,
फो. : (०८२४) २४३२४१३



नवलिका (धारावाहीक)

# बा व कें

शीलाची आतां कॉलेजीक वचूंक लागिल्लें. कॉलेजींत नव्या चलयां फाटल्यान कॉलेजींतले चले लागतात तशे शीला फाटल्यानय धीरू नांवाचो एक चलो लागलोच.

धीरू हो वायट मार्गाक लागिल्लो भुरगो. ताचेकडेन सलगी करप म्हळ्यार शीला सारक्या उच्च आनी सभ्य घराण्यांतल्या भुरग्याक सोब सारकें नाशिल्लें. कॉलेजीचो पयलोच दीस आशिल्ल्यान सगळीं भुरगीं एकमेकाक नवीं आशिल्लीं. कोण कोणाक वळख नाशिल्लो. धीरू वायट चालिचो म्हणपाचें शीलान वळखल्लें. तरीपूण तें ताका टाळूंक शकनाशिल्लें. वर्ग सुटतकच धीरू शीलाचे पाळतेर आशिल्लो. पावसूय पडूंक लागिल्लो. धीरू शीलाक आपले गाडयेन लिफ्ट दिवंक सोदतालो. ताका टाळप शीलाक शक्य नाशिल्लें. ताचेकडेन वायटपण घेवनय कांय साहस जायतशें दिसनाशिल्लें. शीला तशें शाणें. धीरूक दुखोवप समा जावचें ना हें ताणें येवजिल्लें आनी ताचे गाडयेंत बसलें.

शीला खरेंच धीरूचे गरयेक फारावलें काय शीलाचो आपलो म्हूण एक चलो आशिल्लो?

आतां फुडें कितें जाता तें पळोवया **नं. ध. बोरकार** हांचे **बावकें** हे धारावाहीक कादंबरींत.



**ए**स. एस्.सी. जाल्या उपरांतचें शिक्षण कॉलेजींत घेवचें पडटा अशें आदले लोक मानताले. पूण हालीं तेंपार इकरावी-बारावीचो आसपाव स्कुल पावंड्यार जाला. तरी पालकांक दिसता की आपलीं भुरगीं मॅट्रीके उपरांत कॉलेजींत शिकतात. भुरग्यांकूय आपूण कॉलेजीक पावल्यांत हाची खोशी भोगता. शीलाकूय आपूण शिक्षणीक मळावयल्या एका पावंड्या वयल्यान दुसऱ्या पावंड्यार वचून बशिल्ल्याची खोस भोगताली. ताकाय आपूण कॉलेजीक पावलेंशें दिसतालें.

पूण ताची ही खोशी पयल्याच दिसा विरजून गेली. ताका कारण आसलो धीरू. शीलाक धीरू भेटूंक नासलो तर ताचो पयलो दीस आनंदांत वचपाचो. पूण घरांत पावल थेयलें तरी शीला माथ्यावयलें धीरूचें भूत खाला उतरूंक तयार नासलें. शीलाच्या चेऱ्यावयली उदासी प्रत्येक खिणांत वाडोवपाचें काम करतालें धीरूचें भूत.

कोणाकय दिसतलें, शीलान धीरूचें हें भूत आपल्या खांदार कित्याक बसोवन घेतलें? धीरू जेन्ना ताचेकडेन उलोवंक आयलो, तेन्ना तें ताच्या पसून पयस कित्याक रावलें ना? ताच्या भेसावेल्यान, ताच्या उलोवण्यावेल्यान – ताच्या नखऱ्यावेल्यान तें ताका वळखूंक शकलें ना? बऱ्या रेस्पेदाचें भुरगें तें! कित्याक केली ताणें ताचेकडेन सलगी? तें ताचेकडेन चड उलयलें म्हणूनच तो ताका दसून रावलो. शीलान ताका एका उतरान 'शडाप' केल्लो जाल्यार तो ताका लागीं जावंचो नासलो.

शीला सोडून आनी कोणूय चली आसलें जाल्यार धीरूलीं लागोळपणा पळोवन ताचेर माजरावरी फोसां घालतलें आसलें. वगतार दावकुलां लेगीत मारतलें आसलें.

ते वेळार वर्गांत हाजीर आशिल्लें एकान एक भुरगें अशे तरेचेंच आशिल्लें!

मागीर शीलाच अशें कित्याक करूंक शकलें ना? ताकाय कारण आसा. शीला एक सभ्य घराण्यांतलें भुरगें. ही सभ्यताय ताची अडेची नाशिल्ली. ताच्या वाडवडलांनी कमायल्ली. आपले व्हडविक्रायेची पुराय जाणविकाय शीलाक आसली. ताका लागून केदींय व्हडलीं संकश्टां ताच्या मुखार उबीं रावलीं तरी तें आपली सभ्यतताय आनी घराण्याची व्हडविकाय दोळ्यां आड करूंक शकनासलें. जो मेरेन आपल्यांतलें बरेंपण सांबाळूंक जाता, तो मेरेन

सांबाळचें. प्रकरण हाता भायर वताशें दिसता तेन्ना मात मनशान सादूर रावंक जाय, असली शिकवण गाठीक मारून आशिल्लें तें!

शीला धाडसी आसलें. पूण धीरू धाडसी, तड्डकी आनी कपटी आसलो. आपल्या सुवार्था खातीर तो कितेंय करूंक शकता, ही गजाल आतां शीलाच्या हे मेरेन लक्षांत आयिल्ली. ताका लागून तें निर्शेल्लें. शीलाची ही निर्शेणी निर्मलापासून कशीच लिपून रावलीना. आपले मामी मुखार सतत हांसत्या चेऱ्यान वावुरपी शीला आज कसल्या तरी चेंपणा खाला आसा, ही गजाल निर्मलाच्या लक्षांत आयलीच! ताणें कळाव करिनासतना शीलाक प्रस्न केलो -

''कितें जालें गो शीला? तोंड सामकें बावंलाशें मुगो तुजें! जिवाक बरें बी दिसना काय कितें गो? सकाळीं भिजून आयलां तूं. आंग बी तापुना मुगो? तशें जाल्यार सांगूंक अनमनू नाका बाये!'' अशें म्हणून निर्मलान शीलाच्या कपलाक हात लायलो.

''ना गे मामी! तूं बेटीच काळजी करता. कांयच जावंना म्हाका.''

''कॉलेजीक पावलां म्हूण तकलेर ताण बी पडुना मुगो?''

''क्लास सुरू जावपाचे आसात. अजून, आनी ताण कसलो करपाचो?''

''मागीर तूं इतलें त्रासीक कित्याक दिसता तर? हांगा आयिल्ल्याक आयजच पळेता तुका हावं चिंतेस्त कशें!'' शीलान चिंतलें, घरा आशिल्लें जाल्यार आवयक कितेंय दाखय-लिपय करूंक जातालें. हांगा कितलेंय जाल्यार परकें. मामा-मामी ताचे पालक जावन आसात. कितेंय बरें-वायट घडलें जाल्यार तीं जापसालदार आसतलीं. आनी घडिल्ली गजाल तांकां लिपोवन दवल्ली जाल्यार आपल्याचेर दोश येतलो. तेन्ना धीरूचे बाबतींत कॉलेजींत जें कितें घडलें, तें मामीक लिपोवन दवरप समा न्हय, तशें केल्यार तो आपल्याक सतायल्या बगर सोडचो ना. फाल्यां पावस आसू वा नासूं, तो आपल्याक व्हरपाक गाडी घेवन बसथानकार आयल्या बगर कसोच रावचो ना, हाची खात्री आतां शीलाक जाल्ली! ताका मामी मुखार तोंड उक्तें केल्या बगर दुसरो पर्याय ना सो दिसलो.

''मामी!''

''उलय गो बाय!''

''हो संवसार असोच आसता गे?''

''कित्याक लागून म्हण्टा तूं अशें? मदेंच संवसाराचीशी याद जाली?'' निर्मलान शीलाकडेन थीर नदरेन पळयत प्रस्न केलो.

''लोकांकडेन रीतीन-सभ्यतायेन वागचें, अशें आमचीं वडील मनशां सांगतात.''

''जाण्टीं कितें सांगतात तें आमच्या बऱ्या खातीरच सांगतात. पूण कोणाकडेन केन्ना कशें वागपाचें तें आपणें थारावचें आसता.'' निर्मलान आपलो अणभव उक्तायलो. शीला चितूंक पडलें. ताका दिसलें, आपणे धीरूकडेन सरळपणान वागून चूक बी करूना मूं? ना. चूक कशी जातली? दुसरो कसोय आसूं. आपणे आपली सभ्यताय सोडूंक उपकरना. धीरू आपूण जावन उलोवंक आयिल्लो. ताका झिडकारप सभ्यतायेक धरून नासलेंच. ताच्या मनांतलो हेत घडये वायट आशिल्लो जावं ये. पूण तो म्हाका कसो कळटलो? ताच्या भेसावेल्यान? तशें मानल्यार आयज वचत थंय चित्र-विचित्र भेसांत कितलेशेच लोक पळोवंक मेळटात. तांकां सगळ्यांक वायट म्हूण कुशीक मारचे पडटले.

तरी शीलाचें मन धीरूविशीं साशंक जाल्लें. धीरू ताचेकडेन इश्टागत जोडूंक सोदता. धीरूचें ताचेर प्रेम आसा. ते खातीर ताणें ताका गाडयेंत बसोवन बसथानकार व्हरून सोडिल्लें. ताचे फाटलो हेत अजून स्पश्ट जावं नासलो.

धीरूचें हें प्रेम भाव-भयणीच्या स्वरूपाचें आसूंक शकता. आनी ताणें आपल्याक व्हकल मानून आपल्याचेर मोग केलो तर? ताच्या मनांत तशें कितेंय आसल्यार मात, आपणे ताका दिल्ली सभ्यतायेची वागणूक आपल्याक म्हारग पडपाची शक्यताय आसा, अशें शीलाक आतां कळून आयिल्लें. ताणें आपल्या मनांतलो भंय उक्तेपणान उलोवन दाखयलो.

निर्मलान शीलापरस चार पावसाळे चड काडिल्ले. ताचो जीविताणभव पुस्तकागिन्यानाचेर आधारीत नासलो, तर तो प्रत्यक्षाणभव आसलो.

निर्मलान धीरू वांगडा घडिल्ली शीलाची गजाल कान लावन आयकली. निर्मल चड शिकूंक नासलें. तरी तें मागास विचारांचें नासलें. शीला मुजरत केन्ना चुकीचें वागचें ना, हाची निर्मलाक खात्री आसली. तरी तें ल्हान आसा. जगाची रीत कळपाक ताका लोकांचें मन जाणोवन घेवपाची संद फाव तशी मेळूंक ना. तेन्ना तें कितलेंय शाणें आनी हुशार आसलें तरी ताका दुश्टांपासून सावध रावपाक दोन उतरां सांगपाची गरज आसा, अशें निर्मलाचें मन ताका सांगूंक लागलें.

''तुजें कांयच चुकलें ना गो शीला! बेटेंच खंती जावं नाका. तुजे सुवातेर हांव आशिल्लें जाल्यारूय तेंच करतलें आसलें. सुसंस्कारी मन दुसऱ्याक केन्नाच दुखोवंक सोदिना. धीरूकडेन इश्टागत करपाक तूं वचूं नासलें ताचेकडेन. तो जर तुजेकडेन आयलो, बरेभशेन उलोवंक लागलो. तर तूं ताका ओशमराद दिवन धांवडायतलें? आनी तशें केल्यार तें मनीसपण थारतलें गो?

आनी दुसरी गजाल. ताका जर तुजो वांगोड आवडटा, तुजेकडेन ताका इश्टागत करिनशी दिसता, तर तातूंत कितें वायट आसा, अशें म्हाका दिसना बाये!

हां, आनी एक गजाल तुगेली गोंदळांत घालिसारकी आसा आनी ती म्हळ्यार धीरून शिळोवण्यो घालून आपल्या वांगड्यांक एकठांय करप. हीं लक्षणां मात बाये म्हाका सभ्यतायेचीं दिसनात गो! ताका लागून, ताचेपसून सावध रावपाची शिटकावणी दिवची, अशें म्हाका दिसता.''

शीला कितलेंय धाडसी, नितळ



आनी उक्त्या मनाचें आसलें तरी तें चली भुरगें आसलें. ताच्यांतले ताकतीक मेर आसली. ते भायर ताणें आपली खरेली वळख धीरूक दिंवनासली. ते खंयच्या घराण्यांतलें, ताचो बापूय कोण, समाजांत ताचो दर्जो कितें, हाची पुराय खबर धीरूक आशिल्ली तर तो घडये शीलाकडेन नरमायेन वागतलो आसलो. निदान इतले लागीं तरी येवचोच नासलो.

"मामी, आतां कितें करपाचें? म्हाका बेटोच भंय दिसता गे!"

"भिंवन कसलोच फायदो ना. येता त्या प्रसंगाक तोंड दिवपाचे तयारेन रावंक जाय मनशान! फुडें संकश्ट येतलें म्हूण आदींच हात-पांय गळोवन उपकरता?"

"तशें न्हय गे. फाल्यां तो गाडी घेवन मुजरत बसथानकार आयलो जाल्यार कितें करपाचें?"

"तुवें गाडयेंत बसपाचें न्हय."

"ताका विरोध केल्यार ताचें मन दुखवतलें. मागीर तो चाळवचो ना गे मामी?"

"तो चाळवतलो म्हूण तूं ताचे गाडयेंत बसतलें गो?"

हें आयकून शीलाक कच्च जालें. मामी कितें सुचोवंक सोदता तें ताच्या लक्षांत आयलें. केदो वेळ तें निर्मलाच्या चेऱ्याकडेन पळयत रावलें. निर्मला ताका सुचोवंक सोदतालें, ताचो हेत लक्षांत घे आनी वाग. धीरू जर सभ्य मनीस आसत जाल्यार तूं गाडयेंत बसलें ना जाल्यार तो तुजेर चाळवचो ना. तुजेर तो कसलीच जबरदस्तीय करचो ना. तूं जर धिरान वागशी जाल्यार खंयचोच धीरू तुका वाकडे नदरेन पळोवचो ना. केदोय व्हडलो धीरू धीर सोडून पळून वतलो.

शीलाची नदर निर्मलाच्या चेऱ्याचेर थीर जाल्ली आसतनाच, पुनवेच्या राती चंद्रिमावेलीं कुपां पयस जातकीर तो पुराय हाशिल्ल्या वरी दिसता, तशीच तरा शीलाची जाली.

"मामी तुज्या मनांतलें कळ्ळें म्हाका. ह्या फुडें केन्नाच म्हजो निर्शेल्लो चेरो तुका पळोवंक मेळचो ना. म्हजे प्रस्न हावंच सोडयतलें."

"म्हजी तुजेकडच्यान हीच अपेक्षा आसा. पूण एक गजाल लक्षांत दवर बाये!"

"कसली मामी?" शीलान उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

"तूं शाणें आसा हातूंत मातय दुबाव ना. पूण केद्याय व्हडल्या हुशार आनी ताकतवानाक दुसऱ्याच्या आदाराची गरज पडटाच. तेन्ना तुजेर कसलोय वायट-बरो प्रसंग आयल्यार, हे तुजे मामीक काळखांत दवरूं नाका! हांव आसां तुज्या सांगाताक."

निर्मलाच्या धीरदिण्या उतरांनी शीलाच्या मनावयलो घयरांव पयस जालो आनी तें निश्चिंत जालें.

दुसरे दिसा मनांत कसलोच दुगदूग धरिनासतना शीला कॉलेजीक गेलें. पावस पडपाचीं चिन्नां दिसनासलीं. तें बशींतल्यान सकयल देवलें. ताणें सज हेवटेन-तेवटेन नदर मारली. पळय जाल्यार एका झाडामुळांत धीरूची गाडी उबी आशिल्ली. गाडयेक तेकून उबो रावन धीरू शीलाची वाट पळयत उबो आसा. शीला ताचेकडेन पळयनासतना मान सकयल घालून आपले वाटेन चलत रावलें.

शीलान आपल्याक पळोवना अशें समजून धीरून रस्तीन हॉर्न मारलो. तरी शीला मान वयर काडिनासतना ताकतीन चलत रावलें. हॉर्न मारूनय शीला आपल्याकडेन लक्ष दिना तेन्ना मारलें झक म्हूण आनी कोणूय जाल्यार थंयच्यान कूस मारतलो आसलो. पूण निर्लज्ज धीरून तशें केलें ना. तो बरोच वेळ गाडयेंत तसोच बसून रावलो. शीला आपल्याक मुजरत टाळता, ही गजाल ताच्या लक्षांत येवंक चड कळाव लागलो ना. ताका शीलाचो मनांतल्या मनांत खूब राग आयलो. तो ताचेर खंय आनी कसो काडचो, हाचो विचार तो गाडयेंत बसून करूंक लागलो.

दुसरे वटेन शीलाचेंय मन मुसकां मारिनासलें. तें धीरूविशींच विचार करतालें. धीरू जर बरे मनाचो भुरगो आसत, तर तो आपल्या फाटल्यान लागचो ना. आयला ते वाटेन परत वतलो. आनी जर तो असभ्य-तवसांस आसत जाल्यार आपली फाट सोडचो ना. खरें म्हळ्यार शीला एके तरेन धीरूची परीक्षाच घेतालें.

तो मार्ग फक्त कॉलेजीकडेन

वतालो. येरादारी व्हडलीशी नासली. एकाद्री सायकल ना तर स्कुटर मदें-मदें पासार जाताली. एकाद्री गिरेस्तालीय गाडी भुरग्यांक घेवन येताली. चडशो चलयो चोम्यांनी येताल्यो. शीलाक मात इश्टीणी जोडपाक अजून संद मेळुनासली. आयज तें रस्त्यावेल्यान एकटेंच चलतालें. रस्तो फकत उच्च माध्यमीक शाळेकडेन वतालो. कॉलेज तेकून आसली तरी ताका रस्तो वेगळो आसलो.

शीलाचें एकटेपण ताका आतां फायद्याक पडिल्लें. तें आतां बसथानका पसून इल्लें चडच पयस गेल्लें. ताच्या फाटल्या-फुडल्यान लागसाराक कोण ना तें पळोवन धीरून खिणांत गाडी चालू केली. जाता तितले गतीन ताणें ती धांवडायली. शीलाच्या सामकाराक ताणें जाता तितल्या नेटान ब्रेक मारलो. दार उकतें करून ताणें शीलाक भितर बसपाचो आग्रो केलो. कालूय ताणें हेच युक्तीचो उपेग केल्लो.

"धीरू, तूं? अशें कितें करता रे तूं? अकस्मात ब्रेक-सो मारलो? कितलें भियेलें हांव!"

"तूं इतलें भितलें म्हूण म्हाका खबर नासली."

"कित्याक भिवचें ना? मनीस न्हय तर हांव?"

"म्हाका खबर नासली, तूं इतलें भिजूड म्हूण! आनी हावें इतलो हॉर्न मारलो आसतना तुवें तकली वयर करून पळेलें लेगीत ना."

"म्हाका संवंय ना तशें पळोवपाची." शीलान सरळ जाप दिली.

"चल बस."

"ना. तूं वच."

"कित्याक? हांव मुजरत आयलां तुजे खातीर!"

"येवपाची गरज नासली."

"तुका नासत, पूण म्हाका आसा!"

"कित्याक?"

"तुजे असल्या स्मार्ट आनी मोगाळ चलयेचो वांगोड म्हाका आवडटा म्हूण!"

"हांव मोगाळ आनी स्मार्ट? तुजी-म्हजी वळख तर कालच्यानच जाल्या. इश्टागतीक इतलीच वळख पुरो जाता रे धीरू?"

"म्हाका तितलीच पुरो. चल बस तूं गाडयेंत. क्लास सुरू जावपाचो टायम जालो."

"हें पळे धीरू, काल एकदां हांव तुजे गाडयेंत बसलें. आतां म्हाका फोर्स करूं नाका."

"बरें आसा. दुसरे फावट तुका फोर्स करिना. आतां बस."

"आतांय ना, आनी हेयफुडें तूं केन्नाच गाडी थांबोव नाका म्हजे खातीर! म्हाका आवडचें ना तें!" शीला मात्शें कडकसाणीन उलयलें.

शीलाली कडकसाणीचीं उतरां धीरूक मानवलीं. ताका दिशिल्लें शीला सादें-भोळें. ताका पटोवपाक आपल्याक जड वच्चें ना. पूण ताच्या रुपांत जाल्लो बदल पळोवन तो हालल्लो. ताका दिसलें, शीला मुखार आपली दाळ आतां कशीच शिजची ना, तो थंयच्यान पळ काडुंकय शकलो ना. ताचो अहंकार जागो जालो. तो शीलाकडेन गरजेभायर घासाघीस करूंक लागलो.

इतले म्हणसर फाटल्यान चलत आयिल्लीं भुरगीं गाडयेकडेन एकठांय जालीं. तांकां पळोवन शीलाक धीर आयलो. ताणें चंडीकेचें रूप धारण केलें आनी धीरूक फरमायलें,

"धीरू, वाट सोड म्हजी! ना तर हांव प्रिन्सीपलाकडेन कागाळ करतलें."

धीरू प्रिन्सीपलाक चड भीक घालपी! पूण सगळी लज कडाशेक लावन मात तो भोंवनासलो. ताचेच कॉलेजींतल्या चलयांमुखार शीला ताचेर तापलें, हाची ताका लज जाली.

धीरू थंयच्यान कडसरलो. पूण वतां-वतां शीलाक धाक घालूंक तो विसरलो ना.

"शीला, तुवें म्हजें मन दुखोवन बरें करूं ना. हाचें मोल तुका फारीक करचेंच पडटलें. 'आय व्हील शो यू शीला' अशें म्हणत चलयांच्या चोम्याचेर ताणें एक नदर मारली. रस्त्यावेलो पत्रो उडयत ताणें गाडी कॉलेजीचे दिकेन डाफरायली.

"तुजें नांव शीला गो?" चोम्यांतले एके चलयेन जाप केली.

"हय. तुजें नांव कितें?"

"सुमन."

"आनी म्हजें नांव शाली."

"बरें जालें. एका निमतान वळख तरी जाली."

"आमकां कालच तुजेकडेन वळख करीनशी दिसताली. पूण हो तुका आपणालेंच बेंस कशें समजून लागलो न्ही गो फाटीक?" आनी एकले चलयेन तोंड घालें!

"आनी तूंय ताजेकडेन अशे तरेन मुरगट्टालें... की आमकां दिसतालें पयलेच भेटेक तुमचो मोग बी चल्ला जातलो." सुमन उलयलें आनी शालीन दांत दाखयले.

"हांव मुरगटनासलें आं, ताचेकडेन. आतां तुमचेकडेन उलयतां तशेंच ताजेकडेन उलयतालें. हां, आतां हांसत्या तोंडान बरेभशेन उलयतालें म्हूण तुमकां तशें दिसलें जायत."

"कितेंय जावं गो. आतां तुवें ताका बरी अद्दल घडयली. आतां कळ्ळें आमकां तूं कशें आसा पळे तें!" शालीन आपलें मत उक्तायलें.

"कोणय मात्शें बरेंऽ उलयलें जाल्यार रोकडेच हिरोगिरी करपाक तयार हे!" सुमनान आपलो अणभव सांगलो.

"ताकाच लागून खुबशो चलयो रागीट आनी सुकिल्ल्या चेऱ्याच्यो पळोवंक मेळटात." चोंब्यांतलें एक चली उलयलें.

शीलाक आतां आयत्योच इश्टिणी मेळिल्ल्यो. एका-मेकाचीं फकांडा करीत, हांसत-खेळत शीला आपल्या वांगड्यां सयत केन्ना कॉलेजीच्या दरवंट्याकडेन पावलीं हाचो पत्तो कोणाक लागलो ना.

वाटेर गणोवनय तीं लेक्चर सुरू

जावंचे पयलीं कॉलेजींत पाविल्लीं.

सैमांत केन्ना अकस्मात बदल घडत हें कोणाच्यान सांगूक जायना. काल दीसभर पडिल्ल्या दाट पावसावेल्यान दिसून येतालें की फुडले दोन-तीन दीस तरी पावसाक नेट आसतलो. रातीकडेय तो सतत पिरपिरत आसलो. मदें-मदें वाऱ्यासयत दडकोय येवन वताल्यो. मात कोंब्यान साद घाल्या उपरांत लोक जागे जाले आनी पावस इल्लो इल्लो उणो जायत गेलो, इतलो की सकाळ जाता म्हणसर पावसाचें नांव ना.

आयज अकरावी-बारावेचे वर्ग नेमान सुरू जावंक कसलेंच आडमेळें आयलें ना. वर्ग सुरू जातांच शीलान आपल्या माथ्यावयलें चेंपण पयस केलें. सकाळीं जें कितें घडलें, तें सगळें विसरलें. आनीक कोणूय जाल्लें जाल्यार धीरूल्या धमकावण्यांनी अर्दमेलें जावपाचें.

आतां देड जाल्लें. कॉलेज सुटिल्लें. शीलाक धीरू आनी ताच्या धमकावण्याची सट्‌ करून याद जाली. ताणें पुराय वर्गार नदर मारून धीरू खंय दिसता काय म्हूण पळेलें. धीरू खंयच दिसलो ना. ताका 'सु़ऽऽ' जालें. बिनधास्त वर्ग सोडून तें पायऱ्यांवयल्यान सकयल देवतालें. पळय जाल्यार फुडें सुमन उबें आसा.

"हाय!" सुमनान शीलाक आपुलकायेन जापायलें.

"हाय सुमन! तुजीं वांगड्यां फुडें गेलीं काय कितें गो?" शीलान आस्थेन खबर घेतली.

"आजून देवूं ना. हीं पळे येतात. ताणीं म्हाका सांगलां, तुका एकटें वचूंक दिवंनाका म्हूण. तूं आतां बसीमेरेन आमच्या वांगडाच येतलें-वतलें. तूं आयज सावन आमची इश्टीन जाली. तुका एकटें सोडून कशें चलत? सदांच वेळ-काळ सांगून येना, अशें आमच्या जाण्टेल्यांचें म्हणणें!" सुमन आजीबाय कशी गांठीचीं उतरां सोडून मेकळें



जालें.

वयांत आयिल्ल्या समवयस्क चलयांचो चोंबो आतां रस्त्यावयल्यान आवाज चडयनासतना हांसत खिदळत चलतालो. जिवाभावाच्यो इश्टिणी त्यो! तातूंत आयज नव्या इश्टिणीची भर पडिल्ली. मात ही नवी इश्टीण अजून तांच्यांत समरस जावपाची आशिल्ली. सगळीं उलयतालीं, शीला मान सकयल घालून आपलेच तंद्रीन चलतालें. नाड आनी पाडे बुध्दीचे मनीस हुशार आसतात. एकदां कोणाकूय फोंडांत घालपाचें भूत तांचे तकलेंत शिरलें म्हणटकच तें केन्ना खंयच्या पावंड्यार पावत हाचो नेम नासता.

धीरू शीलाक मेथ्थार खावन गेल्लो तो वर्गांत बसून मूस मारूंक न्हय. ताका शीलाचो बदलो घेवंक जाय आसलो. तशें केलेबगर ताका न्हीद पडची नासली. आपली कापाजदाद शीलाक आनी ताचे इश्टीणींक दाखयल्या उपरांतूच ताचें उचंबळ मन शांत जावपाचें.

शीलान केल्लो ताचो अपमान हेर चलयां हुजीर जावंनासलो तर घडये तो गप्प बसत आसलो.

तो वर्गांत गेलो. ताची हजेरी घेतल्या उपरांत ताणें वर्गांतल्यान कूस मारली. आपल्या दोन इश्टांक घेवन कॉलेज सुटच्या वगतार कॉलेजीचे वाटेर आयलो.

कॉलेजीच्या अरूंद रस्त्याकडेन एक विशाळ असो वटवृक्ष आसलो. तो रस्त्यावयल्यान आयिल्ल्या-गेल्ल्यांक शीतळ सावळेन थंडसाण दिवपाचें सत्कर्म करतालो.

असल्या ह्या पवित्र रूखातळा पापी धीरून पापकर्म करपाचें थारायलें. ताणें आपली कार कोणाक दिसना तशी झिलांपयल्यान व्हरून दवरली. दोगूय इश्ट आनी तो वडा मुंदांत येवन शीलाची वाट पळयत तिश्टत रावले.

धीरूक दिशिल्लें शीला कालचेभशेन एकटेंच येतलें. पूण ताचो अंदाज चुकलो. पयसुल्ल्यान ताका चलयांचो एक चोंबो येता तो दिसलो. धीरून अंदाज बांदलो. शीला ह्याच चोंब्यांत आसूंक जाय. ताणें आपल्या इश्टांक वडा फाटल्यान लिपूंक सांगलें. आपूण चोंब्यार पाळत थेवन रावलो.

इतले म्हणसर चोंबो लागसाराक पावलो. शीला चोंब्यांत आशिल्ल्याची धीरून खात्री करून घेतली. ताणें आपल्या वांगड्यांक शिळोवणी घाली.

चलयां चोंबो वडामुंदांत पावलो मात, वांगड्यां तेंक्यान धीरून चलयांचेर आकस्मीक घुरी घाली. धीरू रस्त्याचेर चलयां सामकाराक हात फाकारून उबो रावलो. धीरूक अकस्मात पळोवन सगळ्यो चलयो काचाबूल जाल्यो. कांय जाणांनी गोंदळून किळांच्यो मारल्यो. पूण मजा अशी, शीला मात कसलीच हालचाल करिनासतना रस्त्याचेर थीरतायेन उबें रावलें. धीरूच्या दोळ्यांत दोळे घालून.

भित्र्या फाटल्यान कुत्रो लागता, ही गजाल शीलाक खबर आसली. ताणें आपली सुवात सोडली ना.

शीलाक सोडून दिल्यार आपूण शेणटलों. सगळ्या चलयां मुखार आपलें नाक कापतलें हाची जाणविकाय धीरूक जाली.

ताणें फाटलो-फुडलो विचार केलो ना. शीलाचो हात धरून ताणें ताका ओडपाक सुरवात केली.

"धीरू, सोड म्हाका!" शीलान हाताक झटको दीत म्हणलें.

"तुका सोडूं? खंय सोडूं? चल सोडटां!" अशें म्हणून धीरून शीलाक आनीक एकदां रस्तीन ओडून घेतलें.

"तुमी खूंट कशे उबे रावन कितें पळयतात रे, धरात तुमकां जाय ताचो हात, आनी घेवन वचात तुमकां जाय थंय. हाका हांव पळेतां." अशें म्हणत ताणें शीलाचो हात सोडलो. दोनय हात फांकारून दैत्य कसो शीलाक वेंग मारूंक धांवलो. शीलाक खंयचो चेव आयलो देवाक खबर. ताणें धीरूची नदर चुकोवन ताच्या दोंक्यार, रस्तीन एक फांपार घालो. शीला अशें करीत हाची धीरूक कल्पना नासली. तो गर्भगळीत जालो. शीलान हीच संद सादोवन चंडिकेचें रूप धारण केलें. पयल्या फांपारान धरतरेक तेकिल्ल्या धीरूचेर शीलान फांपारांचो असो पावस घालो, की ताका उठपाक संद मेळची न्हय.

आपलो हिरो फांपरां मार खाता तें पळोवन धीरूले वांगडी अजापीत जाले. तांच्यो तकल्यो भेरेल्ल्यो. तांकां कितें करचें कांयच समजनां जालें.

इतल्यान धीरू आसा थंयच्यान आड्डेलो-

"आरे भोज्यांनो, तुमच्या हातार पांचवीं नोटां दवरून हांगा हाडल्यात, ते गाढवांभशेन उबे रावन पळोवंक?"

"तुवें सांगलें बगर तुगेल्याक आमी हात कशे लायतले?"

"शापतां सांगूं नाकात रे! ओडात ताका आनी मारात भायर." धीरू अशें म्हणटा थंय आसा. धीरूच्या वांगड्यांनी शीलाचेर झोपय मारून ताका भायर ओडलें. इतले म्हणसर धीरू उबो जालो. तिगांनीय शीलाक धुकलीत वडा फाटल्यान व्हरपाची माण्णी केली.

शीलाक धुकलीत व्हरतात तें पळोवन वांगडी भुरगीं काचाबूल जालीं. थोडीं भियेलीं. एकटें तर आकांतून आड्डेलें-

"प्रथमेश कम फास्ट!" एका भुरग्यान नेटान हात हालयलो. वडामुळांत कसली तरी गडबड चलल्या. प्रथमेशान कळाव केलो ना. ताणें सायकल तशीच वळयली. पळय जाल्यार दोग-तीग गुंड एके चलयेक धुकलीत व्हरतात. प्रथमेश तो देखावो पळोवन आकांतलो. ताणें आपली सायकल तशीच धुकलून दिली. पयस रावन चित्यावरी धीरूचेर उडी घेतली. तसो पळोवंक गेल्यार प्रथमेश हाडकुटो आनी शिरपुटो. पूण एकदां कोणाचेर उडी घेतली म्हण्टकीर तो सुंगट कसो पिटपिट्टालो.

आतां ताणें एका झटक्यान शीलाक धीरूपसून कुशीक काडलें. भरभरीत ओडून हाडून ताका चलयांमदें धुकलून दिलो. मागीर तो अशे तरेन तिगांयचेर तुटून पडलो की, तांकां थंयच्यान पळ काडल्या बगर दुसरो उपाय उरलो ना. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण धीरून आपल्या वांगड्यांसयत थंयच्यान जो पळ काडलो, तो फाटल्यान वळून पळोवपाचे भानगडींत लेगीत तो पडलो ना.

धीरू तेवटेन पळून गेलो. हे वटेन चलयां चोंबो आपले वाटेन चालीक लागलो. तांच्या मनांत एकूच विचार आतां घोळटालो आनी तो म्हणल्यार प्रथमेशाचो. प्रसंग ल्हान सो. पूण तो चलयांचे दिश्टीन म्हत्वाचो आसलो. आज प्रथमेश जर थंय धावून येवंनाशिल्लो, तर शीलाचें कितें जातलें आसलें? शीला धरून चोंब्यांतल्यो चलयो सात आसल्यो. ताणीं मनांत हाडिल्लें जाल्यार तीन गुंडांक त्यो सासणाचें लिसांव शिकोवंक शकताल्यो. शीलाची देख तांच्या मुखार उबी आशिल्ली. शीलाक दिसतालें, आपणें धीरूक जसो फापरायलो, तेचपरी सातूय चलयांनीं एकठांय जावन जर त्या तिनूय गुंडांक मदें घालून खोटायल्ले, धुमकायल्ले आनी पिसडून सोडिल्ले, तर तांकां अद्दल घडटली आसली. पूण शीला सोडलें जाल्यार एकेय चलयेच्या बोडांत हे विचार आयले नात. परावलंबनाचें मूळ स तकल्यांनीं रिगून घट्ट जाल्लें. थंय एकल्याचीं शाणेपणां कशीं चलतलीं?

प्रथमेशान आतां वडामुंदातली सायकल उबी केली. दुसऱ्या हातान कपडे फाफुडले. चलयांच्या भिऱ्यांचेर एक वयल्या वयर नदर मारली. अशे तरेन की आपल्याकडल्यान व्हडलोसो कसलोच पराक्रम घडलो ना. जें कितें घडलें तें सहजतायेन घडलें.

मात सैम मनशाच्या जिवितांत सुखाचो खीण कसो आनी केन्ना निर्मीत हाचो नेम नासता. अशें करतना सैम जातधर्म, वेळ-काळ हाचें मात्य भान राखना.

प्रथमेशान शीलाक गुंडांकडच्यान आपल्या ताब्यांत घेतलें. मागीर ताणें आकांतून चलयां दिकेन धुकलून दिलें. धुकलतना ताचो एक हात शीलाच्या फुडें आयिल्ल्या हड्ड्यांच्या नाजूक आनी कंवळ्या जाग्याक लागलो. हो कळटां नाकळटां जाल्लो स्पर्श शीलाक स्वर्गसूखदिणो अणभवाक आयलो. ह्या स्पर्शान शीला स्वताक खीणभर विसरून गेले. असलो मोगाळ स्पर्श शीलाक जाय-जाय-सो दिसूंक लागलो. धीरूनय ताच्या सगळ्या आंगाक स्पर्श केल्लो, पूण तो कांटयाळो आनी दुख्खदिणो अणभवाक आयिल्लो.

प्रथमेशाकय त्या स्पर्शाची जाणविकाय जाल्ली. पूण तातूंत कसलीच आसक्ती नासली. स्पर्शान ताचे हात सुखावले. पूण हें सूख आपल्या खातीर न्हय म्हूण ताणें ताचो विचार सोडून दिलो.

शीलाचें मात तशें जालें ना. प्रथमेशाचो स्पर्श ताका फक्त दादल्याचो लागलो ना. त्या स्पर्शांत पवित्रकाय आनी आपलेंपण आसा, हाची जाणविकाय शीलाक जाली. प्रथमेश शीलाच्या मनांत रिगलो आनी



तें गूंग जालें. ते गुंगेंत घरा केन्ना पावलें, हें ताकाच कळ्ळें ना. ताच्या वांगड्यांक मात दिसलें, की तें धीरूच्या भयान दुगदुगलां - ताचे तकलेर ताण पडला. तेन्ना ताका जाता तितलो धीर दिवपाची चड गरज आसा. सगळ्या वांगड्यांनी शीलाकडेन चड उलोवप बंद केलें.

मनीस कितलोय त्रासीक आनी उचंबळ जाल्लो आसलो, तरी एक ना एक दीस ताका शांत जावचोच पडटा. ना तर फुडें जगप ताका कशेंच शक्य जायना.

म्हयनो-देड म्हयनो शीलाचें चित्त कॉलेजींत थाऱ्यार नासलें. कॉलेजींतल्यान घरा येतकीरूय ताचो चेरो खिणाकणकणी उदास-उदास सो लागतालो. कॉलेजीतलीं हेर भुरगीं हुस्केविरयत बोवाळटालीं. चडशीं भुरगीं खात्या-पित्यालीं आशिल्ल्यान तांच्या मुखार शिक्षणाच्या मोखीशिवाय आनी कसलोच हुस्को नासलो.

खरें म्हळ्यार कॉलेजींतल्या खंयच्याय शिकपी भुरग्यापरस शीलाचें जिवीत वयल्या पावण्यावेलें आसपाचें. फक्त आज्जेच्या उतरांचें मोल राखल्यार पुरो आसलें. सगळें सूख आनी गिरेस्तकाय शीलाची दासी जावपाची. पूण कांय मनशांचे बाबतींत संवसारांतल्या सगळ्या सुखापरस अहंकार मोलाचो आसता. अहंकाराक इल्लो लेगीत धपको बसल्यार अहंकारी मनीस आपले पुराय गिरेस्तकायेचेर केन्नाय खोंट मारूंक शकता. शीलानूय तशेंच केल्लें. आज्जेन शीलाचो अहंकार दुखयल्लो. ताका लागून तें गाडयो-घोडे आनी पालासेवरी निवास सोडून, गरीब मामीवांगडा इल्लेशा कुडांत दीस काडटालें. गिरेस्तकाये परस तत्वाक चड म्हत्व दिवपी मनशांचें अशेंच आसता.

''बाय शीला!''

''कितें मामी?'' शीलान न्हिदेंतल्यान जागे जाल्ल्यावरी कच्च करून आंग काडून जाप दिली.

''तूं ह्या दिसांनीं शेणिल्लें गोरूं कशें वांगता मगो?'' निर्मलान आपलो दुबाव उक्तायलो.

''खंय गे, कांय ना!'' - शीला

''कांय ना कशें तर? आदलें शीला खंय तरी शेणलां कशें दिसता म्हाका. मॉंची याद बी येता काय कितें गो?'' निर्मलान सात-आठ वर्सांच्या भुरग्याक विचारता तसो प्रस्न केलो.

''हांगा तूं आसतना म्हाका कोणाची याद येना.'' निर्शेल्ल्या शीलान तोंडार मात्शें हाशें हाडीत म्हळें.

''हांगा आयलां तेन्ना म्हज्या शीलाचो चेरो फुलिल्लो दिसतालो. आतां दिशीं-दिशीं बाविल्ल्यावरी दिसता, म्हणून म्हळें बाये! तुझी ही दशा पळेल्यार कोणूय म्हणटलो, शीलाक गरीबकाय बादली.'' निर्मल सहज उलयलें, पूण शीलाक तें मानवलें ना.

''सगळ्या गिरेस्तालीं भुरगीं फुलिल्लीं आनी तरतरीत आसतात गे मामी? तोंड आसा म्हूण कित्याकितेंय उलयतली.'' शीलान मामीवेलो राग उक्तायलो.

शीलाचे बाबतींत निर्मल सदांच सतर्क रावतालें. कारण ताचे दिश्टीन शीला लेचेंपेचें भुरगें नासलें. ताचेकडेन उलयतना उतरान उतर जोखून-मापून उलोवंक जाय हाची कल्पना आसली निर्मलाक. पूण केदोय व्हडलो शाणो आनी बुदवंत मनीस एक ना एक दीस घसरताच. निर्मलाचीय तीच गत जाल्ली. उलोवंक फाव नाशिल्लें अनावधान उलोवन मेकळें जाल्लें तें. ते पासत ताका इल्लें वायट दिसलें खरें, पूण शाणी मनशां तेंच घेवन बसनात. आपल्याकडच्यान एकाद्री चूक

घडली तर ती सुदारून फुडें वचपाच्या प्रयत्नांत आसतात. तातूंतच तांकां सुखाची वाट दिसता. निर्मलानूय तेंच केलें. ताणें आपल्या मनाचेर पांगरूण घालून आपले भाच्चेकडेन सांबाळून वागपाचें थारायलें.

आनी शीला? मामीन आपल्या मनाचेर केदेंय व्हडलें पांगरूण घालें म्हूण तें शीला पसून लिपतलें थोडेंच! आपूण आपले मामीकडेन वागतना चुकलें. तिका वायट दिसलें. पूण तें ती लिपोवपाचो प्रयत्न करता, हें ना कळपा इतलें दूदखुळें नासलें. तिका मामीचें मन कळ्ळें. आपली चूक कळ्ळी.

मामी आपल्याचेर माया करता. पूण कितलीय जाली जाल्यार ती परकी! आपूण परक्यांच्या घरांत आसां. परक्याच्या घरांत वावुरतना तांच्या मनाचो थाव घेवन वावुरपाची चड गरज आसता. तशें केलेंना जाल्यार संशय वाडपाची शक्यताय आसता. पूण शीलाक ह्या गजालींचो विसर पडिल्लो.

शीलान आपली चूक मनांतल्या मनांत कबूल केली. खरें म्हळ्यार ताणें कसलीच चूक मुजरत अशी करूंक नाशिल्ली. धीरूचे बाबतींत जें कितें घडिल्लें तें ताणें आपले मामीक सांगून मन मेकळें केल्लें. आतांची उदासी ताची भावनीक आशिल्ली. शीलाच्या मनाचो खेळ आशिल्लो तो. तो बंद करपाचो उपाय शीलाशिवाय हेर कोणाकडेच नासलो.

आपल्या मनांत उमाळे फुट्टात, हे उमाळे खोशेचे नासून चिंतेचे आसात. ही चिंता आपल्या चेऱ्यार पातळटा आनी आपूण ती लिपोवंक शकना, ही गजाल शीलाक मनांतल्या मनांत खाताली.

कसली चिंता आनी कसली उदासी? शीलाक धीरूची व्हडलीशी पर्वा नाशिल्ली. तें ताका मातूय भीक घालिनाशिल्लें. पूण ताका सतायतालीं तीं दादल्यांचीं दोन रुपां. धीरू राकेसाचें रूप घेवन समाजांत वावुरतालो, त्रास दितालो. आपलें रूप केंद्रीत करून पुरूसजातीच्या नावाक कलंकीत करतालो.

दादल्या मनशाचें दुसरें रूप शीलान पयले फावट अणभवल्लें तें प्रथमेशांत. प्रथमेश धीरूसारको गिरेस्त नासलो. धीरूप्रमाण तो जातीन बामणूय नाशिल्लो. पूण समाज बामणांकडच्यान ज्या सात्वीक गुणाची अपेक्षा करता, ते गूण प्रथमेशाकडेन आसले. शरिरान तो बळिश्ट आशिल्लोच. शिवाय सुंदरकाय आनी वीरतायेंत तो हेर कोणाय परस मातूय उणो नाशिल्लो.

प्रथमेशाची भेट आनी स्पर्श जाल्या उपरांत शीला ताच्या मोगांत पडिल्लें. हो मोग मुजरत केल्लो नाशिल्लो तर तो आपशींच घडून आयिल्लो. मात हो मोग उक्तो करपाक शीलाक तितलें-शें सोपें नाशिल्लें. कारण, प्रथमेश हो अत्यंत गरीब आनी शीलाचे जाती भायलो भुरगो आशिल्लो. ताचेवेलो मोग उक्तो केल्यार शीलाच्या जिवितांत अडचणी येवपाची शक्यताय आसली. ताका लागून प्रथमेशाविशींचें आकर्शण शीलाक तात्पुरतें तरी लिपोवन दवरचें पडलें.

मात शीलाच्या मनाची उदासी वाडपाक खरें कारण आशिल्लें, दोन दादल्यांमदलें वेगळेंपण. एक दादलो गिरेस्त घराब्यांत जल्म घेतिल्लो. पूण तड्डकी, फटींग आनी गुंड प्रवृत्तीचो. दुसरो सालस, शांत प्रेमळ, शूर आनी दुसऱ्यांचे मजतीक धावून वचपी. गरिबांतलो गरीब. पूण नाका फुडले वाटेन नीट वचपी. आपल्या कर्तुत्वाची आनी शौर्याची घमेंड ना बाळगुपी!

सिस्टर प्रिस्काच्या आवय-बापायचो आनी ताच्या शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांचो इतिहास शीलान समजून घेतिल्लो. ताका दिशिल्लें, सकयल्या समाजांतले - चड करून- दादले बेबदे आनी अन्नाडी आसतात. पूण हांगा धीरू आनी प्रथमेश हांचीं दोन चित्रां जेन्ना-जेन्ना ताच्या दोळ्यां मुखार उबीं रावंक लागलीं, तेन्ना-तेन्ना ताका दिसूंक लागलें, की ह्या संवसारांत अमूक समाज आनी जात-धर्माचे लोक वायट-बरे आसनात. बरें जिवीत जगतलो जाल्यार जात-धर्माची मेर हुपून आपल्याक फावता आनी सोबता तसलोच वांगडी पारखून काडपाची गरज आसा, हें सत आतां शीलाक कळून आयिल्लें.

बायलां-तीं मागीर शिक्षीत आसूं ना जाल्यार आशिक्षीत - चड वेळ रागार-फुगार जावन रावंक तांका जमना. शीला आनी निर्मलासारकीं सुसंस्कृत तर नाच ना. फाटल्या दिसांनी दोगांच्याय मनांत मात्शें-शें किल्मीस उप्राशिल्लें, पूण तें कायम स्वरूपाचें नाशिल्लेंच, जाल्लें-गेल्लें सगळें विसरून आतां तीं दोगांय वयलेतरांक तरी बरे भशेन हासून-खेळून एकामेकांकडेन वागूंक लागिल्लीं. वयलेतरांक हे खातीर म्हणपाचें की दोगांयचेय खाशेले अशे प्रस्न आशिल्ले. ते मनांतल्या मनांत दवरून वावरप हें तांच्या दोगांच्याय हिताचें आशिल्लें. आनी तेंच ताणीं केलें.

शीला आतां आपल्या मामीच्या सांगातान खोशेन वावरूंक लागिल्लें. आपूण आतां नेटान अभ्यासाक लागलां. आपल्याचेर कसलेंच कोणाचें चेंपण ना, अशें मामीक दाखोवपाचें तें नाटक करतालें. निर्मल मात शीलाचीं सगळीं नाटकां बरेभशेन वळखून जाणा आशिल्लें. मात तें ताका दाखोवन दिनाशिल्लें. 'तेरी भी चूप-मेरी भी चूप' असली भुमिका आपणावन वागतालीं तीं दोगांय! तरी ही भुमिका तीं कायम राखूंक शकनासलीं. एकामेकाच्या सुख-दुख्खांत वांटो घेवन जियेतलीं जाल्यार केन्ना ना केन्ना एकामेकाकडेन मनां उकतीं करपाची गरज दोगांकूय आशिल्ली.

(फुडें चलता...)



**- नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

दिका

# सल्लो



मुळाव्या भलायकी केंद्रांत आज खुबूच गर्दी आसली. हालींच नव्या दोतोरान केंद्राचो ताबो घेयत सावन ओ.पी.डी. बरीच वाडिल्ली पळोवंक मेळटा. आदल्या दोतोरा वेळार दिसाक पांच-स दुयेंत हाजेरी लावन वताले. ह्या दोतोराचो हातगूण बरो आशिल्ल्याचें जाणवतालें. नंदाचो नंबर पंचवीस आसलो. बाविसावो नंबर तपासपाक गेल्लो आसलो. तो आपले बायलेक घेवन आयल्लो. ताच्या फाटल्यान आनीक वीस-बावीस लोक लायनीत उबे आसले.

मुखा वयले दोग जाण रोकडेच वयार जाले तसो नंदा आपले बायलेक घेवन भितर गेलो.

''दोतोरबाब आमकां तपासपाचें ना. पूण तुमचो सल्लो जाय आसलो.'' नंदान बसतां बसतां दोतोराक सांगलें.

''म्हजे कडल्यान आनीक कसलो सल्लो जाय तुमकां?'' दोतोरान ताच्या मनांतलें जाणां जावपाची इत्सा दाखयली.

''भायल्यान आनीक जायतो लोक आसा. तांकां वोगीच उशीर नाका म्हण...''

''तूं लोकाचें चिंतूंक गेलो जाल्यार आपलें विसरतलो. तुजें कितें आसा तें सांग, लोकांचें हांव पळोवन घेतां.'' वेळ वाचोवपाच्या हेतान दोतोरान ताका सुचयलें.

''दोतोरबाब, म्हजी बायल परत एक फावट गुरवार जाल्या.''

''एकदम खुशालकायेची गजाल मरे. मिठाय बी हाडूंक ना?''

''मिठाय बी कांय घेवन येवंक ना. हांव म्हजी अडचण घेवन आयलां.''

''अडचण? आनीक कसली तर?''

''म्हाका दिसता हो पार्त आमी उडोवंक जाय.''

''पार्त उडोवंक जाय? पार्त उडोवप म्हळ्यार भुरग्यांचो खेळ समजता रे तूं? तूं कितें इंग्लंडाक वो अमेरीकेक आसा दिसलो, जंय भुरग्यांक आनी मासाच्या कुडक्याक वालोर दिनांत. आमी भारतीय संस्कृतीचे पुजारी मरे. भारतीय संस्कृती संवसार पळोवंचे आदींच भुरग्याक मारपाची केन्नाच परवानगी दिवची ना. पार्त उडोवप म्हळ्यार तूं खुनी जातलो मरे.'' गर्भपाताचें नांव आयकतांच दोतोराचें माथें फिरलें. दादलो आनी बायल आपले कुडीक आनंद दिवपाक ,जाय तशीं वागतात आनी मागीर चुकिचे निर्णय घेतात. ताचेर दोतोर सामको विरोधी. ताणें असलें केन्नाच खपोवन घेवंक ना.

''तुमी म्हाका समजुपाक चुकल्यात दोतोरबाब. म्हजें वर्तन तुमच्या विचारां बरोबर ना. म्हजी गजाल वेगळी आसा. आमकां भुरगें जाय आसलें तेन्ना देवान दिलें ना.''

''म्हणल्यार...''

''हांव एक सामान्य घराण्यांतलो मनीस. घराण्याचे परिस्थितीक लागून म्हाका खूब उसरां लग्न जावंचें पडलें. म्हाका दोग जाण भुरगीं आसात. व्हडलो चलो धा वर्सांचो जाल्यार दुसरी चली स वर्सांची. घरांतली सगळी जबाबदारी म्हजेर आसा. जाण्टो बापूय घरांत पडून आसा. ताच्या वखदांचो खर्च, भुरग्यांलो शाळेचो तसोच हेर खर्च करतां म्हणल्यार जीव गळ्या कडेन येता. बायल घरांतलें सगळें सांबाळटा. आतां म्हजी पिराय पन्नासांक तेंकल्या. हे पिरायेर आनीक एक भुरगें जल्माक आयलें जाल्यार........''

''पळय नंदा, पिरायेक आनी भुरगें ज़ल्माक येवपाक कांयच संबंद ना. तुजे

बायलेक कसलोय त्रास जाता? सांग गो, वोगीच बसून घोवाल्यो खबरो आयकता तें.''

''हय दोतोर, मात्सो त्रास जाता. कसल्याय कामा कडेन खर्शेल्ल्या सारकें दिसता. मात्शें घराभायर चलल्यार लेगीत धाप मारता. रातचें न्हिदपा वेळार पोटांत वळलल्या सारकें दिसता.'' बायलेन आपलें दुखणें सांगलें.

''चड तेंपान आयला न्हय पार्त? केन्ना केन्ना अशे त्रास जातात. तुकां हांव इल्लें वखद बरोवन दितां, फाल्यां म्हणल्यार त्रास जावपाचो थांबतलो.''

''ह्या शिवाय आनीक अडचण आसा दोतोरबाब.'' नंदान मर्दीच तोंड घालें ''हांव खासगी कंपनींत नोकरी करतां. ५८ वर्सांचेर रिटायर जातलों. जें भुरगें आतां जातलें, म्हज्या रिटायरमेंटा वेळार फक्त सात वर्सांचे आसतलें. सरकारी कामदार आशिल्लों जाल्यार पेन्शन तरी मेळटलें आसलें. पोटाची वेवस्ता करूंक. तुमकां खबर आसा वाडिल्ले चलयेचेर कितलो खर्च जाता. मागीर ताचो संवसार बसोवपाक खर्च. आतां हें भुरगें चलीच जाल्यार गोळ घेवपा पसून म्हजे कडेन दुसरो उपाय आसचो ना.''

''इतलो निराश कित्याक जाता तूं?'' दोतोरान ताका थातारलो.

''आमच्या सारक्या गरिबाक योग्य निर्णय वेळार घेवंक कळना म्हण नाका जावन पसून निराशीपण भोगचें पडटा. हांवें जायते बापूय पळयल्यात जे आज रडटात आपल्या नशिबाक. फुलते पिरायेर लग्न जाल्लों जाल्यार हो विचार म्हज्या मनांत येवंचो लेगीत नासलो.''

''मागीर कोणें आडयल्लो तुकां?''

''घरचे अर्थीक परिस्थितीन म्हाका आडायलो. ह्या समाजान म्हाका चली दिवंक ना हांव गरीब म्हण. लग्न जावपा खातीर म्हाका जोडचें पडलें. ही म्हजी बायल समजुतदार आनी विचारवंत म्हण तिणें म्हजो हात धरलो. देखून म्हज्या कसल्याय निर्णयाक हांव तिका सांगाताक घेतां. हो आमचो आजचो निर्णय लेगीत दोगांचोय आसा.''

''दोतोरबाब, दुसऱ्या पार्तावेळारच हांवें हांकां सांगिल्लें आमी नसबंदी करून घेवंया. हाणें म्हजें आयकलें ना.'' बायलेन घोवाच्या म्हण्णयाक अप्रत्यक्ष रितीन पुश्टी दिली.

''तर तुमी गर्भपात करपाच्या निर्णयाचेर ठाम आसात. हे आदीं केन्ना केला गर्भपात?''

''ना दोतोरबाब.''

''सहन करूंक जातलें तुज्यान?''

''दोन भुरग्यांक जल्मांक घाल्यांत हांवें. दोनय पार्त नोर्मल जाल्ले. त्यो वेदना, तें दुख्ख तितल्या पुरतें आसा कित्याक तें सोंसपाक मन आदींच तयार जाल्लें आसता. तेच भशेन हाकाय हांव म्हजें मन तयार करतलें.''

''बरें आसा. तुमची परिस्थिती म्हाका समजली. आतां सांगात, हो गर्भपात तुमी खंय करूंक सोदतात? व्हडल्या हॉस्पीटलांत वो खासगी हॉस्पीटलांत?''

''तोच सल्लो तर चड म्हत्वाचो दोतोरबाब. तुमकां सांगल्या आमची परिस्थिती, ते प्रमाण तुमीच आमकां मार्ग दाखयात.'' नंदान बाबडो जावन सांगलें.

''हें पळय, व्हडल्या हॉस्पीटलांत सगळ्यो सोयी आसात पूण दोतोर तुमकां कितलें सहकार्य करतले तें हांव नकळो. खर्च कांयच जावंचो ना. पूण धांवपळ, हांगा वच, थंय वच, हें हाड, तें हाड करचें पडटलें. खासगी हॉस्पीटलांत गेल्यार खर्च जातलो पूण सगळें वेवस्तीत. निर्णय उक्तो आसा. कितें तें तुमी थारायात. हां. एक सांगात तुमचे आदले पार्त खंय जाल्ले?'' दोतोराक निर्णय घेवपाक इतिहासाचो आदार जाय पडलो.

''पयलो पार्त व्हडल्या हॉस्पीटलांत जाल्लो आनी दुसरो पार्त खासगी हॉस्पीटलांत.''

''दुसऱ्या पार्तावेळार खासगी हॉस्पीटलांत कित्याक गेल्लीं?''

''जे दोतोर पयल्या पार्ता वेळार आशिल्ले ते दुसऱ्या पार्तावेळार नाशिल्ले आनी दुसरें कारण म्हळ्यार त्या दिसांनी हॉस्पीटलाचेर नाना तरेचे आरोप जाताले, आमकां भंय दिसलो.''

''तुमचे सारक्या दोतोरानच सल्लो दिल्लो.''

''जाल्यार ह्या वेळार हांवच तुमकां सल्लो दितां. ह्हह्ह दोतोरा कडेन वचात. म्हाका आनी ताका कांयच संबंद नांत, तरी हांवें धाडिल्ल्या दुयेंतीक तो बरी सेवा दिता.''

''हेंच तुमच्यान व्हडल्या हॉस्पीटलांतल्यान करूंक जायना?''

''जातालें. पूण आमी फक्त मुळाव्या भलायकी केंद्राचे अधिकारी. ते व्हडले दोतोर. जायते फावट आमचें आयकून घेनांत.'' दोतोरान मान पोंदाक घाली.

''समजलें दोतोरबाब. आमकां तुमचोय मान राखपाचो आसा. फाटलीं कितलीशींच वर्सां, ओसाड पडिल्लें हें मुळावें भलायकी केंद्र तुमच्याच पायांनिं जागृत केंद्र जालां. निर्णय घेवपाचो म्हजो घुस्मटमार तुमी पयस करून म्हजी आत्मशक्ती वाडयली म्हण देव बरें करूं. म्हजें मन ल्हव जालें. येतात आमी.''

''बरीं करून. जातगीर येवन भेटात म्हाका.'' दोतोरान सांगलें.

''व्हड खुशेन दोतोरबाब.''

दोतोराचो इतलो वेळ घेतलो म्हण नंदाच्या मनांत खाल्ल्या सारकें जालें. देखून तो लोकाच्यो नदरो चुकयत बायलेक घेवन मोन्यानी पासार जालो.





– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत–गोंय
मो. 9822587498

## पावसाळी

हांव येतां...
हांव येतां....

काडाड् कड् कड् कड्
घडाड् घड् घड् घड्
कुपांक पिसडून अुबंत अुडयत...

घडघड्या कडल्यान
धोडावन धोडावन...
मळबाक रडयत...

तार्चीं माणकां मोतयां
धतरीर शिंवरीत...
जमनीर झडयत...
हांव येतां...

घोड्यार बसून विजेच्या
चकचकत घडघडत
लकलकत सळसळत
हांव येतां....

धतरिचेर
चार म्हयने रावपाक
तिचे कुशींत
शिरिल्लें बीं...
बेस बरें रोवपाक...
रखरखिल्ले धर्तरेक
नवी जीण दिवपाक...
हांव येतां...

जमनिचे मुठींत
धांपिल्ल्या
बारा हजारांचें...
सवाय लाख करपाक...
तिका आसोवपाक
हांसोवपाक...
मळबाक रडयत, हांव येतां

हांव पावसा रुतु...

घडाड् घड् कडाड् कड्...
अमृतान भरिल्लें
कुपार कूप आपटून
आदळून
फोड फोडीत हांव येतां

अमृताची सरीर सर्
सळसळ सों... सों...
सर् सर् सर् सर्
सरसर...
वांटीत हांव येतां
शेतांत रोंपिल्लो रव
भात जावन कड्यांत भरसर...

म्हजो
जुनांत लायिल्लो घडघड...
सेतंब्र... सरसर....

बराबर, देवाची
सासणाची सासाय घेवन
हांव येतां...

हांव येतां!...

– र. वि. पंडित

## पावस

कोण म्हणटा आयज हांगा
उणाव आसा पावसाचो
नदर मारल्यार दिसून येता
पावस साबार तरांचो

नाचता हांगा महानंद
दूत जावन यमाचो
वाल्या कोळ्याक लजेक घालून
पावस घालता मड्यांचो

कितलो हांगा पडटा पावस
मोग पिश्या अस्तुऱ्यांचो
जाळां सोडीत येता पावस
घातकी फटींग नागवण्यांचो

रस्त्या रस्त्या पाळणिनीं
पावस हांगा वाहनांचो
तेंगशेर बसून बेपर्वाय
घालता पावस रक्ताचो

पावस हांगा नेमांचो
कायदे कानून कायलोळ्यांचो
मर्डी पडिल्ल्या खिणांचेरच
पावस मानग्यां दुकांचो

कानाकानांत फोन वाजतात
गाजता पावस उतरांचो
कंपन्यांच्या तिजोऱ्यांनीं
झडटा पावस दुडवांचो

केन्नातरी झडयलो खूब
पडवेर पावस खबरांचो
जीर्ण जीव सारतात जीण
पावस आडायत दुकांचो

– रमेश लाड
मडगांव- गोंय.

## मनसंवेदना



### दडकांचो पावस

पावस आयज
येवंक लागलो
दडका दडकांनी

यादीर यादी
येवंक लागल्या
घोडकां घोडकांनी

पयलीं पावस येतालो
घोग्या घोग्यांनी
कोंगे आमी पुंजायतालीं
चोंब्या चोंब्यांनी

उनाड इश्टिणी म्हज्यो
इतल्यो आशिल्यो पाड्यो
होटयेंतल्या कोंग्यांक
झोंपय मारताल्यो

पयलीं पावस येतालो
घोग्या घोग्यांनी
शियां कुडकुड्यान-कुयठाची
पिठी खाताना मजा येताली

ताळकुळो तेरें हाडूंक वतालीं
शेतां-भाटांनी
उकड्या तांदळाच्या पेजे वांगडा
सुरबुरीत तेरें खातालीं
वाटया-वाटयांनी

पयलीं पावस पडटालो
घोग्या घोग्यांनी
हरणछाप सत्रेन वताली
शाळेन दोगां-चौगांनी

जोर थंडी जायत म्हणून
व्हिक्स लावन,
कसाय आई दिताली
आईच्या उबदार गोदडेन
झेम बरी येताली

पयलीं पावस पडटालो
घोग्या घोग्यांनी
एकाच सत्रेन शाळेंत
वचूंक आमी रडटालीं

आवय आमकां बाय पुता करून
शाळेंत व्हरून पायताली
खूब शिकून व्हड जावंक जाय
म्हणून कश्ट घेताली

पयलीं पावस पडटालो
घोग्या घोग्यांनी
हाली भुरगेपणांतल्यो
यादी येवंक लागल्यां
घसघश्या- घसघश्यांनीं

**– सुनिता सुभाष शाह**
शांताबन – मेरशी.



### वता जाल्यार वच

वता जाल्यार वच मुखार
फाटल्यान पळोवं नाका
दुस्वास करतल्यांची तूं
परवाच करूं नाका

पयल्या सोपणार धसको म्हणून
निर्शेवन वचू नाका
मुखार वचपाचें ध्येय तूं
मनांतल्यान काडूं नाका.

लोक तुजीं फकाणां मारतले
तांचें चिंतूं नाका
तांचेर आड नदर करून
मुखार वचपाचो तूं रावूं नाका

बरे दीस येतले तुका
खंत धरूं नाका
आपशींच तोंडां बंद जातलीं
तांकां जाप करूं नाका

हें अशेंच आसता पिश्या
नागडो भोवूं नाका
आंगवस्रां चडय आंगार
हांसोवन घेवं नाका



**– अशोक शीलकार**
शील,
सावयवेरें-गोंय.

## मनसंवेदना



### विरूस

सुरान तुज्या मेळोवन सूर
गीत हांवें गायलें
ना.ना. तो सूर म्हाका
मेळलोच ना
ती मैफल रंगलीच ना ॥१॥

खुबशे तुका सांगीन म्हळें
उतरांचे हांवें गुंथलें शेले
शिविल्ले वोंठ म्हजे
उसवलेच ना, उसवलेच ना ॥२॥

मनांत उमाळ्यांची ल्हारां उठलीं
फुटच्या पयलींच विमकटलीं
तुज्या मेरेन तीं पावलींच ना
तीं पावलींच ना ॥३॥

जनरिती परमाण खेळ मांडलो
म्हजे वयलो डाव तुजेर आयलो
खेळी तुवें पुराय केलीच ना
पुराय केलीच ना ॥४॥

गेलें चान्नें, वोत आयलें
रखरखांत तुका सोदीत रावलें
उल्याक जाप म्हाका मेळलीच ना
जाप म्हाका मेळलीच ना ॥५॥



– विमल प्रभूदेसाय
बेळगांव



### फटकीरी

न्हंयच्या तिरार
सुस्कारीत, ताणीत दोळे
तूं गवता कोणाक?
राती गेल्यो
दीस गेले
गेलें दोळ्यांतलें
काजळ व्हावन
माथ्यांतलीं गोठलां
गाठी सोडीत
शिंपडलीं होटयेंत
श्याम घेवन
श्वास रोखून
येवना म्हण
कोणाक बाये तूं शिणटा?
वाट ताची पळोवंक
कितें फावो तुकां
जो पावलो फटोवन
न्हंयच्या त्या पारार
साडो सुडो जावन
होगडावन तुजें
जुवानपण



– सरस्वति दा. नायक
श्री स्वस्ति,
सांकवाळ, सिंपाळ.

### आधुनीक फॅशन

ना ताका काळ वेळ
जगता जिवन पोरखेळ

सोंपलो म्हयनो पडलो पगार
घरचे वाटेर आडखळता, दिसलें बार

म्हणतात जिवीत हे आधुनीक
जगले ते जगले, थोडे पावले मागूंक भीक

आवय बापूय कामाक घर रामाक
भुरगीं शाळेंत घालून कुलूप घराक

ट्यूशन घेवप जाल्या एक फॅशन
आसत घडयेक पालकांचें शाणपण



– व्यंकटेश शिरोडकार
काणका, पर्रा-गोंय.

### मुर्तिकार

त्या फातरांत
मुर्तिकाराक देव दिसलो
स म्हयने कोरांथून
मुर्तय घडयली
आतां पळयता अपुरबायेन
मुर्तितलो फातर
गर्भकुडी भायल्यान!



– संहिता कुलकर्णी
नारायण नगर, होंडा,
साखळी–गोंय

# सामाजिक बांदिलकी सांबाळपी एक उद्योजक : देवेंद्र ढवळीकार

**फों**ड्या शारांत भितर सरल्या बराबर विश्वकमल ट्रॅव्हल ची आमकां, म्हळ्यार बिम्ब परिवाराक याद जाता. आनी विश्वकमल ट्रॅव्हल म्हणटकच दोळ्यां मुखार उबो रावता देवेंद्र ढवळीकार.

देवेंद्र उर्फ गोपाळकृष्ण ढवळीकार बिम्ब परिवाराचो वांगडी. २ जुलाय हो ताचो जल्मदीस. पूण ह्या जुलायाक, ताच्या जल्म दिसाक एक खाशेलें म्हत्व आसा. देवेंद्र आपल्या जिविताचीं पन्नास वर्सां पुराय करता. ह्या भांगरा महोत्सवी वाढदिसाक देवेंद्र आनी ताचे इश्ट तशेंच घरचीं हांका जितली खोस भोगता ताचे परसूय चड आमकांय भोगता.

देवेंद्राकडेन आमी पळयता आसतना एक कर्तृत्वी उद्योजक म्हूण पळयताच पूण सामाजीक बांधिलकी बाळगुपी आनी आपलेपरीन समाजांतल्या वेगवेगळ्या उपक्रमांत वांटो घेवपी उमेदी तरनाटो म्हणूनय आमी ताचेकडेन पळयतात. तच पासत असल्या उद्योजकांची आमकां अपुर्बाय आनी तोखणाय.

ल्हान पिरायेचेरूच देवेंद्रान वास्तुविकास वेवसायांत पावल घालें. ढवळे मळाचेर ज्यो इमारती नदरेक भरतात ताचे शिल्पकार देवेंद्र.

देवेंद्र ढवळीकाराचो जल्म अंत्रुज म्हालांतल्या सैमसुंदरायेन भरिल्ल्या ढवळी गांवात जालो. आपल्या ह्या भुरग्यान व्हड जातकच कितें तरी दोळे दिपकावपी कार्य करचें अशी ताच्या आवय-बापायची इत्सा आशिल्ली. आयज देवेंद्राचें कर्तुब पळोवन तांची ती इत्सा ताणें पुराय करून दाखयली अशें म्हणूंक हरकत ना.

इमारत बांदकामा वांगडाच देवेंद्रबाबान इलेक्ट्रॉनिक्स मळाचेरूय पावल घालें. फोंडेचें विश्वकमल ट्रॅव्हल हीय एक



ताची निर्मणी. वेगवगळ्या सुवातानी कामांखातीर वचपी फोंडेचे आनी सरभोंवतणचे लोक हेरकडेन वचून तिकेटीचें आरक्षण करतात हें देवेंद्रान पळयिल्लें. मागीर ती रेल्वेची तिकेट जावं, विमानाची जावं वो बसीची. ह्या आरक्षणा खातीर ह्या लोकांक कितली तकालस घेवची पडटा हें ताणें पळयल्लें. ते भायर ताका लोकांच्या सतत संपर्कांत रावप आवडटालें. हातुंतल्यानूच ट्रॅव्हल कंपनीची कल्पना ताका आयली आनी ताणें विश्वकमल ट्रॅव्हलची कल्पना अस्तित्वात हाडली. देशी-विदेशी पर्यटकांची सेवा फोंड्यांत जावंची ही ताची येवजण म्हूण सगळ्या विमान कंपन्याच्यो तिकेटी ताणें विकपाक सुरवात केली. ताचे हे सेवेची दखल घेवन विमान कंपन्यानी ताका एजन्सी दिली.

कोंकण रेल्वे तिकेटी, कदंब तशेंच खाजगी बसीच्यो तिकेटी, इंटरनेट, ई-मेल, विदेशी चलन बदलून दिवप ह्या सेवांची तातूंत भर पडली. पर्यटकांक जाय त्यो सगळ्यो सुविधायो एकाच पाख्याखाल मेळूंक लागल्यो.

देवेंद्र फक्त आपलो धंदो बरो आनी आपूण बरो असो विचार करून रावलो ना. असले आपले पुरतें पळोवपी उद्योजक समाजांत पायलेक पंचवीस आसात. पूण देवेंद्र तांतलो न्हय. ताका आपूण ह्या समाजाक बांधील आसां हाची जाण आसा. तेच पासत सगळ्या सामाजिक वावरांत ताचो वाटो आसताच.

देवेंद्रबाबान जायत्या संस्थांक आर्थिक मजत केल्या. कपिलेश्वर पंचायतन संस्थानाचो तो अध्यक्ष जालो. गिरिजाबाई केळेकार यादस्तीक संगीत संमेलनाचें ताणें येवकार अध्यक्षपद सांबाळ्ळें. अंत्रुज शिगमोत्सव निधी समितीचो तो कितलींशीं वर्सां अध्यक्ष आशिल्लो. केरीची कुलदेवता विजयादुर्गा संस्थानाचो तो उपाध्यक्ष आसा. ढवळेच्या भौशीक गणेश मंडळाचो तो संस्थापक. ढवळी अर्बन पतसंस्थेचें अध्यक्षपद ताणें सांबाळ्ळां. फोंडेंतल्या शिक्षण तशेंच सांस्कृतीक संस्थाकडेन ताचो संबंद आसा.

देवेंद्रबाबाच्या वावराची दखल नवी दिल्लीच्या नामनेच्या संस्थेन घेतली. हे संस्थेचो २००० वर्साचो राष्ट्रीय एकता पुरस्कार तशेंच २००२ वर्साचो **एक्सलन्स इन टुरिझम** हो पुरस्कार ताका लाबला. फर्मागुडीच्या गिरिजाबाई केळेकर यादस्तिक संगीत संमेलनात, भौशीक गणेश मंडळ ढवळी आनी हेर जायत्या संस्थानी ताचो जाहीर भोवमान केला.

असो हो देवेंद्र ढवळीकार ह्या म्हयन्याचे २ तारकेर पन्नास वर्सां पुराय करता. ताच्या ह्या भांगरा उत्सवी वाढदिसाक बिम्ब परिवाराचीं परबीं.





# भिरांत

मे म्हयन्याची गरमी सोंसूंक नज आशिल्ली. जाता तितले बेगीनच काम काबार करून किचनांतलें एकदाचें भायर सरपाक मेळटलें म्हण हांव गडबडीन आशिल्लें. भुरगीं सुटयेचीं मामागेर गेल्लीं. आमगेलो हो जागो जावन हातरुणाचेर लोळटालो. इतले म्हणसर दाराची बेल वाजली. 'अरे, दार पूण उगड' म्हण हांव आड्डतकीर स्वारी दार काडपाक गेली आनी 'आवयस्' म्हणत हो सोमतोच टॉयलेटींत धांवलो. 'हागऱ्या फुडे खंय वागरे खंय?' अशें म्हण धावला जायत म्हण हांव भायर गेलें. जाल्यार दारार खऱ्यानीच वाग. तिकतिकीत हळदुवो रंग आनी ताचेर काळ्यो पट्ट्यो आशिल्ल्या वागाक दारांत पळोवन भर दिसा उजवाडे म्हज्या दोळ्यां मुखार नखेत्रां चकचकपाक लागलीं. तशेंच हांव दारा कुशिच्यान घरा भायर कडसरपाक पळोवपाक लागलें. तेन्नां हो वाग बरोच चवताळलो आनी म्हाका म्हणपाक लागलो, 'सदसदां फटोवपाक कितें तो केक्यां भोबो? तूं कितें स्वताक ती काणकोणची रंगावती म्हण समजता काय कितें? आनी लक्षांत दवर. भायर वचून दाराक खिळी-बिळी घालशीत जाल्यार तुजो घोव भितर आसा. त्या दीस हांव मातसो घाळ उल्लों. चुलीर शिजतल्या त्या मातयेच्या बुडकुल्यांतल्या हुमणाचो वास म्हज्या नाकांत गेलो आनी सगळी भानगड जाली.'

हो वाग कोणागेरय पोशिल्लो बी न्हय मूं? काय वागाचें कातडें गुठलायिल्लो हो मनीस काय? असो दुबाव हात-पांय कडकडटात अशे अवस्थेंत पुसून म्हाका आयलो. हो म्हळें आतां मनशां भशेन उलयताच, दारावेली बेल पुसून हाणें वाजयली, जाल्यार कित्याक पूण हाची सगळी खबर काडची न्हय? म्हण ताचेकडेन धिटपणान उलोवपाचें हांवें थारायलें. जावन जावन व्हडलें कितें जातलें? हो म्हजेर उडकी घालून म्हाका यमसदनाक धाडटलो. येन केन प्रकारेण एक दीस वचपाचेंच आसा. अशें मेल्यार पेपराचेर पूण पयल्या पानाचेर फोटू झळकतलो. हांवें म्हणलें, 'वागमाम, तुमी पळोवपाक तशे बरेच हट्टे-कट्टे दिसतात. रानांत तुमकां कोण मेळ्ळोना? इतल्या फांतोडेर तुमी आमगेरशे कित्याक पावले ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत?'

'तुमचींच कर्मां हीं! आमी आतां गांवांनीच भोंवपाचें. सगळीं रानां तुमी काबार करून उडयल्यांत. बंगले बांदल्यात, बिल्डींगो उब्यो केल्यात. आमी खंय रावपाचें? हाचे ताचे भितोडेकच मूं? एखादऱ्या सुण्याचेर ना जाल्यार मनशाचेर घुरी घालपाची, पोटाची भूक कशेयतरेन भागोवपाची. पूण खरें सांगूं? हें खावपाक कितें charm आसा? गेले ते आमचे भांगराळे दीस. दोंगर काबार करून तुमी तुमची रावपाची सोय केली. आमचें जनावरांचें कितें? तुमी फकत झाडां मारुंकच जाणांत. वनमहोत्सव आनी मनयतात खंय! त्या दिसांनी चार झाडां पुरतना दिसाळ्याचेर फोटो दाखयलें कांय जालें? मागीर तीं झाडां आसात काय मेलीं तें पळोवपाक पुसून कोण पावनांत. पर्यावरण, पर्यावरण म्हण आड्ड्यो मारतकीर जालें. सगळे धर्तरेचो तुमी मनशांनी पयलीं इबाड करून उडयला. आतां मनशांनी मनशांक खावपाचें मात उल्लां.'

वाग तर उलोवपाचें बंद करिना आनी आमगेलो हो हांव वागा तोंडांतल्यान उल्लां काय ना तें पळोवपाक पुसून भायर येना. म्हाका माल्ली तिडक. मनांत म्हळें, वाग पूण बरो! हांवें व्हडल्या व्हडल्यान ताका उले घाले, वागान पुसून आंग काडलें जातलें! तेन्नां स्वारी दबकत लिपत भायर आयली. आनी वाग उलयता तें पळोवन आंऽऽ करून पळयतच उल्लो. वाग म्हणपाक लागलो, 'त्या महानंदान सोळा चलयांक नाच केलीं. आनी आमचें मात वाऱ्यार घालतात. आमकां रोखडेच पिंजऱ्यांत बंद करून बोंडला पावयतात. कित्याक? आमचो मंत्र्या कडेन फावोर लागना म्हणून? काय आमी V.I.P.चे हात वोले करनांत म्हणून...?'

वाग सामको उलोवपाचे तनरेंत आसा तो पळोवन हांवें आमगेल्याक हातान कुरू केली आनी भितल्लें आर्म हाडपाक सांगलें. पूण वाग कितलो शिटूक! ताणें म्हाका दीस्त पळयलें आनी लागलो गुरगुरपाक, 'म्हाका मारपाचे बी भानगडींत पडूं नाकात हां. पयलीं सांगतां. तुमी म्हाका बरीं मारशात. पूण मागीर कितें करतलीं? म्हज्या भावाक मारून पुरिल्ले तांचे कशे हाल चलतात पळयले मरे? तुमच्या सरकारान तो एक कायदो बरो केला. रानवटी जनावरांक मारपाक फावना. आमी कितल्याय मनशाक खावूं? मनशाची किंमत आतां आसा खंय? त्या महानंदान कितल्या चलयांक मारून उडयल्यो! ह्या कानाचें त्या कानाक पसून कळना. पंदरा वर्सां मेरेन कसाबान कितल्याशा लोकांक वयर धाडले. हिशोब आनी कोंत ना. आमकां मोनजातींक मारशात जाल्यार तुमकां खर ख्यास्त भोगची पडटली. त्या केरी, सत्तरींतल्या लोकांची गत कितें जाल्या ती पळयली न्हय?'

आतां ह्या वागाचें करचें पूण कितें? हो मनांतल्या मनांत विचार करतनांच घोवान म्हाका हालोवन हालोवन उठयलें, 'कितें? आज न्हिदुनच रावतलें? कामाक बी वचपाचें ना?'





– रूपा कोसंबे
घर नं.:३५९, शिंदोळी,
सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

# मनशांक लागीं हाडपाच्या उद्देश्यान जाल्लो दक्षिण आशियायी चित्रपट महोत्सव 'सॅफ'



दक्षिण आशियायी चित्रपट महोत्सवाचें उक्तावण करतना मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, केंद्रीय मंत्री विन्सन पाला, जितेंद्र देशप्रभू, फिलीप नेरी रॉड्रीग्स, सिने दिग्दर्शक कुणाल आनी सभापती प्रतापसिंग राणे.

'देवान मनशाक निर्मिलो, मनशान आपल्याक नांव दिलें, धर्म रचलो, जाती रचल्यो, शिमो रचल्यो. हाका लागून मनीस मनशा पसून पयस गेलो. दक्षिण आशियायी चित्रपट महोत्सवांतल्यान हें सगळें पयस करून एकमेकांक लागीं हाडप हो अंदूच्या महोत्सवाचो उद्देश्य' अशें जाहीर करीत गोंयांत २६ जूनाक दक्षिण आशियायी चित्रपट महोत्सवाक आरंब जालो आनी २९ जूनाक उलगलो.

गोंयांत आयोजित केल्लो हो दुसरो महोत्सव. गोंय राज्याचे मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांच्या हस्तुकी महोत्सवाचें उक्तावण जालें.

'गोंय एक पर्यटन स्थळ म्हूण फामाद जाल्लें आसा. आतां रोखडेंच तें चित्रपट महोत्सवाचें स्थळ म्हूण नामना मेळयतलें हातूंत मातूय दुबाव ना. सरकारा वांगडा खाजगी संस्थांनी मुखार येवन अशा महोत्सवाचें आयोजन मुखार

येवन अशा महोत्सवाचें आयोजन करचें. चित्रपट उद्येग नेटान मुखार सरपाक लागला. मनरिजवणेच्या मळार बरेच तरनाटे मुखार येवपाक लागल्यात तांका अदीक उर्बा दिवन चित्रपटाच्या मळार आकर्शित करपाखातीर आपूण वावुरतलों अशें उतर मुखेलमंत्र्यांनी दिलें.

चार दीस चालू आशिल्ल्या ह्या महोत्सवांत ८ देशांनी वांटो घेतलो. ६० चित्रपट ह्या महोत्सवा निमतान चित्रपट रसिकानी पळयले. महोत्सवाक ७० लाख रुपया खर्च आयलो तातुंतले गोंय सरकारान २० लाख रूपयांचो भार उभारिल्लो.

भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश, भूतान, नेपाळ, श्रीलंका, अफगाणिस्तान आनी मालदीव ह्या आठ देसांचे चित्रपट 'सॅफ' महोत्सवांत दाखयले. ते भायर इराणचो खाशेलो आस्पाव ह्या



'जश्न' चित्रपटाची गितां गायतना तातुंतले कलाकार तोशी, अध्ययन सुमन आनी शारीब सबरी

महोत्सवांत आशिल्लो. ह्या वेळार ह्या चित्रपटांचे सगळे निग्दर्शकय हाजीर आशिल्ले.

दक्षिण आशिया फाऊंडेशनान आयोजीत केल्ल्या ह्या महोत्सवाचो हेत देशां-देशां मदल्यो शिमो विरगळावप असो आशिल्लो.

ह्या महोत्सवा निमतान णव देशांतल्या निर्मात्यांनी तयार केल्ल्या उत्कृश्ट चित्रपट पळोवपाची संद चित्रपट रसिकांक मेळ्ळी. तेच वांगडा ह्या देशांतल्यान आयिल्ल्या चित्रपट दिग्दर्शक आनी हेर तंत्रज्ञाकडेन भासाभास करपाची संद तांका मेळ्ळी.

ह्या वर्सा महोत्सवांत युवा दिग्दर्शकांचेर भर दिल्लो. ह्या चित्रपटाचे दिग्दर्शक, अभिनेते त्या निमतान हाजीर जाल्ले आनी चित्रपट मळावेले गोंयचे तरनाटे तांका मेळटाले. तांचेकडेन भासाभास करताले. 'सॅफ'च्या निमतान गोंयच्या दिग्दर्शक, निर्माते, अभिनेते आनी हेर तंत्रज्ञाक थोडें तरी शिकपाक मेळ्ळें हातूंत दुबाव ना. तशें जर जायना जाल्यार गोंयांत चित्रपट संस्कृताय रूजवणाक येवचीच ना. गोंयांत चित्रपट निर्मितीविशीं, चित्रपटकलेविशीं जागृताय घडोवन हाडप हो 'सॅफ' सारख्या चित्रपट महोत्सव आयोजनाचो हेत आसता.

'सॅफ' महोत्सवाचें आयोजन कशें कितें जालें हाका म्हत्व ना. आयोजन-नियोजन खेरीत महोत्सवाची दुसरी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार



दिग्दर्शक कुणाल केमू हाचो भोवमान

जश्न चित्रपटाचीं कलाकार अंजना सुखानी आनी शहाना गोस्वामी अफघाणीस्तान दिग्दर्शीके वांगडा

महोत्सवाचो आशय आनी विशय Dissolving Boundries हो गोंयांत जाल्ल्या दक्षिण आशियायी चित्रपट महोत्सवाचो विशय आशिल्लो. देशां देशां मदीं शिमो आसतात. मनशां मनशांमदीं शिमो आसतात. ह्यो शिमो पुसपाचो जेन्ना प्रयत्न जाता तेन्ना मनामनांत संघर्श जाता आनी ह्या संघर्शाचेंच रूपांतर कलाकृतींत जाता. कथा, कविता, नाटक जावं सिनेमा ह्या वेगवेगळ्या रूपड्यांनी तो संघर्श जिणेचे संस्कृताये वांगडा समन्वय सादता.

अफगाणिस्तानाचें 'ओपियम वॉर' बांगलादेशाचें 'शीतल छाया' पाकिस्तानचें 'रामचंद पाकिस्तानीं', श्रीलंकेचें 'बॅस्ट फ्रँड्स' आनी इराणाचें 'द लास्ट क्वीन ऑफ द अर्थ' हे सगले चित्रपट त्या त्या वाठारांतलीं झुजां आनी थंयच्या मनशांचे जिणेच्या संघर्शांतल्यान निर्माण जाल्ल्यो कलाकृती.

अश्यो कलाकृती नक्कीच दरएक मनशाक आपूण कोण? आपलें अस्तित्व कितें? हाचें येवजुपाक लायता. हें येवजप सुरू जाता तेन्नाच सगळ्या तरेच्यो शिमो विरगळूंक लागतात आनी उरता तें एकूच सत्य. मनीसपण.

'सॅफ' महोत्सवान हो इतलोच विचार लोकां मुखार पावोवपाचें काम केलां आसत जाल्यार खूब जालें.



*When you defile the pleasant streams*
*And the wild bird's abiding place,*
*You massacre a million dreams*
*And cast your spittle in God's face.*

*~John Drinkwater~*



*Without habitat, there is no wildlife.*

## *Save Wildlife habitats*

**GOA FOREST DEPARTMENT**

## पावस पडटा आमच्या आंगणांत

आमच्या आंगणांत पावस पडून
भल्लां उदक खोल खोल
पावसांत भिजत, उदकांत नाचत
घुंवया आमी गोल गोल

शालू, मालू, येयात बेगीन
पावसा उदकांत न्हावंक
आईबाबा परतूच्या आदीं
जाय आमकां वयर सरूंक

आंगणांत उदक वाडत आसा
आंगणांत जालां उदका तळी
शालू, मालू, सगळीं आमी
मारया उदकांत बुचकळी

## यो पावसा बेगीन बेगीन

यो पावसा बेगीन बेगीन
सकल आमकां मेळूंक
आमकां भुरग्यांक खोस जाता
पावसांत भिजून खेळूंक

नवो ताल्ल पेल्ल आमचो
भिजून चिप्प जाता
गड्ड्यांचो खेळ खेळपाक
पावसांत मजा येता

पावसा चड पडटा तेन्ना
आंगणांत उदक भरता
धोंपरभर उदका भितर
आमकां नाचूंक मेळटा



## पावसा पावसा यो यो

पावसा पावसा झड झड
आयजूच मात्सो झड
शाळा सुरू जावचे वेळार
दडकानीं पड

शाळेवाटेक येवन बुट्टी
आमकां मागीर मेळनी सुटी
सद्दां उठून अभ्यास अभ्यास
सोपच नात कटकटी

पाव रे पावसा म्हाका पाव
उल्याक म्हज्या धांव
तुजेर पातेवन आयज शाळेक
दांडी मारतां हांव

## पावसांतलो खेळ

आमच्या आंगणांत पावस झडून
पावळे उदक गळटा
आंगणांतली खळी सगळी
उदकान उपाट भरता

आमचें आंगण चौकोनी
चारय वाटानीं व्हांवता खळी
आमी सगळीं भावंडां सोडटात
उदकांत आमची व्हडीं

व्हडीं आमचीं धोलत धोलत
उदकांतल्यान वतात व्हावून
पावळे थेंब चुकयत चुकयत
एके कुशीक रावून

मदींच पावस चडटा तेन्नां
पावळे उदकाक लोट येता
लोटांत सांपडून व्हडीं आमचीं
शिपडटात जळामळा

सुटये दिसांनीं पावसा तेपार
व्होच आमचो खेळ आसता
कोणाचें व्हडें मदींच बुडटा
कोणाचें पलतड गांठटा



– नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग, मडगांव.





## बाबूची तोखणाय

गोरोपान बाबू
मुदयाळ्या केंसांचो
व्हडल्या कपलाचो
घारशा दोळ्यांचो
लांब लांब कानाचो
बसक्या नाकाचो
आपोलावरीं गालांचो
सोबीत ओठांचो
मोटक्या पायांचो

दुड्डुडू चलता
चलतना पडता
आकांतान रडता
दुदाक लायल्यार थांबता
मुमुरखो हांसता
आईचे मांडयेर
गुपचूप न्हिदता



– गंधा अनिल घार्से
'बाणेश्वर'
आगशी – गोंय

## बाबुचे इश्ट

कुतू आनी बिलू
बाबुचे इश्ट जाल्यात
तिगांय जाणां बरीं
दिसभर खेळटात

कुतू बसता उजवे वटेन
बिलू बसता दावे वटेन
उजव्या हातान
एक थापट कुतुचेर
दाव्या हातान
एक थापट बिलुचेर

बिलू पायांनीं
बाबूक सांसपिता
बाबुचो एकूच हांव
खरो इश्ट
कुतू भुकत सांगता



– भिकाजी घाणेकार
लिदीया गार्डन,
सांत इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५

## बाबुलो

काळोखाचे चौकेर बाये
लामण दिवो लागलो
गोकुळांतलो देव
म्हज्या आंगणांत आयलो ।।१।।
गुबगुबीत गाल गोबरे
रूप नदर लागपाचे
कोंगरे केसांनी एक उणें
पाख मोराचें ।।२।।
हाका पळौन न्हिवली म्हजी
सगळी तान भूक
ताचे बगर वळखना हांव
हेर कसलेंच सूख ।।३।।
आडांगीपणानीं हालैता हो
सगळें घर दार
कृष्ण देवान बी दवरलो ना मू
हात हाच्या माथ्यार? ।।४।।
रागार जाल्यार हांसता गे
असलो हो कवनी
खबर नासतना वेंगांत घेता
दोनूय हातांनीं ।।५।।
होच बाये उजवाड
म्हज्या घरा दाराचो
काळजाचो कुडको हो
जाण्ट्यां नेण्ट्यांचो ।।६।।



– विमल प्रभूदेसाय
बेळगांव



# काणी एका सुण्याची

हांव टायगर!

सगळीं म्हाका राजूबाबाचो सुणो म्हण वळखतात. हांव त्या घरांत रावंक आयल्यार जायतीं वर्सां जालीं

हो भायलो हॉल, व्हरांडो आनी घरा भोंवतणचें गार्डन इतल्याच जाग्यार आमी भोंवतात.

आमी म्हणचे हांव, ल्युसी, टीटो, टॉमी, रॉकी. राजुचो डॅडी आमचो पात्रांव!

तो घरांत आयलो तसो ल्युसी, टॉमी, टीटो, रॉकी सगळ्यांक बोवाळ पडटा.

रॉकी पयलोच धांवत वचून डॅडीचेर दोन पांय रोमून उबो रावता आनी शेंपडी हालयता.

टॉमी डॅडीक शेकहँड दिवंक ताचे भोंवतणी नाचता.

टीटो तर व्हडलो राकेस कसो – तो मुकार सरतकच टॉमी, रॉकी, आपशींच फाटीं सरतात.

डॅडी मागीर व्हडल्या व्हडल्यान हांसता आनी तांकां थापटिता; हाचो कान खरपिता, ताका लागीं घेता; हाका वेंगेंत घेता–– ताचेर धेंगसो घालता. तांचे कडेन उलयतां उलयतां कदेलार बसून बूट काडटा.

– तशें ल्युसी ताचे मांडयेरच चडटा...

–एऽदे व्हडले ल्हंवेचें, मूठभर मांस आशिल्लें धवेंफुल्ल सुणें तें!

डॅडी हांसतच ताका पोशेता – ताच्यो अपुरबायो करता.

मागीर ल्युसी डॅडीक पळोवन जीब भायर काडून हांसता हांसता.

निमणो हांवय उठटां, भोंकिल्ले भशेन करतां, शेंपडी हालयतां.

पूण डॅडीच्या म्हऱ्यांत वचून ताचे पांय चाटपा इतली धिटाय म्हाका ना.

घरांत भितर वतना हांव भोंकतां तें आयकून डॅडी म्हजेय तकलेर असोच हात लायलो सो करता. थापटिल्ले भशेन.

वयले वयर हात लावप! पोशेवप बी कांयच ना.

कित्याक?

हांव जगावेलों, हेडगो, गांवठी सुणो न्ही! आमची सगल्या सुण्यांची सेवा करपी रॉबर्टान ज्युलीक तशें सांगलां, तें हांवें आयकलां.

'चोय गो ज्युली, हो सगळ्या बोऱ्या बोऱ्या कास्ताच्या सुण्यां मदीं हो–हो जगा वेगळो हेडगो, गांवठी सुणो सोबता तोरी गो? तें चोय पोमेरिनियन, तो लेब्रेडोर – तो आल्सेशियन – तो टॉमी लेगीत मिक्स ब्रीडाचो! आनी त्या सोगल्या मोदीं हो टायगर? शी! नांव कितें काय म्हळ्यार टायगर खंय!'

मागीर ज्युलीय म्हजे खातीर रॉबर्टा कडेन खूब झगडिल्लें. तेंय बी हांवें कान धांपून आयकलां.

'ताका टायगर हें नांव राजूबाबून दवरलां. तुगे ह्या व्होडल्या व्होडल्या कास्ताच्या सुण्यांनी कितें केलां? पूण टायगरान राजूबाबूचो जीव वाटायला. जाणा मरे तूं? राजूबाबूक किडनेप करतल्यांक धांवडावन घायल्यात ह्या टायगरान.'

आनी ज्युस्त हांगाच हांव घुसपतां! अजापांत पडटां!

## भुरग्यांचें आंगण

राजूक उबारून व्हरपी ते चोर म्हाका कशे याद जायनांत?

म्हाका आजमेरेनचें सगळें – सगळें याद जाता. मागीर हेंच कशें याद जायना?

हांवें त्या चोरांक कशें धांवडायिल्ले? केन्नां धांवडायिल्ले?

हांवें राजूचो जीव कसो वाटायिल्लो?

कितेंच कशें म्हाका याद जायना?

फुडल्या दोनय दोंक्यांचेर सोण दवरून हांव येवजीत बसतां.

आनी येवजून येवजून पुरो जातकच एक न्हीद काडटां.

आनीक काम तरी कितें आसा म्हाका?

पयलीं पयलीं ह्या घरांत नवोच आशिल्लों तेन्नां घरा भोंवतणच्या गार्डनांत भोंवतना भायल्या रस्त्या वेल्यान वचपी कोणय सुणें – कोलूग बी दिसतालें. हांव मागीर उडक्यो मारून, दुर्गाचे गरादींतल्यान तोंड भायर घालून व्हडल्या व्हडल्यान भोंकून तांकां उलो मारतालों.

तीं सुणींय बी म्हऱ्यांत येवन भायल्यान भोंकून म्हजी खबर घेतालीं.

चार दीस रॉबर्ट ओगी रावलो.

मागीर म्हज्या भोंकपाचो घरांतल्यांक त्रास जावंक लागलो खंय!

रॉबर्टान आनी शाणून म्हाका दोतोरागेर व्हरून म्हजे कितें हाल केले तेच जाणांत.

तेन्नाच्यान कोणय सुणें कोलूग



दिसल्यार तांकां जाप लेगीत करूंक वचना हांव.

तांचे कडेन वचून भोंकून खबरो करपाची उमेदय मेल्या म्हजी.

म्हाका तांचे फाटल्यान वचनच दिसना. राजू येतकच मात हांव उठटां, उडक्यो मारतां, व्हडान भोकतां, तुटसर शेपडी हालयतां.

हांव राजूचो सुणो!!

तो ल्हानसुळो बाबू आसतना ताणेंच म्हाका टायगर हें नांव दवरलां.

राजूक लागून हांव ह्या घरांत पावलां.

पूण राजू आतां व्हडलो जाला.

आतां तो मनांत मारल्यार म्हाका लागीं करता. तकलेर थापटिता.

ना जाल्यार म्हजेकडेन पळोवन हांसता आनी भितर वता.

मागीर हांव परतोऽ म्हज्या दोंक्यांचेर तोंड दवरून दोळे धांपतां आनी म्हजे जिणेची काणी येवजितां.

तें त्या ल्हानशा घराचें मागीलदार – तें चारूबाय, आमचे आवयक मोगान पोशेवपी... खावंक घालपी... म्हाका आनी म्हज्या भावंडांक उबारून घेवपी... अपुरबायो करपी...

येवजितां येवजितां हांव न्हिदून पडटां.

म्हज्या ल्हानपणांतल्या त्या एका दिसाची याद म्हजे मतींत घट्ट उरल्या.

सदचे भशेन त्या घराच्या मागीलदाराच्या कोनशाक आमची आवय न्हिदिल्ली.

आवयचे वेंगेंत शिरकून हांव आनी म्हजीं चारूय भावंडां तिचे पाने लुचतालीं.

लुचून लुचून तोंड मात वळटालें. दुदाचो थेंबो मेळच नासलो.

दुदाचो मात्सो वास मेळसर हांव चोखत रावलों. मागीर वाजेवन थंयच कुरंगटी करून आवयचे पोटार मान दवरून न्हिदलों.

म्हजीं चारय भावंडां पयलींच न्हिदून पडिल्लीं.

आवयन म्हाका चाटलो तसो हांव चडच तिचे वेंगेंत रिगलों. म्हाका चाट्टां चाट्टां आवय उलयताली.

'उपाशीं उरलो मरे? म्हज्याच पोटाक सारकें मेळना जाल्यार तुमकां दूद खंयच्यान मेळटलें? चारूबाय आससर म्हाका पोटभर खावंक मेळटालें. तें घोवागेर गेलें आनी म्हज्या नशिबांत हे उपास आयले. पोटाक घालप सोडच, शेंपडी हालोवन लागीं गेल्यार लेगीत हाडहूड करून

# भुरग्यांचें आंगण

धांवडायतात. हें मागीलदार म्हजें कितल्या वर्सांचें घर! पूण पयर त्या सोमून म्हजेर फातर मारून म्हाका धांवडावन घालें.'

आवय ही काणी म्हाका सांगताली काय आपले भितरूच उलयताली? म्हाका कांयच कळना जालें. पूण काल आयदनां घासतना वावराडी बी आमचे फाटल्यान बडी घेवन लागिल्ली ती म्हाका याद जाली.

कित्याक काय?

हांव येवजूंक लागलों.

पूण भोंगूच तें! म्हजे ल्हानशे मतीक येवजवप कशेंच जमना.

हांव परतोंऽ आवयच्या पान्यांक दुदाचो थेंबो मळत काय म्हूण चोखूंक लागलों.

इतल्यांत हाड-हाड, बडी-बडी, वच थंयचें ओवाळून... अशें कितेंशें बडबडत सोमू हातांत व्हडलो दांडो कशी बडी घेवन आयलो.

आवय कच्च करून आंग काडून उठली. सोमूच्या हातांत एक साक आसलो. सोमू आमकां हात लायता हें पळोवन आवय भोंकत, गुरगुरत ताच्या आंगार झुडून गेली.

पूण सोमून तिचे फाटीरच दांडो मारलो.

तशी कुयकूय... क्येंव क्येंव करून सोमूक गाळी घालीत आवय मात्शी कुशीन सरली.

सोमून एकएक करून आमकां पांचयजाणांक साकांत भरलीं आनी साक फाटीर मारून तो चलूंक लागलो.

म्हाका त्या साकांत सामकें घुस्मटिल्लेवरीं जालें. म्हजीं भावंडांय बी साकाभितर बोवाळ घालूंक लागलीं. हांवें नाखटांनीं तो साख कितलो भुरकयलो! पूण सोमू आमकां कस्सोच भायर काडना. तो साक फाटीर मारून चलत रावलो.

बऱ्या वेळान तो एका जाग्यार थांबलो आनी नाल्ल रकयल्ले भशेन ताणें आमकां जमनीर रकयले.

आंग कशें धाडवलें म्हजें सामकें!

आतां सोमू आमकां व्हडाव्हडान तापोवंक लागलो.

'परते घरा म्हऱ्यांत दिश्टी पडशात जाल्यार पाणट्याच्या उदकांत बुडोवन मारतलों. एक कोलूग आससर पोटाक घालें. आतां हें कोलूग पेटे काडूंक लागलें. कोण पोसतलो ही संतत? आतां दर वर्सा पेटे काडटलें!! तरी हांवें चारूबायक सांगिल्लें-सुणो पोसप खेरीज आनी कोलूग पोसप खेरीज- आतां कोण सांबाळटलो ती भुरावळ? परते घरा आयल्यार दोंकोच मोडटलों एकेकाचो...!'

अशें कितेंकितें बडबडत, आमकां धमक्यो दीत साकाची रिती पोती खांदार उडोवन सोमू परतो गेलो.

तो गेलो सो पळोवन आवय धांवतच आमच्या म्हऱ्यांत आयली.

ती आमकां चाटूंक लागली. आमकां खंय कितेंय जालें ना मू, म्हूण पळोवंक लागली.

पूण आमी कितें करचें?

थंयच तिका आडवी घाली. पाने चोखून दूद मेळटा काय पळोवंक लागले .

शेवटाक वेळ कसलो आनी तुमकां फकत पोटाचेंच पडलां? अशें मोट्यान गुरकावन तिणें आमकां पयस केले.

मागीर हांव थंय कसलो आवाज येता काय म्हूण पळोवंक लागलों.

थंयचो तो उदकाचो पाण्टो म्हणटात तो हांवें पयलेच खेपो पळयलो.

कितलें उदक तें! आनी कशें व्हांवतालें! इतलें उदक हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें. म्हाका मज्जाच दिसली.भूक-भूक करीत शेपडी हालयत हांव त्या उदकाच्या म्हऱ्यांत वचूंक लागलों.

आवयन म्हजे गोमटेक धरून म्हाका फाटीं ओडलो.

'अशे चड उदकांत वचपा सारको तूं अजून चड व्हड जावंक ना. उदकांत पडल्यार बुडून मरतलो.' तिणें म्हाका शिटकायलो.

बुडून मरता म्हळ्यार कितें काय?

हांव येवजूंक लागलों. पूण भोगूंच तें!

म्हजे इल्लेशे मतीक हें येवजप जमच ना.

हांव मागीर थंयच बसलों आनी फुडल्या दोनय पायांचेर मान तेकोवन पाणट्याचें तें व्हांवतें उदक बिटीबिटी दोळ्यांनीं पळोवंक लागलों.

**(दिवाळेचे सुटयेंत उजवाडाक येवपी सुधा खरंगटे हांच्या माणकुल्यां खातीरच्या पुस्तकांतलो वांटो...)**

– सुधा खरंगटे
मडगांव-गोंय.

कथिका

# मगली सखी



एक दिवस तीं दोगजण
भायर वचूगली जल्यारी
बाळ अर्द वाटेरी
थांवनु परत आयलें.
चूं चूं कोरनू माका आपयलें.
मगले हाथां थावनु चपाति
घेतली आनि वचूगलें.
त्या दिवस सांजे
घरांतू दिवे लायले.
देवलागी दिवे लायले.
जल्यारी मगली सखी
आनि बाळ मात्र परत
येनीती.
सुमार दिवस तांगली वाट
पळयली जल्यारी
माळ्यारी आशिले तिगले घर
खालीच आशिलें.

सकाळी चा पितना एक दिवसू मगले लक्ष वयी लाग्गी आशिल्या माडयारी गॅलें. सान सान हळदूव्यँ फुलानी माड्डो भरलेलो. माडलाच्या खांचीतू चान्नी बशिली. चूं चूं करतची आपणागल्या सख्याक आपयत आशिली. सुमारू वेळ वाट पळवन् बॅजारली. थोडो वेळू हांग थंई पळयले आनी दोनी हात्तानी एक एक फूल थुंटवचाक सुरू केलें. तिगल्या मनांतू आयले आसका 'हि लवस् मी, हि लवस् मी नॉट'.

इतल्यांतू तिगलो सखा खंई थावनू आयलो म्हणू कळनी. जल्यारी तॉडांतू चपातीचो कुडको आशिलो. वाट पळवनू पळवनू थकलेल्या आपणागल्या सखीक फुसलांवचाक ताने उडगेर हाळलेले माकशी थावंक आयलो आनि सखीक मॉगाने मिठितू घेतले.

जाले सखी खूश जाली आनि सख्या सांगती लपंडाव सुरू केलो. फुलांच्या सुतूची धांवचाक सुरू कॅलो, हिंदी सिनामातल्या हिरो-हिरोइनी सारखे. तांगली रासक्रिडा पळयतची माक चा पिंवचे लक्षांत उरनी.

दुसरे दिवसू मगले मनांतू आयले की हांवई तांगले सांगाती दोस्ती करका म्हणू. खिडकीच्या खांचेतू शित, चपातीचे कुडके दवरनू चूं चूं चान्नीगले लक्ष मगले दिकाने हाडचो निषफळ प्रयत्न केलॉ. मुखावयले तीन चार दिवस मगले प्रयत्न चालू आशिले. एक दिवसू तिक्का कळे की हांवे तिज्जे खतीरी खाऊ दवरूक सुरू क्रेला म्हणू. हळूहळू मगली आनि तिगली दोस्ती जाली. सक्काळी तिन्ने माका हॅलो म्हणू सुरू केलें. मगल्या हाता थांवनु चपतीचो कुडको घेंवाच सुरू केलें. हांवे बैसूक वेळू जाल्यारी चूं चूं कोरनू माका आपवंचाक सुरू केलें. आत्तजल्यारी ती मगली खरी सखी जाली.

थोडे दिवसानी तिगलो सखाने तिगले सांगाती येंवचाक सुरू केले. जोडीने येंवचे आनि जोडीने वचे. तांगलें प्रेम पळवनू मगले मन खूश जालें.

एक दिवसू दोनफरा भरा वेळू खिडकी लाग्गी दवरलेल्या मगले शिवणे सामानू पळलेलो आवाज आयलो. तांतू आशिले सान सान कपड्याचे कुडके तँ खंई दिसूंक नाशिले. ज्यल्यारी खिडकेचेरी एक दोन कुडके शिरकून पळलेले दिसले. हँ कसले गुढ आस म्हणू मगल्या मनांतू आयलें.

दुसरे दिवसू तिगले खाऊ सांगाती कपड्याचे कुडके खिडकी लागी आशिल्या टेबलारी दवरले आनि गुप्तहेरा म्हणके आड बैसूनू खिडकेरी नजर दवरली. थोडो वेळ वाट पळयली आनि माग्गीरी मगल्या घरकामाकडे लक्ष दिलें.

सांजे पळयल्यारी कपड्याचे कुडके थंई थावनू ना जालेले. मगले लक्षांत आयलें की मगले सखीने तिगलें बिडार बांदूक सुरू केल्या म्हणू.

आत माका आनेक काम मेळ्ळें तिगलें बिडार खंई आस्स म्हणू पळवंचाक.

खिडकी वयरी आशिल्या माळ्यारी एक मडकें आशिलें तातू मगले सखीने तिगलो संसारू थटिलो.

सकाळीं बिडारा थांवून भायर

येंवचें, चपाती खांवची आनि माका 'बाय' म्हणू भायर वचूक सुरू केलें. सांजे बिडारांतू परत येवचे अशी तिगलो कार्यक्रम आशिलो. सुमार दिवसा नंतर माळ्यारी 'खुडबुड खुडबुड' अशी आवज येंवचाक सुरू जालो. मगले मनांतू आयलें 'अरे देवा उंदूरू आयला दिसता. रात्री पांजिरो लावंका.'

रात्री पांजिरो लांवचाक विसरली आनि दुसरे दिवसू दनपारा परत 'खुडबुड खुडबुड' आयकूक आयली. मगले शिवणे सामान घेवनू टेबला लागीं बसली जल्यारी लक्ष मात्र माळ्यारी आशिलें.

थोडे वेळाने मडक्या थांवनू सान तोंड भायर आयलें. मगल्या सखीगलें बाळ आशिलें तें. पाप आवसूगलो उगडास जावनू आसका. चूं चूं कोरनू आपयना फुडे बाळ भायर आयलें. तागल्या सान सान डोळ्यानी हांगा थंई पळयलें आनि चूं चूं करूक सुरू केलें. पाप आवसू खंई आस म्हणू सोदत आशिलें.

हांव हळू हळू आवाज करनासतना मडक्या लागीं वचुगली आनि चपाती कुडको दवरलो.

थोडे वेळाने बाळ भायर आयलें चपाती कुडको घॅतलो आनि छुमंतर जालें. माका आनंद जालो. घरांत एक सान बाळ आयल्या म्हणू.

हळू हळू सखीगले बाळाने मदल्यागी दोस्ती केली. मगली सखी ने सकाळी भायर वतना चूं चूं कोरनू माका आपंवचाक सुरू कॅलें. 'पळे हांव भायर वत आस्स मगल्या बाळाचेरी नजर दवरी हं.'

दनपारा शिवणे सांगाती मगले 'बेबी सीटींग' सुरू जालें. बाळ होड जात आशिलें. आत ताने टेबलारी येवनू बैसूक सुरू केलें. तागल्या सान सान पावलांनी चमकून येतना पळवनू माका खुशी जातली.

एक दिवसू बाळाने टेबलारी थावनू जमिनीरी उडकी मारली. माका धस्स जालें 'आरे देवा कसलें करचें. पाय मोणू घेतल्यारी. सांजे सखीने घारा यॅना फुढे कसलें सांगचें?'

लागीं वचूक धैर्य जायनी. बाळ उटायले आनि सान सान पावल घालतची चमकूंचाक लागलें. थोडे वेळू हांगा थंई भोवलें आनि मागीरी घरभर धांवचाक लागलें. थोडे वेळाने बाळ थकलें आनि सोफा मूळांतू वचनू बसलें.

सांज जाली. मगली सखी घारा परत आयली. तिगलें बाळ थंई नाशिलें. भायर येऊन तिने मज्जेरी प्रश्नांचो भडीमार केलो. ''खंई आस मगले बाळ? तूका सांगिलें नवे मगल्या बाळाक सम पळवनू घॅ म्हणू? खंई आशिलें तुमगे लक्ष?''

माक्का कळनी की सखी कशी सांगचे की तिगले बाळाने आजी कसकसले करामती केल्या म्हणू.

तितल्यांतू बाळ सोफामूळां थावनू भायर आयलें ''हांव हांगा आस्स. आजी हांवें कसले केल्या म्हणू तूका गोतूना.''

मगली सखीने ताका लागीं घेतलें. मोगू केलो आनि आपणा सांगाती मडक्यांतू वचून बसली.

ताजे नंतर मुखावयले सुमार दिस मगले सखीने भायर वच्चें आनि बाळाने घरभर भोंवचें अशी कार्यक्रम आशिलो. घरांतू येंवचे भितरी मगली सखी तिगले बाळाक आपवन घेवनू वताली.

एक दिवसू मगले सखीने माका बाय बाय म्हणी. बाळई भायर येनी. खुडबुड खुडबुड ई आयकूंचाक येनी. मगले मन ताळ्यारी नाशिलें. सांजे जाली आनि चूं चूं कोरनी मगली सखी आनि तिगलें बाळ दोग जणई सुखरूप घारा आयलीं. 'बेबीज डे आऊट' आशिलो दिसता अशी मनांतू आयलें.

ताजे नंतर मगली सखी आनि तिगलें बाळ सकाळ जाली की माका 'बाय बाय' कोरनू भायर वचू लागलीं. अशी सुमार दिवस गेले.

एक दिवस तीं दोगजण भायर वचूगली जल्यारी बाळ अर्द वाटेरी थांवनु परत आयलें. चूं चूं कोरनू माका आपयलें. मगले हाथां थावनु चपाति घेतली आनि वचूगलें. त्या दिवस सांजे घरांतू दिवे लायले. देवलागी दिवे लायले. जल्यारी मगली सखी आनि बाळ मात्र परत येनीती. सुमार दिवस तांगली वाट पळयली जल्यारी माळ्यारी आशिले तिगले घर खालीच आशिलें. मगल्या लक्षांत आयलें की तानी मगल्या मायेचा पाशांथावनु स्वत:क सोडवनू घेतलें. जल्यारी तशी करतना तानी मगलें घर आनि मन दोनी रितें रितें कोरनू सोळे.

अजूनी नित नियमाने वयी वयल्या माड्यारी फूल फुलता. खिडकीरी चपती कुडके, शिताचे कण आसताती. टेबलारी कपड्याचे कुडके दवरल्या. ती चूं चूं कोरनू मगल्या सखीक आपयता. जाल्यारी मगलें घर आनी तिगलें घर दोनी खाली आसती.

❀❀❀

**– विणा पेजावर**
मल्लेश्वरम, बंगळुरू



# जित्याची खोड ...

तळेगांवच्या रामेश्वर देवान् गांवचो 'जाणतो' म्हणान् अर्जून पावस्काराच्या हातांत नारळ ठेवन् त्येची ह्या गांवच्या मानाच्या जागेवर नेमणूक केल्यान्. त्याच्या आदीचो 'जाणतो' तुको तळेगावकार ब्यान्नव्या वर्सी वारल्या मुळा गांवचो जाणतो कोण? असो सगळ्या गांवाक् पेच पडलंलो. पण तेनंतर पंद्रा दिवसांनी गांवकऱ्यांनी देव उबो केल्यानी, तॅवा दॅवान् अर्जून पावस्काराची त्या जागेवर नेमणूक् करून गावचा संकट दूर केल्यान्. लॉकांकय् दॅवाचा म्होटा नवाल वाटला. कॉणाच्या ध्यानीमनी नस्तंना ह्या कसाकाय झाला? मग लॉक आपापसात कुजबुजाक लागलें. सावंताचो बाबलो म्हंजे फाटक्या तॉंड! तो ज्यॅकात्यॅका स्पष्टच सांगाक् लागलो, "अरे तेतूर नवाल कसलां? ज्याच्या आंगात देव यॅता तो रमलो नायक् उटाबसाक्, चायपानयाक्, सदान्कदा पावस्काराच्या घरात आसता. मग त्यॅची 'जाणतो' म्हणान् नेमणूक कित्या नाय व्होतली?" लॉक त्याचा आयकला न आयकल्यासारक्या करीत. पन पाटसून म्हणत, "ह्यो मायझयो बाबलो कॅवातरी दानीक गावतंलो हां! मग बस्तलो बॉंब मारीत!"

अर्जून पावस्कर म्हंजे गावचा म्हॉटा भूषण! सालो येक नंबरचो चिकट आनी कवडीचुंबक! "भलेतर चमडी जाय, पन दमडी न जाय." ह्या त्याचा ब्रीद! भीक मागाक् येणारो भिकारीसुदा पावस्काराचा घर टाळूनच् फुडे जातंलो ह्या अगदी ठरलंलाच. कारण पावस्कार त्यॅका देवचो कायच् ना, पन तासभर "भीक कित्याक मागतंस?" ह्या ईषयावर 'लेक्चर', आनी भिकाऱ्याच्या हातांत काय चवली-पावली आसलीच् तर ती ह्योच उल्टो त्याच्याकडे इडयेसाठी मागतलो. फेरीवाले सुदा त्याच्या घराकडसून् जातांना मुक्याचा सॉंग घेयत्. तळेगावच्या आठवडी बाजारातला शेवटचा गिरायक् म्हंजे अर्जून पावस्कार! बाजार उल्गाक् लागलो, काय पावस्कार बाजारात् हजर! मग गावाच्या खरेदीनंतर उरलेली, किडकी-नास्की, भाजी, वायंगी, बटाटे, कांदे ह्या सगळा पावस्कारच घालून-पाडून इकंत घेतलो. अगदी ढीगाच्या हिशेबात. त्यातय् त्याचा 'इकॉनामिक'. त्याच्यातला शाबूत, साधारण बरा तां आपल्यासाठी आनी उरलंला सडकॅफडकॅ ता ढॉरांसाठी. फाटलंल्या धॉतराचा उपरणा, उपरण्याची चड्डी, चड्डीची लंगोटी आनी लंगोटीचो उपयोग कंदिलाची वात म्हणान् करूचो तेचो सोभाव. खंय भायर् जातंना पावस्करान् शर्ट घातल्यान् तर घातलॅन्. नायतर सदानकदा बीनहाताची बंडी. घरात न्हालो काय तळहात पसरून दोन-चार घरा फिरतंलो आनी मागान्-मागान् गावलंल्या खोबरॅच्या तॅलान् डॉकॅची मालीस करतंलो. त्येचे हे 'चिकट गुण' सांगाचे म्हंजे दोन पानांची शाई सपात्, पन लिवना शिल्लकच न्हवात्.

दोन वर्सापूर्वी पावस्काराची बायको कमळाबाय अचानक वारल्यामुळा पावस्कार एकदमच 'अलोन' झालंले व्होतो. त्यॅका दोन झील. पन दोनंय बापाशीच्या ह्या चिकट गुणांक वैतागान् जे घराभायर् पडले ते आवस् मेली तॅवाच गावाक् इले. ते नंतर आजूनतगत त्येंनी बापाशीचा त्वॉंड बगूक नाय व्हता. दॉगजानय् मुंबैक खंयतरी नोकरीक्

न्हवले ते न्हवलेच. बिराडासुदा केल्यानी. त्यामुळे गावात पावस्कार येकटो पडलो व्हतो. लॉकांका वाटला, आता पावस्कार सुदारतंलो, चिकटपणा सोडतलो, पण कोळसो किती धुतलो म्हणान् त्याचा काळेपणा जायूंत काय? तसाच पावस्काराचा व्हता. पन त्याच्या झिलांपरमाण् लॉकांका पन असा वाटा की, पावस्काराकडे साठवून ठेवलंलो भरपूर पैसो आसा. तो त्यॅना खंयतरी पुरून ठेवलॅन् हॉ. पन ह्या इचारूक् मांजराच्या गळ्यात घंटा बांदतलो कोण? रमल्या नायकाच्या कानावरंय ह्यो गोस्टीं गेलंले. तो कायम पावस्काराकडे जाणारो! पन त्याकाय् तो ताकाक् तूर लावंक् देय नाय. तसा झाला आसता तर त्या पैशावर पैली धाड ह्या रमल्या नायकानंच घातल अस्ती. त्याकाय् सगळो गाव वळकान व्हतो. पन मॅलॅच्या आंगात रामेश्वराचा वारा येय मां! त्या मुळा बोलण्याची काय सोय नाय व्हती. उद्या दॅवळात कॉनाच्याय नावान् हात-पाय आपटल्यान् तर सांगाचा कॉनाक्?

अशापरकारे सगळा आलबेल सुरू आस्तना येका रात्री वाडीत बोंबाबोंब झाली. वाड्यार बैल कित्याक् धडपडले म्हणान् पावस्कार कंदिल घेवन् वाड्यात जातंना अचानक् कोसाळलो. रमलो नायक् थंयच आसल्यामुळा अख्ख्या वाडीत ही बातमी हा हा म्हंता पसारली. पावस्कार ह्यो गावचो आता 'जाणतो' आसल्यामुळा सगळ्यांची धांवपळ उडाली. सगळो गांव गॉळा झालो. पावस्काराक् उचलून पडयेत् खाटीवर कोणीतरी घातलॅन्. गावच्या वैदाक् कोनीतरी बोलवून हानलॅन्. वैद येवन् बगता तर, पेशंटचो श्वास चालू पन आवाज बंद! त्यॅना कायतरी झाडमूळ उगाळून त्यॉच्या तॉंडात घातल्यान्. पण कायच् फरक पडंना. हातापायाक् वायच ब्रांडी चोळून बगा असा कोनतरी बाईमानूस गर्दीतसून म्हणाली. ताबडतोब रमल्या नायकान पावस्काराच्या



घरात्सून ब्रांडीची बाटली हानून पवारांच्या सदूच्या हातांत दिल्यान्. पवारांच्या सदून् फुडे व्होवन् ब्रांडी चोळल्यान् नी वायच् पावस्कराच्या तॉंडात टाकून हळूच बाटली मांडयेखाली लपवलॅन्. पन नो चेंज!

शेवटी वैद म्हणालो, ''केस माज्या हाताभायरची आसा. तॅवा ह्याका मालवणाक् सरकारी हास्पिटलात न्हेवचा बगा.'' पन ह्या येळेपर्यात् रात्रीचे अकरा व्हाजले. त्यामुळे रातरीच्या येळी करूया काय? असो सगळ्यांका परस्न पडलो. शेवटी फरशुराम बाईत वडीलकीच्या अधिकारात म्हणालो, ''असा करा, माजा आयका. ही येळ जावंदे. सकाळ झाली, काय ह्याका मालवणाक् न्हेवा. तवसर कोणीतरी त्याच्या झिलांका मुंबैक फोन लाव्न बोलावून घॅवा. मग ते आपला काय ता खर्चापनयाचा बगतीत. फरशुरामान् अशी सगळ्यांची सुटका केल्यान् नी अर्धो गांव थयसरसून पांगलो. पन बाबलो, सदू, पांडू आनी रमलो मतर पावस्काराच्या सेवेक् थंयसरंच थांबले. त्यंचो डाव येगळो व्हतो. समजा, पावस्कार गेलोच तर परस्न सुटलो. पन शुध्दीवर इलो तर खंय काय पैसे-बियसे पुरून ठेवल्यानंत् काय? ह्या तो मरण्यापूर्वी इचारूंक गावात्. बरा, गावाकंय् ह्येची खबरबात लागाची नाय. पावस्काराच्या झिलांची बापाशीबरोबर भांडणा झाल्लंली ती ह्या पैशावरसूनच ह्या त्यांका म्हायत् व्हता. त्यामुळा ''आमीच् पावस्काराचे पैसे खाल्ले'' असो उद्या आपल्यावर डाग येवक् नुको, म्हणान् त्याच्या झिलांकाय् ह्याच्यात सामील करून घेवक् व्हया असो ईचार करून त्यानी थंयले थंयच् वाणयाच्या दुकानावरसून त्याच्या झिलांका मुंबैक फोन केल्यानी.

दुसरे दीस सकाळीं आट व्हाजण्यापूर्वीं पावस्काराचे दोनय् झील हजर झाले. बगतंत तर बापूस शवासनात! श्वास चालू व्हतो, पन नुस्ता मडा शिल्लक व्हता. त्याच्यात मेलॅन धोतरसुदा रातरी कॅवातरी घाण करून ठेवलंल्यान्. त्येची सगळीकडे घाण पसारलंली. पन पुरलंल्या पैशाचा सॉंग आनी तेतुरलो वाटो देवचो कबूल करून दोनंय् झिलांनी रमल्या आनी बाबल्याकडसून बापाशीक धूवन घेतल्यानी. बरेसे कपडे आंगावर चढवल्यानी. इतक्यात गावचे काय गावकार हजर झाले. त्यॅनी सगळी परिस्थिती बगून अर्जून पावस्काराक् मालवणाक् हास्पीटलात न्हेवचा 'डिक्लर' केल्यानी. त्याबरोबर त्याच्या दोनंय् झिलांनी रडान्-रडान् घर डोक्यार घेतल्यानी. पन रमल्याक-बाबल्याक आनी त्याच्या साथीदारांका ह्या रडना कित्याक् ह्या म्हायत् व्हता. हास्पीटलांत

जर बापूस मेलो तर मरण्यापूरवी त्यॅना पैसे खंय पुरून ठेवल्यानंत ह्या सांगल्यान् आस्ता नी मग मेलो आस्तो, तर झील इतके रडले नस्ते ह्या काय त्यांका ठावक् नाय व्हता? पन पावस्कार 'कोमात'! करतले काय?

शेवटी पावस्काराची मालवणाक् हास्पीटलात् न्हेवची 'सदेह वैकुंठ टाईप' तयारी सुरू झाली. दॉगा-तीगांका सोबत जावक् मिळात म्हणान् ल्हानसो टेंपोच मागवल्यानी, नी त्यॅका उचलून टेंपोत ठेवतले, इतक्यात पावस्काराचे हात-पाय हलाक् लागले, मान नाय-नाय करूक् लागली. सगळे भियाले नी त्यॅका परत खाटीवर हानून घातल्यानी. फरशुराम बाईत म्हणालो, ''पावस्काराची कायतरी सांगाची इच्छा दिसता. झिलानु इचारा बगुया!''

म्होटो झील फुडे झालो नी म्हणालो, ''बाबानू! मीया तुमचो थोरलो. काय सांगाचा आसा तर लौकर सांगा. तुम्का हास्पीटलात न्हेवचो आसा.''

पावस्कारान् वायच् डोळे उगडल्यान् नी ढॉरांच्या वाड्याकडे हात करूक् लागलो, पन त्यॅका वाचा नाय व्हती. बाबल्याक् वाटला, पावस्कार पैसे खंय पुरून् ठेवलंय् ता हातान् दाखवताहां नाय मां? त्यॅना म्होट्या झिलाक् बाजूक घेवन् त्याच्या कानात् आपली शंका सोडल्यान्. त्याकाय् तां पटला. ताबडतोब सदू आनी रमल्या नायकाक् कुदळ-फावडा हानूक सांगल्यानी नी पावस्कारान् परत शवासनात 'इंन्ट्री' केल्यान्. हडे खणान् खणान् काय मिळंना म्हणान् पावस्काराच्या धाकल्या झिलान् बापाशीक हाक मारल्यान्. त्याबरोबर पावस्कारान् डोळे उगडून परत तकडेच हात दाखवूक लागलो. रमल्यान् परत आजुबाजूक खणल्यान्. पन काय उपयोग नाय.

अखेरीस बापाशीक 'बोलतो' केल्याशिवाय ह्या पैशाचो शोध लागाचो नाय असा ठरवून त्याच्या थोरल्या झिलान् मालवणात्सून 'स्पेशल' डाक्टर हानूक माणूस पिटाळल्यान्. दोनेक् तासात 'स्पेशल' डाक्टर गाडी उडईत हजर झालो. त्यॅना पावस्काराक् तपासल्यान् नी मनात् म्हणालो, ''आज बरा गिरायक् गावला हा. खिसो भरून घेवक् व्होयो!''

पावस्काराचो थोरलो झील म्हणालो, ''डाक्टर सायेब, काय बी करा, किती बी खर्च येवंदे. पन आमच्या बाबांका बोलत करा.''

डाक्टरान् परिस्थितीचो अंदाज घेतल्यान् नी म्हणालो, ''तुमचे बाबा बोलतील, पण पाच-पाच हजाराची दोन इंजेक्शन्स् घ्यावी लागतील.''

झिलाक् वाटला, बापाशीन् पुरलंल्या पैशाफुडे पाच-धा हजार म्हंजे कायच नाय. कमीत कमी लाखभर रुपाये तरी पुरलंले आस्तले असो त्येचो अंदाज हुतो. त्यॅना डाक्टराक् बिंधास इंजक्शना देवक् सांगल्यान्.

त्यापरमान् डाक्टरान् पयला इंजक्शन पावस्काराच्या हाताच्या शीरेत दिल्यान् नी पाचच मिन्टात पावस्कार त्वॉडात्सून हू-हूऽऽऽ असो आवाज करूक् लागलो. हातपाय सुदा बरे हलवूक् लागलो. परत तडे वाड्याकडेच हात दाखवूक् लागलो. पन कॉनाक काय समजना. बरां, खणतंलास तरी किती नी खंय-खंय?

शेवटी झिलाच्या सांगण्यामुळा डाक्टरान् पावस्काराच्या दुसऱ्या हाताच्या शीरेत दुसरा इंजेक्शन दिल्यान् नी दोन मिन्टात पावस्कार उटान बसलो. खडखडीत बॉलाक् लागलो. सगळे कान देवन् आयकाक् लागले. पन पावस्कार पैशाचा काय बोलंना. मग त्येचो साथीदार रमलो नायक फुडे येवन् म्हणालो, ''पावस्कारानु, असा काय? अचानक काय झाला तुम्का? आम्का वाटला आता गावाक सुतीक व्हता की काय?''

''मायझयांनु, तुमी माज्या सगळे मरणावरच टपलांहास!'' पावस्कारान गाळी देवन्च बॉलाक् सुरवात केल्यान्. पन झील म्हणालो, ''बाबानु, आता बरे झालास मां! आता तडे वाड्याकडे कित्या हात दाखईत व्हतास तां सांगा. तडे काय पैसे-बियशे पुरून ठेवलास की काय?'' झिलान् शंका काढल्यान् नी सगळे टवकारून् बगूक लागले. सदून तर आजून कूदळ्याचो दांडो हातातच धरून ठेवलंल्यान्. न जाणो, आर्डर मिळताच खणाक् सुरूवात करूक् मिळात.

''....च्यानु, तुम्का पैसे व्होये हंत? त्यासाठीच तुम्का ह्या गांववाल्यानी मुंबैसून् बोलवल्यानी वाटता? रे, मीया काय मरा व्होतंय? माका काय झाला हां? मगासपासून तो गायचो पाडो वाड्यातली हिराची वाडवण खाता हां. ता मी हातान् दाखईन व्होतंय. तर त्याच्याकडे कोनाचो लक्ष नाय. पन पैसे गावतंले म्हणान् जमीन खणाक् सगळे फुडे. शिरा पडली तुमच्या तोंडावर ती. तो पाडो वाडवण खावन् मेलो आस्तो तर धा हजाराच्या लुक्सान झाला आस्ता!'' पावस्काराचो तॉंडाचो पट्टो सुरू झालो. नी पैसे पुरलंल्याचा काय खरा नाय म्हणान् सगळे हळुहळू थंयसून सटकाक् लागले. पावस्काराचे फुकटचे गाळी कोन खातंलो?

पावस्काराचे दॉगजान झील मातर डाक्टराक् फुकट धा हजार रुपाये देवचे लागले म्हणान् कपाळाक् हात लावन् बसले. नी ह्याच्याफुडे बापूस मेलॅशिवाय गावात पावूल ठॅवायचा नाय असो निश्चय करून दॉपारच्याच गाडयेन् मुंबैक् चाल्ते झाले.



– शामकांत का. मर्गज
गॅझेटिअर विभाग, महाराष्ट्र शासन,
२७, बरजोरजी भरूचा मार्ग,
फोर्ट, मुंबई-४०० ०२३
मो.: ०९८६९९०२३६२





# गुन्यांव भोगस

अनीताक हांव इलाहबाद मेळिल्लों. ही धा वर्सां पयलिंची खबर. ती म्हज्या वांगडा कॉलेजिंतूय शीक नासली. नाय आमच्या कुशीक तिचें घर आसलें, भयणिचीय ती इश्टीण नासली आनी न्हय आमी खंयच्या पार्टेंत वा प्रवासांत मेळिल्लीं. खरें म्हळ्यार हांव सदांच भोंवपाक म्हणून सकाळीं सकाळीं 'कंपनी बाग' मेरेन वतालो. भोंवताना हांव इतलो तल्लीन जातालो की अशी कुशिकची म्हाका कांय सुदूच नासताली. एक दीस भोंवून जातकूच बाकार बसलले कडेन खोल स्वास घेतालो, इतल्यान एक आवाज आयलो, त्या आवाजान म्हज्या स्वासांचेर बंदी घाली.

**सा**मकाराक 'अनीता' भशेन दिसपी तरणाटी उबी आसली. ती ताचे भशेन दिसपी, ताची भयण वा भूत कोणूय आसूं शकत. दूख, पश्तावो आनी शोध हांच्या सावळ्यां पासून पयस तळयेंत सक्काळी फुडें फुलिल्ल्यां साळकां भशेन सुंदर आनी नाजूक. हांसपी, मुखामळ... दोळ्यांत तक्रारिचो कसलोच भाव ना. तिचो हो अंदाज म्हाका अनोळखी सो.

आमच्या दोगांय मदीं फकत 'सून्न' आसलें, एक खेरीज भशेन मोनेपण, जें तोडपाक म्हजे भितर तरी हिम्मत नासली.

भायर पावस पडटालो. ती आतांच कुडींत भितर सरली. पूण अजापीत पद्धतीन. तिच्या आंगार पावसाच्या उदकाचो एक थेंबूय नासलो.

"कसो आसा निखिल?" हांसत हांसत तिणें विचारलें. म्हज्या मनांत खोल मेरेन रिगलो हो प्रस्न. बेचैन जालो हांव. शब्द शेणले. हें सामकें खरें की तिचे उपस्थीतींत हांव सामको 'नर्वस' जालों.

"तुवें जाप दिंवक ना... हांव खुशालकाय विचारतां?"

उलयतलों तरी कितें ? वग्गी रावुनच शाणेपण शें चिंतलें.

पावसाचो नेट वाडलो, वांगडाच आवाजूय बी. तिणें कुडिचें जनेल खबर ना कित्याक लागून उगडलें. पावसाचे थेंब भितर पडपाक लागले. कांय थेंब तिच्या आंगार पडटाले. आतां ती म्हजे कडेन घुंवली आनी कुशीक येवन खांदार हात दवरलो. तिच्या स्पर्शान पुराय शरिरांत शिरी शिरी जालें.

"तुकां पावस आवडटा न्ही... भिजपा परस कुडींत बसून ताका मोगान पळोवंक खूब उमेद दिसता. मागीर आयज जनेलां कित्याक बंद दवरलीं. याद आसा, अशाच एका पावसांत तुवें पयले फावट म्हाका स्पर्श केल्लो. त्या पयल्या स्पर्शाचे जाणिवेक हांव आयजूय विसरूंक शकली ना... मरणा उपरांतूय ना."

तिणें म्हाका गोपांत घेतलो. म्हज्या शरिराचेर तिची पकड घट्ट जावपाक लागली. अचकीत मनांत हो विचार आयलो की भुतां अशेच तरेन वेंगेंत घेवन आपलीं नाखटां गळ्याभितर रोमून पुराय रगत पितात.

अनवळखी भयान म्हाका शादूर जावन पयस जावपाक मजबूर केलो.

म्हज्या अश्या वागण्याचेर ती तिडकली. ''अशे तरेन पयस कित्याक गेलो. भियेलो हांव मारीत म्हूण? तें तर हांव फुड्यांत आयले बगरय करपाक शकता. निमाणे फावट तुकां मेळपाक कित्याक आयल्यां, तें तूं समजूक शकना. हें समजप हाका लागून कठीण आसा कारण तूं गुन्यांवाच्या जाणवायेन पुराय शेणील्लो आसा.''

तकली सकयल घालून हांव वोग्गी आसलों. ''आतां इतलें टेंशन घेवं नाका. 'तिणें आपल्याक सांबाळ्ळें. हांसत हांसत उलयली.' खरें म्हळ्यार म्हाका सोरो पिवपाची खूब इत्सा जाल्या... जिवी आसतना पिवपाक शकलीं ना... मेल्या उपरांत जांव... पळय, ना म्हणू नाका.''

खूब दिसां सांवन 'रॉयल स्टॅग' ची एक बाटली दवरलेली. हांवें ती काडून टेबलार दवरली. दोन काचेचे ग्लासूय बी.

''पावसाच्या ह्या वातावरणांत भर्जी वांगडा आसत जाल्यार मजाच कितें और येतली. हांव करतां.''

ती किचनांत गेली. भर्जी तळून किचनांतल्यान भायर येवपाक तिका वेळ लागतलो. ह्या खिणांचो उपयोग हांव तिचे वांगडा सारिल्ल्या खिणांच्यो यादी करपांत घालोवंक सोदतालों. कितें खबर, सोरो पिता-पिवयता म्हणसर ती मारुनय उडयत.

अनीताक हांव इलाहबाद मेळिल्लो. ही धा वर्सां पयलिंची खबर. ती म्हज्या वांगडा कॉलेजिंतूय शिकनासली. नाय आमच्या कुशीक तिचें घर आसलें, भयणिचीय ती इश्टीण नासली आनी न्हय आमी खंयच्या पार्टेंत वा प्रवासांत मेळिल्लीं. खरें म्हळ्यार हांव सदांच भोवपाक म्हणून सकाळीं सकाळीं 'कंपनी बाग' मेरेन वतालों. भोंवताना हांव



इतलो तल्लीन जातालों की अशी कुशिकची म्हाका कांय सुदूच नासताली. एक दीस भोवून जातकूच बाकार बसलले कडेन खोल स्वास घेतालों, इतल्यान एक आवाज आयलो, त्या आवाजान म्हज्या स्वासांचेर बंदी घाली.

''म्हजे कडेन 'इश्टागत' करशीत?'' पळोवंक गेल्यार सामको सादोसो प्रस्न जो व्हडलेशें कांय म्हत्व दवरिना. पूण जे पद्धतीन, उमेदीन, इत्शेन आनी आत्मविश्वासान भरून तो प्रस्न म्हजे मेरेन पाविल्लो, ताचो म्हजेर प्रभाव पडले बगर रावलो ना. ती अनीता आसली. गर्देतल्यान पयस. तिका दोन गजालिंची तिडक मारताली, खंयच्याय व्यक्तीच्या प्रभावांत व्हावून ताची व्यक्ती पुजा करप आनी थारावीक रस्त्यार चलप. तिचे नदरेंत बुद्ध महावीर, भगतसींग, महात्मा गांधी सारके मनीस जन्मांतूच महान जांवक ना. तेय बी सामान्य मनीस आसले. तांच्या मुखार आयिल्ल्या विशेश परिस्थितीक लागून आनी तांचे कडेन आशिल्ल्या विचार शक्तीक लागून ते म्हान जाले. कोणूच कोणाभशेन जावंक शकना आनी तीच ताची वळख.

आमचे मदीं अशे कितें संबंद तयार जाले की आमी वांगडा फुडें सरलीं. हो एक असो प्रवास आसलो जाची वाट आनी पावपाचो जागो आमी पयलींच थारावन दवरूंक ना. तिणेंय केन्नां म्हज्या भविश्या बद्दल केन्नां विचारलें ना. हांवेंय केन्नां ह्या प्रवासाच्या शेवटा बद्दल विचार केलोना. विस्वासांत फारावल्लों अनिश्चीतपणाचें धुकें जांतूंत कांयच साफ दीस नासलें. नात्याचो शेवट आनी पिरायेची आमकां कांयच खबर नासली. खरें म्हळ्यार हो 'भायले' परस 'भितरलो' प्रवास आसलो जाची आमकां दोगांयकूय समज नासली.

''घे, भर्जी तयार आसात.'' तिचे हातींत ट्रे आसलो आनी तांतूंत खुबशीं भर्जी. मुखामळाचेर हांसो.

चांडाळीन इतलें बेगीन भर्जी तळून घेवन आयली. फाटल्या यादिनी भोवपाचीय पुराय संद दिलीना. दरएक काम बेगीन करून उडोवप हें अनीताचें खाशेलेंपण.

ती लागीं आयली. भज्यांची ट्रे टेबलार दवरतकीत तिचो उजवो हात म्हज्या माथ्यार भोवपाक लागलो. फाफसलल्या



केंसांचेर तिचीं बोटां फणये भशेन भोंवपाक लागलीं. तिचे फुडले कारवायेची 'कल्पना' करून हांव भियेलों. तिणें घडये म्हज्या मनांतलें जाणलें. सामक्या म्होवाळ आवाजान उलयली. "तूं इतलो भियेता कित्याक?" ती हें कित्याक समजना की तिचे उपस्थितींत हांव सहज कसो रावूंक शकन? हांव वोग्गी तिका पळयत रावलों. ती सोऱ्याचो पेग तयार करताली. पयलेच फावट खंयच्याय नवख्या भाशेन. पयलोच घोट ताळ्या सकयल देंवतकूच तिणें वेगळेच तरेन आपलें तोंड करून दोळे धांपून घेतले.

"तुंकां बक्षीस मेळ्ळे कांय ना?" सोऱ्याचे दोन घोट ताळ्या सकयल काडून तिणें विचारलें. 'बक्षीस' जाका लागून तुंवें म्हाका मारिल्लें."

तकली सून्न जाली म्हजी. ह्या सहज आनी अनपेक्षीत प्रस्नाक हांव तयार नासलों. तिच्या प्रस्नाचे जापेचो विचार करचे परस हांव त्या खिणांचो विचार करपाक लागलों. ज्या खिणां सावन आमी दोगांय वेगवेगळ्या रस्त्या वेल्यान चलपाक लागलीं. कॉलेजां आमचीं दोगांचींय कुशिनूच आसलीं. आतां वाटोय कुशीन जाल्यों.

म्हज्या "करियराक लागून हांव खूब शादूर आसलों. 'लोवर-मिडलक्लास' कुटुंबांतल्यान आयिल्लों हांव, लॉर्ड सायब जावपाची सपनां घेवन दिल्ली आयिल्लों. अनीतान एक असली वाट धरलेली जाचेर चलपाचो निर्णय फकत पेजाद विचारांचे मनीसूच घेवंक शकताले. संघर्ष आनी विद्रोहाच्या त्या मार्गार हुलप आनी हुलपच पातळोन आसलो.

सामान्यापरी गांव, जंगल आनी दोंगरांचो रस्तो नगर म्हानगरांत पावना पूण थारावीक पद्धतीन जगप अनीता केन्नां शिकुकूंच ना. तिणें अलाहबादच्यान दिल्ली वा मुंबय पावनासताना झारखंडच्या जंगलांनी आपलें नशीब आजमावपाक पळयलें. दाट जंगलांत ती त्या रस्त्याचो सोद घेताली. जे देशांतल्या वंचीत, शोशीत हांच्या मुक्तीचे आसले. तिच्या दोळ्यांत तेन्नां हांव दोन गजाली नितळ पळयतालों. एक वर्तमान व्यवस्थे आड विद्रोहाचो उजो आनी दुसरी शोशीत समाजाक भांगराच्या फुडाराचीं सपनां. म्हळ्यार तिच्या दोळ्यांत उजो आनी सपनां एकेच फावटी उपस्थीत आसलीं. उज्याचीं कांडां सपनां पालयनांत, तीं पेटयतात, हें पयलेच फावट अनुभवलें हांवें. आमचें मेळप उणें जावंक लागलें. पूण पयसावन नात्यांतल्या हुनसाणिचेर कसली थंडसाण हाडूंक शकलें ना.

तूं हालीसार खूब बदल्लां अनीता. एक दीस हांवें अनीता कडेन तक्रार केली.

"व्हड सामाजीक बदलाची सुरवात व्यक्तीच्या भितरल्यानूच जाता."

"खंयच्या बदलाची गजाली करता"

"संसार बदलून तो सोबीत करपाची"

"कितें, हें जावं येता?"

"अशक्य अशें संसारांत कांयच ना."

"खंयच्या रस्त्यार वाट धरल्या तुंवें?"

"अग्नीपथाची"

"म्हळ्यार"

"सरळ उतरांनी सांगचें म्हळ्यार हांव माओवादी जालां. सशस्त्र क्रांतीं मदी विस्वास दवरतां. तुमच्या देशाच्या सरकार संविधानाक हांव मानीना. आतां आशिल्ल्या सत्तेक सकयल देवोवन जनतेचें सरकार सत्तेर हाडप हेंच म्हजें ध्येय. म्हज्या जिविताचें एकमात्र साध्य."

हांव वोग्गी जालों. तीय खूब वेळ कांय उलयली ना. आमचे भीतर कितें तरी शेणत वतालें.

मिठाइचो डबो घेवन हांव अनीताक मेळपाक गेलों. तिका हें सांगपाक की म्हजें आनी म्हज्या आवय बापायचें सपन पुराय जालें, हांव आय. पी. एस. जालों. त्या दिसा हांवें तिच्या मुखामळार खोशयेचीं लक्षणां पळयलीं. ती मोखिच्या लागीं पावपाची खोशी आसली. तिचें हांवें आय. पी. एस. जावपा कडेन कांयच सोयर सुतक नासलें.

''आमचें मेळप सामकें उणें जातलें''

''कित्याक?'' कारणां खबर आसुनूय हांवें पिश्या भाशेन प्रस्न केलो.

''तूं ट्रेनींगे खातीर वतलो आनी हांवूय बी''

''तुजीय पुलीसेंत भरती जाल्या?'' हांवें तिका चाळयलें.

''ट्रेनींग फकत पुलीसांचीच जायना, जांका लागून पुलीसेची गरज पडटा, तांचीय जाता.''

हें एक विचित्र मोडण आसलें. आमी आपआपल्या मोखीच्या वाटेर फुडें सरलीं. एकामेकाक बरें मागून आमी कुशीन जालीं. तिणें म्हाका थांबयलो ना. हांवेंय तिका कितें समजावपाचो यत्न केलो ना. एकामेका आड लडाय करपाची तयारी करपा खातीर आमी वयतालीं. टेक्नीकल भाशेंत शत्रूत आमचो बदल जाल्लो.

इतलें जावनूय आमच्या मदीं कोणा आड तक्रार, आदर-अनादर कांयच नासलें.

हें घडये आमच्या त्या अनामीक नात्याक लागून आसत जें घडये मोगाच्या लागीं लागीं येता आनी कितें ही मोगान दिल्ली स्वतंत्रताय आसली जाका लागून आमी विंगड विंगड मार्गार चलपाक स्वतंत्र आसले. म्हाका याद ना हांवें केन्ना तिका भोगवादी जिवन जगपाक मोटीवेट केल्ली. अनीतानूय केन्ना म्हाका सशस्त्र क्रांतीची समजणी दिली ना.

प्रशिक्षणां उपरांत म्हाका जहानाबाद जिल्ह्याचो ताबो दिलो. अनीता ह्याच वाठाराची एरीया कमांडर आसली. जहानाबादांत लश्करी कारवायो खूब जाल्ल्यो आनी हें सगळें अनीताच्या मार्गदर्शना खाल जातालें. जायत्यो चौक्यो लुटिल्ल्यो. राज्य पुलीस महानिर्देशकान म्हाका सांगिल्लें की ''सी. एम. सायबाचो दबाव- खंयचेय परिस्थितींत नक्सली कारवायो बंद जावपाक जाय.''



आतां आमची लडाय निश्चीत दिसपाक लागली.

ती जानेराची, हाडां थंडेन कांपतालीं अशी रात जावन आसली. नक्सलवाद्यानी चौकेचेर हल्लो केल्लो. तांचीं मनशां हत्यारां लुटचे लुटून पुलीसांचेंय मनोबल सकयल देवोवपाचीं आसलीं. खबर कळतकूच रोकडोच हांव पुलीस फोर्स घेवन घडणुकेच्या थळार पावलों. रातिच्या काळोखांत अंदाज येवप कठीण आसलो की नक्सलवाद्यांचो नेमको आंकडो कितलो आसलो. तरीय पूण ते पंचवीस तिसां परस उणे नासले. पुराय रात लटा फट जायत रावली. फटाफट चलपी गुळयां वांगडा मडी येवन पडटालीं हे वटेन ते वटेन.

त्या घडणुके समयार गुळयो चलयतना जाय ते फावट म्हाका दिसतालें घडये सामकार अनीता आसत! तीय बी म्हजेर मोख धरून गुळयो झाडीत! पूण हो विचार करीत आसतना हांव मातूय भावूक जावंक ना. आनी म्हाका जाम खात्री आसली की सामकाराक अनीताय बी गुळयो चलयतना खंय उणाक पडूंक नासतलें. आमी पुराय इमानदारीन आमची लडाय लडटालीं दोगांकूय जैत जाय आसलें. जें शक्य नासलें. कोणाय एकाक खंयचेय परिस्थितींत हारुंकच जाय आसलें आनी अशेंय नासलें की दुसऱ्याच्या जैताक आपलें जैत मानपा इतले रोमेंटीक विचार घेवन आमी कोण नासलीं.

सकाळचो उजेड फांकारच्या पयलींच चडशे नक्सलवादी काळोखाचो लाभ घेवन पळून गेल्ले. जे पांच उरिल्ले, तांकां म्हज्या गुळयांनी मारून उडयल्ले. तांतुंतली एक अनीताय आसली. सैनिकांच्या भेसांत, माथ्याक तांबडी रिबीन... रक्ताळलेली निर्जीव कूड... उगते दोळे. जसो कितें पयलेच फावट म्हाका दिसलें की जिका हांवें मारलां, जिचो हांव खूब काळजां सावन मोग करतालों. सरकारान म्हज्या ह्या बहादुरीचेर बक्षीस दिवपाचें जाहीर केलें. पूण गर्वान भरचो सोडून हांव गुन्यांवाच्या वज्या खाल दबून गेलों...

आतां भूत जावन अनीता आपल्या हत्येचो हिशोब मागूंक आयल्या.

पावसाचो नेट उणो जाल्लो. कांय खिणां उपरांत घडये साप्प ना जातलो. टेबलाचेर दोन ग्लास, भर्जी, सोऱ्याची बाटली तशीच पडून आसली. पूण अनीताचें भूत खंयच नासलें.

पयलीं आसलें काय?



**– उदय देशप्रभू**
पूणे

**(प्रेम भारद्वाज हांच्या हिंदी कथेचो कोंकणी अणकार)**

## भोंवडी



# याण

'याण' आमगेल जिल्लेक निसर्गान दिल्लील वरदान. ऋषीमुनील तपश्चर्येन पावन जाल्लील विशिष्ट स्थान. आज-काल प्रसार माध्यमां, दृश्य माध्यमां निमित्त चार-चौगांक कोळ्नू येवचे देकून जन लोक वाट सोदून, चवकशी करत येत्ताती. फाट्टी एक शिवरात्र सोडल्यारी बाकी दिसांनी ते दिकान कोण फिर्नु पळयनाशिल्ले.

'कुमटा' साव्नु 'सिर्सी' वत्तना आनेगुंडी, कत्तगाल जायना फुडें 'याणा' वोच्चो रस्तो दावे दिकान दिसता. त्या तांबडे मातये रस्त्यान १६ कि. मी. गेल्यारी 'याणा' पावताती. कडे वैल देढ-दोन कि.मी. रस्तो किंचित् त्रासदायक जाव्नु आस्सा. शारिरीक दणू (श्रम) जात्तलोची पण पश्चिम घाटाची श्रीमंतिका पोळोनु मन तृप्त जात्तलें. मानसीक ताण दूर जात्तलो.

याणाक वोच्ची दुसरी वाट म्हळ्यारी, सिर्सीसाव्नु हेगडेकट्टा मार्ग ६ कि. मी. आड वाट्टेन गेल्यारी 'भैरवेश्वर' गुड्डे माक्षी वाट्टेन 'याणा' वोच्चून पावताती.

खंचे वाट्टेन गेल्ले तिका अड्णा (पर्वा ना) पूण वत्तना अल्पोपहार होरच्याक विस्सोर्नाक्काती. रस्तेरी भूक लागल्यारी कस्सने मेळ्ना.

पाव्साडी नंतर अक्टोबर, नवंबरांत गेल्यारी बरें. त्रास कम्मी. तें नंयशी (त्या भायर) प्रकृती (सैम) जास्ती फुल्नु आयिल उर्ता. खंय् पळे थंय् पाच्वेसाणी, बगुलेन जुळु-जुळु होळ्नु वोच्ची चंडिका नदी, पक्ष्यांलो चिलि-पिली अवाजु आयकल्यारी प्रकृती कविता वाचन करता आश्शिल अनुभव जात्ता.

'कुमटा' साव्नु गेल्यारी प्रथम 'मोहिनी शिखर' दिसता. ताज्जे अेद्राक (सामकार) मुख्य शिखर 'भैरवेश्वर' दिसता. काळे शिळेचे सर्पा-हुत्ता (फडे)निसर्गान तयार केल्लिल हे शिखर ३०० ते ३५० अत्तेर (ऊंच) आस्साती. अस्सले सान-होड मेळ्नु सुमार पन्नासेक शिखरां आजु-बाजुन आस्सती. जगांतु आनी खंयी अस्सलें नमुनेचें, निसर्गान निर्माण केल्लिलें शिल्प, पोंळोंच्याक मेळना. तें 'याणा' येव्नु पोळोवका. त्या दृष्टीन 'याण' उत्तर कन्नड जिल्लेचें गौरव स्थान जाव्नास्सा. रानांतु, वनांतु आढ-वूढ वांट्टेन वत्तल्यांक निसर्गाचे गर्भांतु घुस्सुन आनंद घेत्तल्यांक हो जागो 'याण' भयंकर आवडतलो. हें हांवुं खात्रीन सांगतां.

'भैरवेश्वर' शिखराकची देवस्थान म्होणु मानताती. हे शिखरांतु ५० लांब एक गुहा (cave)आस्सा. गुहे भित्तर निसर्गान केल्लिल भैरवेश्वराल चित्र आस्सा. आनी कायम् ३६५ दिवस एक्के नमुन्यारी भैरवेश्वराल मात्यारी जलधारा पडत आस्सा. तेंची तीर्थ म्होणु सेवन कर्ताती. ही जलधारा 'चंडिका नदी' म्हळील नांवान मुक्कार होळ्नु (व्हांवत)वत्ता. देव दर्शनाक येत्तले भक्त त्या नदींतु न्हाव्नु, शुद्ध जाव्नु येत्ताती.



याण वचची वाट

शिवरात्री दिवस देव दर्शनाक लांब लैन(Line) लागिल उरता.

नित्य नेमान कितलेकी वर्सां सावन लागाय्त पुजा कोर्नु आश्शिले हांगाचे पुजारी आपुलकीन वागताती. तांकां कोणें विचारल्यारी स्थळ पुराणाची म्हायती सांगताती.

पुराण कथा अस्सी आस्सा 'ईश्वराकडच्यान वर प्राप्त कोर्नु भस्मासूर ईश्वराकची भस्म कोरच्याक वत्ता. त्या कठीण प्रसंगातुल्यान पार पोडच्याक ईश्वर धाव्नु ह्या निर्जन, निभिड अरण्यांतुल गुहेंतु लिप्पुन बसता. ईश्वराचेरी आयिल संकट दूर कोरच्याक विष्णु मोहिनी रूप धारण कर्ता. भस्मासुराक मायेंतु फसोवनु भस्म कर्ता. त्या राक्षसान भग भग जळतना हांगाच परिसराक उज्जो लागता. ती प्रळयाग्नी निवोवचाक पार्वती जल रुपान, चंडिका जाव्नु अवतरता. सर्व संकट दूर जाल्ले नंतर भक्त गणाले प्रार्थनेक मान दिव्नु 'शिव-पार्वती' थंयिंची याणांतु वास कोर्नु आस्साती.' ही पुराणांतुली कथा. जाल्यारी भाविकांल मनांतु हे अेक 'श्रद्धास्थान' जाव्नु आस्सा. श्रद्धा आस्सिल कडेन भक्ती उर्ता. भक्ती आस्सिल कडेन प्रेम, आनंद उर्ता. हे सर्व मेळ्नु मन प्रसन्न जाल्लिलें उर्ता.

भैरवेश्वर शिखराक प्रदक्षिणा घालताना या आजु-बाजु परिसरांत, फिरताना शांतता राखा. त्या प्रदेशांतु असंख्य म्होवामुसा (Honey bee) घूड आस्सती. ताज्जे खब्रेक वोच नाक्काती. साधारण मूस नंय् ते; होडोड मूस ते. तांकां हेज्जेनु म्हणताती. त्या मुसांनी चाबच्याक आयल्यारू तुमकां धांवच्याक वाट मेळश्शिना. भयंकर खतरनाक मूस ते! पाय्या मुळांतु पोळोवन हेज्जह (पावलां) दवरा. विषारी नाग उर्ताती. भिव्चे नाका फक्त काळजी घ्या. हांवें गेल्लिल तेन्नां प्रत्येक पंता (वेळार) माक्कां दिस्सून आयलेती.

भैरवेश्वर शिखराचे माक्षिदिकान (फाटलेवटेन) 'नागतीर्था'चें उगम स्थान आस्स खंय! स्कंद पुराणांतु हाज्जी विवरण आस्स म्हणताती. पंच पांडव वनवासांत आसतना हे दिकान आयिले खंय्!

हें सर्व पोळोवच्याक दोन दिवस लागताती. चार-पांच लोकाल ग्रूप (Group)कोर्नु आयल्यारी उत्तम. आयिल दिवसुची परत वोच्चें आसल्यारी देव-दर्शन नंतर थोडी विश्रांती घेया आनी जाल्लतित्ले बेग्गी भायरी सरा कारण ह्या प्रदेशांतु काळोकु बेग्गी जात्ता. काळोक म्हळयार अेकदम अंध:कार. हात्तांतु पावर फुल्ल बेट्री आस्सल्यारी बरें. रान वाट, हिंस्रपशु आस्सात म्हणताती.

अेकादी बैलगाडी मेळ्यारी ताजेरी बोस्सून प्रवास करा. ती मजा विंगड! हे सर्व अनुभवच्या खर्चु, जास्तीयेना. 'अेकपंता वोच्चून येक्का' म्हळिल इच्छा मनांतु हाडा. उत्सा, उमेदी आपोआप आंगांतु येता.

ज्ञानापीठ प्रशस्ती विजेता कवी 'कुवेंपु', न म्हळां 'प्रकृतीचि आराधना म्हळ्यार ती परमात्माली आराधना'. त्या खात्तिरी कृपया थंचे पवित्रतेक, शांततेक धक्को लागचे तस्सले कृत्य कस्सले कोर्नाक्काती (दारू पिव्चे, विडी-सिगरेट ओढचें, टेप-रेकॉर्डर, रेडियो लाव्नु गौजी-गलाटो कोर्चे...इत्यादी.) हें हांवु कित्याक सांगतां की म्हळ्यारी, 'देवान सृष्टी केल्लिलें निसर्ग मन्शांनी नष्ट कोर्चाना'.(करूंक फावना)

# बनवासी

कर्नाटकांतलें पयलें स्वतंत्र राज्य बनवासींतु राजा मयूर वर्मान (क्रि.श. ३२५) स्थापन केल्लें. तेन्नाच्यान एक नवीन इतिहास घडत गेल्लो. ह्या साम्राज्याचे विस्तार कारवार, धारवाड, बेळगांव, गोवा, दक्षिण कन्नड, शिवमोग्गा, हासन, चित्रदुर्ग पर्यंत पसरिलो.



**मधुकेश्वर मंदीर, बनवासी**

सिर्सी, शिवमोग्गा रस्तेन गेल्यारी २२ कि. मी. अंतरारी बनवासी आस्सा. हो गांवु पुराण प्रसिध्द, इतिहास प्रसिध्द आनी निसर्ग रम्य म्हणल्यासि त्री इन् वन् (Three in one) जाव्नास्सा.

मयूर शर्मा म्हळिल ब्राह्मण विद्यार्थी दक्षीण भारतांतुल पल्लव राजधानी कांचिपुरमांतु, रामेश्वरांतु शिकतस्सिलो. वेदाध्ययन पुर्ण कोर्नु ब्रह्मसिध्दी प्राप्त जाल्ले नंतर परत तागेल गांव येत्तना वाट्टेरी पल्लव राज्यांतुले अश्वदळाचे कांय सैनीक तागेल अपमान करताती, तेजोभंग करताती, ताक्का लुटताती.

ह्या घटनेन मयूर शर्माल मनांचेरी परिणाम जात्ता. तागेल विचार बदलताती. 'मान रक्षणेक विद्या निष्प्रयोजक; बाहुबल, क्षात्रतेज अवश्य' म्हळील विचार तागेल मनांन येत्ताती. तो दृढ निर्धारान आयिल वाट्टेन फिर्नु परत वत्ता. हत्तांतु खड्ग धोर्नु, शस्त्राभ्यास सुरू करता. ब्राह्मण आस्सिलो क्षत्रीय जात्ता. 'शर्मा' म्होणु आस्सिल आढनांव 'वर्मा' म्होणु बदलायता. स्वबलाचेरी स्वतंत्र राज्य स्थापन करता. बनवासीक राजधानी करता. इच्छाशक्तीक कितली ताकत् उर्ता म्हळिल्याक हें एक उत्तम उदाहरण.

राजवाड्यांतुल आंगणांतु अेक विशाल 'कदंब' वृक्ष आस्सिल खंय! ते दिकून, तांगेल घराण्यांक तेंची नाव पडता. हे 'कदंब' घराण्याचे राजे साधारण १६५ वर्सा राज्य करताती. कड-कडेरी (शेवटाशेवटाक) हांगेल्यांतु तीन वांटे जात्ताती. अेकलो बनवासींतु उरता. आन्नेकलो 'हानगल्ला' वत्ता. तिसरो 'गोवा' वोच्चून थंय राज्य करता. आत्तं 'बनवासी' पळयल्यारी तेन्नांची वैभवाची कल्पना कोर्च्याक जायना. राजधानी आस्सिली खेडें जाल्या. हो जाल्लो इतिहास. पुराणांतुली कथा वेगळी आस्सा.

मधू आनि कैटभ राक्षसांल त्रास सहन जायना जावन लोक त्रस्त जाल्लिले. तेन्नां महाविष्णु भूलोकारी येव्नु तांगेल संहार कर्ता. त्या राक्षसांनी मरण कालारी व्यक्तकेल्लिल इच्छेनुसार तांगेल नावानु दोन लिंगां स्थापन कर्ता. त्या लिंगांतु शीव म्हणल्यार शंकराल पूर्ण तेज आव्हान कर्ता.

मधुल नावांन बनवासींतु स्थापन केल्लिल लिंग 'मधुकेश्वर' म्होणु प्रसिध्दी पावता. कैटभाल नावांन अनवट्टींतु स्थापन केल्लिल लिंग 'कैटभेश्वर' म्होणु प्रसिध्दी पावता. 'अनवट्टी' 'बनवासी' साव्नु १३ कि. मी. अंतरारी आस्सा.

बनवासी ऋषी-मुनींल तपोभूमी. शुक्राचार्यानु संजीविनी विद्या हांगा प्राप्त केल्लिली खंय्! मृकंड ऋषीन पुत्र संताना खात्तिर हांगाची तपश्चर्या कोर्नु मधुकेश्वराक प्रसन्न केल्लिल खंय्! नंतर ताक्का जाल्लिल चेर्डाक 'मार्कांडेय' म्होणु नांव दवर्ले खंय्!

जमदग्नी ऋषी पुत्र भार्गव बनवासी येव्नु तपश्चर्य कर्ता. मधुकेश्वर प्रस्न जाव्नु ताक्का



वृषभ मंटप, बनवासी

मातृहत्या दोशांतुल्यान मुक्त कर्ता. 'परशु' म्हळिल आयुध भार्गवाक दित्ता. तेन्नांचान भार्गवाक 'परशुराम' म्हणताती. अश्शीं आनीक कित्येक कथा ह्या क्षेत्राचेरी घडिल्यो तुमकां आयकुच्याक मेळताती.

बनवासींतुले मधुकेश्वर मंदीर अमर शिल्पी जक्कणाचार्यान बांदिलिलें सध्या शिथिलावस्थेंतु आस्सा. गर्भगुडिंतुले लिंग ३ फूट उंच आसा. 'शुध्द म्होवावरी' (Honey) ते लिंगाच रंग; ते दिकून ताक्का 'मधुकेश्वर' नांव पडलें अशें कांय लोक म्हणताती. उर्च्यापुरो!

संपूर्ण देवूळ ७२ खांब्यांचेरी आस्सा. भायलो भाग ५० खांब्यांचेर, भित्तर्लो भाग १६ खांब्याचेरी आनी गर्भगुडी ६ खांब्याचेरी आस्सा. शिल्पकलेचो उत्कृष्ट नमुनो तुमकां हांगा पळोवच्याक मेळता. देवळाचे वृषभ मंटपांतु, एक अती सुंदर नंदी विग्रह (मुर्ती) आस्सा. नंदीचे दाव्या दोळ्याची दृष्टी मधुकेश्वराचेरी आनी उजव्या दोळ्याची दृष्टी पार्वतीचेरी आस्सा. कर्नाटकांतु ही नंदी एक विशिष्ट शिल्पकृती म्होणु प्रसिध्दी पावल्या. देवळा अेद्राक (सामकार) आसचो ध्वजखांबो अेक्का पात्थरान (फातरान) केल्लिलो. ताक्का जोयिंट (joint) ना. उंची अदमास ५०'ते ६०' आस्सा.

बनवासींत, कदंबा नंतर, 'चालुक्य', 'राष्ट्रकूट', 'विजयनगर', 'बिळगी', 'केळदी', 'स्वादी' घराण्यांचे राज्य करताती. 'मधुकेश्वर' देवस्थानाचो रथ त्या कालांतु (क्रि. श. १६०८) संपूर्ण दक्षीण भारतांतु होड आनी ऊंच जावनास्सिलो. स्वादी घराण्याचे रामचंद्ररायानू करोसून दिल्लिलो तो. त्या काळांत रथ हस्ती तांडितस्सिले. (आडसले) रथाचो कलश इतलो ऊंच की पळैतल्यांल मुंडास (फेटो किंवा टोपी) सक्कल पडतस्सिली खंय्! तेन्नांची रथबीदी रूंद, सरळ जावनास्सिलो, अजून दिस्सून अेत्ता. रथोत्सव प्रतीवर्ष चैत्र शुध्द अेकादशी किंवा द्वादशीक, मगा नक्षत्रांतु जात्ता. देवाक रथारी बसोवनु रात्रीचें अकरा किंवा साढे अकरा घंटेरी ओडणु व्हरताती. आजु-बाजूचे गांवातुले लोक हजारांनी जमताती. रथ परत फिर्नु देवळा समोर येत्तना आनी रथावयल्यांन देवाक देंवयतना दुसरो दीस जात्ता. अेकूण खूप मजा येत्ता.

वसंतोत्सवावेळार देवाक बसोवनु पुजा कोर्च्याक स्वादी घराण्याचे रघुनाथ रायान. (क्रि. श. १६२८) ग्रेनायट फातराची अतिशय सुंदर मांची बांदून दिल्या. ती अजून पोळोवच्याक मेळता. शिल्पकृतीचे दृष्टीन तो Rare Piece म्होणु जगप्रसिध्द जावनास्सा. आज ताजी किम्मत कित्ले कोटी रु. म्हळिल अंदाज कोर्चे कठीण म्हणताती.

१७वे शतका नंतर बनवासीचें वैभव कम्मीं जायत गेल्लें. तें राज्य मुसलमानाल हात्तांतु गेल्लें. टिपुसुलतानाले पराभवा नंतर ब्रिटिशाल हात्तांतु गेल्लें. त्या काळांतु मधुकेश्वर देवळाचें उत्पन्न पळोवनु ब्रिटीश सरकारान देवळाचे मेनेजमेंट (कारभार) आपल्याले हात्तांत घेत्ता. इत्ले वैभव संपन्न 'बनवासी'ची अवस्था आज पळयल्यारी अति दु:ख जात्ता. आमकां कोणांकची आमगेल इतिहासाचो अभिमान ना. हेंची आमगेलें दुर्दैव.

बनवासीचे आस-पास निसर्गाचे सुंदर रूप पोळोवेत. हांगाचे निसर्ग कवी कल्पना न्हय! तो अेक अनुभव जावनास्सा. कवी कालिदासान बनवासीचें वर्णन केल्यां. पंप कवीन वर्णन केल्यां. विदेशी प्रवासी हुयेन-त्सांग, टालेमी, अल्-बरूनीन बनवासीचें वर्णन केल्यां.

इत्लसरू प्रसिध्दी पाविले बनवासीचे गत वैभव आनी निसर्ग सौंदर्य अेकपंता मुद्दाम पळोवनु वचाती. बनवासी साव्नु लाग्गी 'गुढवी' पक्षीधाम आस्सा. हें दोन्नी अेक्कपंता पोळोवेत. प्रवासाचो आनंद आनी समाधान नक्की तुमकां मेळता.

बनवासी अेत्तल्यांनी कुमटा किंवा हुब्बळ्ळी पर्यंत रेल्वेन येवेत. थंचान देढ-दोन तासाची बस् प्रयाण केल्यारी सिर्सी येव्नु पावच्याक जात्ता. सिर्सीचान बनवासी वोच्याक तुमकां खंचे ना खंचे वाहन सौकर्य मेळता.




- पद्मनाभ नायक



बी/२०१,
मंजुनाथ सीएचएस लि.,
संत नामदेव पाथ,
तिलक नगर,
डोंबिवली (ई) ४२१ २०१
फोन : (०२५१) २४२१४०१

पडबेर

# ज्ञानियाचा राजा..........



**ज्ञा**नियाचा राजा... गुरू महाराज...हीं उतरां जेन्नां जेन्नां हांव आयकतां तेन्नां तेन्नां 'गुरू' ह्या उतरांतल्या अगाध सामर्थ्या मुखार नतमस्तक जातां. अज्ञानाच्या काळखांतल्यान आत्मगिन्यानाच्या प्रकाशा कडेन व्हरपी व्यक्तिक गुरू म्हणटात. दर वर्सा भारतभर आशाढ पुनवेक गुरूपौर्णिमा मनयतात. अंदू सात जुलयाक 'गुरूपौर्णिमा' आसा. महर्षी व्यासांचो जल्म ह्या दिसा जाल्लो म्हणून तिका व्यासपुनव अशेंय म्हणटात.

महर्षी व्यासान वेदसंहिता तयार केल्यो. एकलक्ष श्लोकांचें महाभारत अठरां पुराणां आनी ब्रह्मसूत्रां सारक्या ग्रंथांची रचना केली. ताणीं धर्मशास्त्र आनी राजनिती शास्त्रांतल्यान मनीस जातीच्या कल्याणा खातीर मार्गदर्शन आनी उपदेश केलो. तांकां 'जगत्‌गुरू' अशेंय म्हणटात. गुरू भितर ब्रह्मा, विष्णू, महेश हे तिनय देव आसात देखून ताका साक्षात परब्रह्म म्हळां.

गुरू भितर देवाचें आनी शिश्या भितर भक्ताचें रूप पळयतना, गुरू आनी शिश्य कसो आसचो हें जाणून घेवप गरजेचें. गुरू फकत शिक्षणीक मार्गदर्शकच न्हय तर जिणेची रीत शिकोवपी अध्यात्मीक शिक्षक. तो आत्मज्ञान दिता. गुरू अहंकारा पासून मुक्त आसता. कीर्ती आनी लाभ हाचे कडेन आकर्षित जाय नासतना, एकनिश्ठेन तो शिश्याक अंतिम उद्दिश्टां मेरेन व्हरता. शिश्याचें प्रगती कडेन लक्ष दिवन ताका योग्य दिका दाखयता. तो मोग दिता. तांतुंतल्यान विस्वास, भक्ति, संयम, खोलायेन आकलन आनी ज्ञानाचो प्रकाश निर्माण जाता.शिश्या विशीं नि:शंक जावन तो ताच्या मनांत विद्येची रुजवण करता. शिश्याच्यो समस्या प्रस्न हांच्यो जापो दिवन ताका सत्य सोदपाक उत्तेजन दिता.

शिश्य कसो आसचो? तर ज्ञान घेवपाची पात्रताय, जिद्द, अखंड यत्न करपाची तयारी हे गूण ताचे कडेन आसपाक जाय. तो ज्ञाना खातीर तानेल्लो आसपाक जाय. आत्मविस्वास निश्ठा, गुरू प्रेम, नमळाय, निर्धार ह्या गुणांनी ताणें आपलें ध्येय साध्य करपाक जाय. अपेक्षीत वेळार ध्येय साध्य जालें ना जाल्यार निर्शेनासतना यत्न करीत रावपाक जाय. असंख्य स्मृती आनी संस्कारांचे रंग चडिल्लें चंचल मन धीर आनी एकाग्र जावपाक अमर्याद यत्नांची गरज आसता. गुरू विशीचें प्रेम, संयम आनी नमळाय हाचें मोल शिश्याक कळपाक जाय.

प्रेमांतल्यान धैर्य, संयमांतल्यान समृद्धी आनी नमळायेंतल्यान सामर्थ्य निर्माण जाता. खरो शिश्य गुरू कडल्यान अशे शक्तिची विद्या घेता की जी शक्त परब्रह्मा कडेन एकरूप जातनाय ताका सोडून वचची ना. तर अशें हें गुरू-शिश्याचें नातें .

ज्या गुरू वयल्या श्रद्धेन जिणेंतल्या सगल्या संकश्टां कडेन झुंजपाची तांक दिली, ज्या गुरू वयल्या निश्ठेन जिणेक यशाचो मार्ग दाखयलो, ज्या गुरू वयल्या भक्तिन अज्ञानांतल्यान ज्ञाना कडेन आनी काळखांतल्यान उजवाडा कडेन वचपाची दिका मेळ्ळी. त्या गुरूचें स्मरण करून कृतज्ञताय व्यक्त करपाचो हो दीस. शिश्य संवसारांत खंयूय वचूं गुरुची तांचेर सदांच कृपादृश्टी आनी सुक्ष्म नदर आसता.

जे प्रमाण,

**घार हिंडते आकाशी, झेप घेई पिलांपाशी**
**माता गुंतली कामासी, चित्त तिचे बाळापाशी**

ना जाल्यार

**ह्या डोळ्यांची दोन पाखरे**
**फिरतील तुमच्या भोवती**
**पाठलाग ही सदैव करतील**
**असा कुठेही जगती...**

ह्यो ओळी पळयात.

कोण तरी आमकां पळयता... ही जाणीवच संवेदनशील मनाक सन्मार्गार व्हरपाक पुरो. मागीर ताचे कडल्यान कसलेंच दुश्कर्म घडना.

तर अश्या ह्या मार्गदर्शक गुरूक नमळायेचीं दोनूच उतरां.

**'दिव्यत्वाची जेथ प्रचिती, तेथे कर माझे जुळती'**





**– अपर्णा गारूडी**
शिवोली, गोंय
फोन : २२७२७५१



# आवयांनो, भुरग्यांक वाडयतना हीं पथ्यां पाळात



घरांत भुरगें आसप म्हणल्यार खोशयेचो खीण, पूण भुरग्याक हाताळटना खुबशीं पथ्यां पाळचीं पडटात. कितें करचें आनी कितें करचें न्हय अशीं दुबावाचीं ल्हारां आवयबापायच्या मनांत घुंवत रावतात. राजा प्रकाशनाच्या डॉ विठ्ठल प्रभू हांच्या पुस्तकांत भुरग्यांक कशें वाडोवप हे विशीं मार्गदर्शन आसा. त्या पुस्तकांतलें हें एक प्रकरण. हें प्रकरण सेर्त आवयक मार्गदर्शन थारतलें हातूंत मातूय दुबाव ना.

१. भुरग्याक पावडर, काजळ लावचें न्हय. कारण हाचो कसलोच फायदो नासता. वयल्यान लुकसाण मात जाता. पावडराक लागून अॅलर्जी जाता. काजळ निर्जतूक नासता. तें लायतना दोळ्यांक दुखापतूय जावंक शकता.

२. भुरग्याक वाळे, कांकणां वा भांगरा वस्ती घालच्यो न्हय. त्यो गजाली तांकां बेडयो कश्यो दिसतात.

३. भुरग्याक प्लास्टिकाची चड्डी घालची न्हय. प्लास्टिकाच्या कपड्यांत ताका गुठलावचें न्हय. ताचे कातीक हवा लागना. ताका लागून ताका लुकसाण जावं येता.

४. न्हाणयतना ताच्या कानांत उदक घालचें न्हय. कानाचो पड्डो पिंजता वा भुरगें भेड्डें जाता.

५. कानांत तेल घालचें न्हय. माथ्याक पचपचीत तेल लावचें न्हय. ताका लागून बुरशी - संसर्ग जाता. माथ्यार तेल लायल्यार भुरगें तैलबुद्दी जायना. तेल कातीचेरूच उरता. कवटिंतल्यान भितर वचना आनी ताची गरजूय ना. नाकांत तेल घालचें न्हय. न्युमोनिया जाता.

६. कानांत फस्का काडी, बॉबपीन घालून मळ काडचो न्हय.

७. भुरग्याक सरळ उमथें न्हिदोवन दूद घालचें न्हय. कानाचें भितरलें दार गळ्यांत आसता. थंय दूद सांठून उरता. जंतुचो संसर्ग जाता आनी कान दुखता, फुट्टा, पूं येवंक लागता. दूद घालतकच भुरग्याच्या तोंडांत बोट घालून पुसचें न्हय.

८. भुरग्याक बाळकडू, कुमारी आसव, ग्रायपवॉटर दिवपाची गरज ना.

९. भुरग्याक चींव दिवची न्हय. ताका लागून जंतूचो संसर्ग जाता. हगवण लागता. दांत फुडें येतात.

१०. कलय काडूंक नाशिल्लीं तांब्याचीं वा पितळेचीं आयदनां वापरचीं न्हय. भुरग्याचें यकृत इबाडटा.

११. प्रसाद म्हणून देवळा मुखावेली उक्ती मिठाय, तीर्थ समजून न्हंयचें खदूळ उदक भुरग्याक दिवचें न्हय. ताका हगवण आनी ओंकारें येवंक लागतात.

भुरगें स्वता उबें राव मेरेन ताका उबें करचें न्हय. कूड सांबाळपाची तांक पांयांक येवंक नाशिल्ल्यान पांय गोल जातात आनी फुडें उंचाय उणी जाता.

१३. भुरग्याक वाऱ्यार उडोवन जिखचें न्हय. मान कस्स जावन गंभीर परिस्थिती उप्रासूंक शकता. (मज्जारज्जूचेर ताण पडटा) भुरग्याचे दोनूय हात धरून ताका उखलचें न्हय, खांदो निखळपाची शक्यताय आसता.

१४. फोगाचो धुवोर विखारी आसता. ह्या धुवरा लागसार भुरग्याक व्हरचें न्हय.

१५. भुरगें दावखुरें आसत तर ताका उजव्या हाताचो वापर करपाची सक्ती करची न्हय. कांय भुरगीं दावखुरी आसतात हें सैमीक समजतात.

१६. न्हिदेंत मुतप, तोंडांत बोट

घालप, नाखटां खावप, दोळे पिटपिटावप, फट उलोवप, ल्हान-सान वस्तू चोरप ह्यो प्रवृत्ती पिरायेच्या पांच वर्सां मेरेन सभावीक मानतात. ते खातीर ताका ख्यास्त करची न्हय.

१७. भुरग्याक बंड्, चिंटू, मिक्की अशा नांवांनी तांकां उलो मारचो न्हय. एक फावट अशें नांव चिकटलें की व्हडपणांत लेगीत ह्याच नांवान लोक उलो मारतात.

१८. काळोख, दोतोर, भूत हांचो हावको भुरग्याक दाखोवचो न्हय, भुरगें भिवकुरें जाता.

१९. भुरग्याची तुळा खंयचेच बाबतींत हेर भुरग्यां कडेन करची न्हय. भुरगें उमेद वगडावन बसता. दरेक भुरगें स्वतंत्र आसता. वेगळें आसता.

२०. भुरग्याक जोर आयल्यार दारां-जनेलां बंद करचीं न्हय. जाड पांगरूणांत गुठलावचें न्हय. कातिंतल्यान गरमी भायर पडची हे खातीर पातळ चादर गुठलांवची. कुडींत वारें घोळटें उरल्यार जोर देंवपाक आदार जाता.

२१. हगवणेंत भुरग्याक उदक दिवप बंद करचें न्हय.

२२. पोट दुखल्यार पोट चोळचें न्हय. भितरल्या अवयवांक लुकसाण जाता आनी योग्य उपचाराक कळाव जाता.

२३. ओंठ, नाक, दोळे ह्या सुवातींनी फोड आयल्यार तो फोडचो न्हय. थंयचे जंतू पातळटात आनी मेंदवांत वचून गंभीर परिस्थिती निर्माण जाता. हून उदकाचो शेक दिवप आनी ॲण्टिबायोटिक्स दिवपाची गरज ना.

२४. स्वता उपचार करचे न्हय.

२५. शिस्त ह्या नांवा खाला भुरग्याक खर ख्यास्त करप, कोंडून दवरप टाळचें. मानसीक आघाताचे परिणाम भुरग्याचे व्यक्तीमत्वाचेर जाता. शारिरीक जखमो भरून येतात पूण मानसीक जखमो भरून येनांत. तापोवप, निर्शोणी हाडप, ख्यास्त आनी टिका करप हाका लागून भुरग्यांचीं मनां बावतात. ताचे बदला ताका उर्बा दिवप, तुस्त करप, इनामां दिवप. जे वरवीं तांचीं मनां फुलतात.

२६. 'आईबाबा' खेळ खेळटना भुरग्यांनी नागडीं जावन एकामेकांक घट्ट धरलीं तरी तांकां मारचें न्हय.

२७. घरांत आवयबापायन भुरग्या मुखार झगडचें न्हय. भुरग्याक दोगूय जाय आसतात. झगडीं पळोवन भुरगें भिता.

२८. दिसभर भुरग्याक टीव्ही मुखार बसोवचें न्हय.



**– अतूल पंडित**

मडगांव – गोंय

## कुडुऱ्यो

### मेल्ल्यांगाडी

दुब्रायच्यान आयिल्ल्या आंतोनीन दाबोळे विमानतळार टॅक्सी धरली आनी ड्रायव्हराक पणजे वचूंक फर्मायलें.

घरा वचपाचे हुमळशिकेंत मुतूंक जाल्लें आसतनाय तो विसरलो आनी गाडयेंत बसतकच ताका कडकडून मुतूंक जालें. ड्रायव्हराकडेन उपकार मागपाखातीर ताणें देशेंतपणान ताच्या फाटल्यान हळूच थापटिलें. ते बराबर ड्रायव्हराचो गाडयेवयलो कंट्रोल गेलो. ताची टॅक्सी रस्त्यावेल्यान हेवटेच्यान तेवटेन धावूंक लागली. ताका सगळोच थरथरो सुटलो. मोठ्या कश्टान ताणें टॅक्सी वाटेतीन उबी केली आनी फाटल्यान वळून आंतोनीक म्हळें, ''पात्रांव आतां खाटीर माल्लें बोरें आहा. नेक्स्ट टायम कोन्ननाका आं!''

''आरे बाबा, ओहे मातशे माल्ल्यार तूं इतू भियेतलो हें खोबोर नाहलें म्हाहां. केसो गोंयकार रे तूं!'' आंतोनीन चूक मागत म्हळें.

''सायब, तेजें किंतें आहा जाणां तूं?'' आंतोनीकडे पळयत ड्रायव्हरान म्हळें, ''हांव हाटलीं पोंचीस वर्सां मेल्ल्यांगाडी (हर्सव्हॅन) चलोयतालों. आयज मुगे टॅक्सी चलोवपा हो पयलो दीस.''

### तूं अशें सांगत राव

सायबाची खबर घेवंक रवळून सायबाच्या घरा फोन केलो. फोन सायबाचे बायलेन घेतलो.

''हॅलूऽ. सायब केसो आहा?''

''सायब दोन दिसां पयलीं भायर पडलो रे रवळू.'' रडत रडत सायबा बायलेन म्हळें आनी फोन दवरलो.

दुसरे दिसाय रवळून फोन केलो आनी विचारलें ''सायब कसो आसा?''

''आरे रवळू तुका कालूच सांगिल्लें न्हय रे सायब भायर पडलो म्हूण!''

सायबा बायलेन आवाज वाडोवन म्हळें आनी फोन दवरलो. परतून फोन वाजलो. फोनार रवळूच आशिल्लो.

''आरे रवळू, तूं परतून परतून फोन करून तीच गजाल कित्याक विचारता? तुजो विस्वास बसना?'' सायबा बायलेन विचारलें.

''विस्वास बसता बाय. पूण इतली बरी गजाल तुज्या तोंडांतल्यान परती परती आयकूंक आनीकूय बरी दिसता.''

# बिम्ब प्रकाशन

'धर्म–लक्ष्मी'

सांत लॉरेन्स, आगशी – गोंय ४०३ २०४. फोन :२४३८३५५, e-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

| क्र. | नांव | वर्स | मोल | लेखक |
|---|---|---|---|---|
| १. | दर्या सुंदरी (बाल साहित्य) | २००५ | ४०/- | दिलीप बोरकार |
| २. | काणी एके जिणेची (कादंबरी) | २००३ | ५०/- | सुजाता सिंगबाळ |
| ३. | खगोलशास्त्रीय नाट्यांगण | २००३ | १००/- | श्रीकांत नागवेंकार |
| ४. | वादळ आनी वारें (कादंबरी) | २००४ | १५०/- | फा. आ. पेरेरा |
| ५. | चतुर्विध (एकांकी) | २००५ | ५०/- | उल्हास नायक |
| ६. | भारतवर्षाची संस्कृतायेची साधना | २००५ | १५०/- | रवीन्द्र केळेकार |
| ७. | पोरसांतलीं फुलां (ललित) | २००६ | ५०/- | स्मिता भंडारे |
| ८. | भलायकी | २००६ | ८०/- | डॉ. वंदना धुमे |
| ९. | भूंयफोंड (कविता) | २००६ | ४०/- | ग्वादालूप डायस |
| १०. | अंवसर (कविता) | २००६ | ६०/- | श्रीकांत पालसरकार |
| ११. | गुंजो (कविता) | २००६ | ६०/- | नयना नाडकर्णी |
| १२. | अमुरपिक्यो चिंचो (ललित) | २००६ | ८०/- | उदय गुडे |
| १३. | मळब झेंप (कथा) | २००६ | ८०/- | माया खरंगटे |
| १४. | शिमेपलतडच्यान (कविता) | २००६ | ६०/- | दत्तात्रय गोविंद प्रभू देसाय |
| १५. | बेलापान (ललित) | २००७ | १००/- | डॉ. उदय बरड |
| १६. | समर्पण (कादंबरी) | २००७ | २००/- | नं. ध. बोरकार |
| १७. | कसलो धीर आनी आधार...? | २००७ | १००/- | रवीन्द्र केळेकार |
| १८. | मोगतनर (कविता) | २००७ | ८०/- | दिपा खोलकार |
| १९. | पोवनां (ललित) | २००६ | १२०/- | नयना आडारकार |
| २०. | तांबशी (कविता) | २००३ | ७०/- | मनोज नरेंद्र कामत |
| २१. | मोतयांची माळ (बालसाहित्य) | २००६ | ६०/- | प्रशांती तळपणकार |
| २२. | सात काणयो (कथा) | २००४ | ६०/- | गणपत कवळेकार |
| २३. | माणकां मोतयां (बालसाहित्य) | २००४ | ४०/- | नरेंद्र काशिनाथ कामत |
| २४. | काळखी जीण (कविता) | २००४ | ६०/- | साईदास आपटे |
| २५. | म्हजी माती म्हजें मळब (कविता) | २००७ | १००/- | हर्षा शेटये |
| २६. | पोको (कादंबरी) | २००४ | २५०/- | नं. ध. बोरकार |
| २७. | आंबाड्या भोवतीं तीन शेंवतीं (निबंध) | २००६ | १२०/- | जयमाला दणायत |
| २८. | वावराडी (एकांकी) | २००६ | ६०/- | नं. ध. बोरकार |
| २९. | मम्मी (एकांकी) | २००६ | ५०/- | नं. ध. बोरकार |
| ३०. | सुनामी सायमन (कादंबरी) | २००९ | १८०/- | दामोदर मावजो |
| ३१. | उमलताना (मराठी कविता) | २००९ | ८०/- | राधा भावे |
| ३२. | पचिबाब (व्यक्तिमत्व) | २००८ | २०/- | संपादन:दिलीप बोरकार |
| ३३. | गोंदू (कादंबरी) | २००९ | २००/- | नं. ध. बोरकार |
| ३४. | हावटण (कादंबरी) | २००९ | २००/- | महाबळेश्वर सैल |

## शब्दफूल




अक्षरवीणा - बाय अपर्णा गारुडीचो पयलो वयलोच कवितां झेलो. ह्या झेल्याक प्रस्तावनां बरयतना ज्येश्ठ कवी नागेश करमली म्हणटात - अपर्णाच्यो कविता एक वेगळोच परिणाम सादतात. पयली गजाल म्हळ्यार तातुंतल्यान कवियत्रीची एक विशिश्ठ काव्यप्रतिमा नदरे मुखार उबी रावता. अक्षरवीणेंतल्या काव्यरचनांकडेन पळयता तेन्ना एक गजाल स्पश्ट जाणवता ती म्हळ्यार कवियत्रीक काव्य भावनां आनी काव्य मुल्ल्यांची बऱ्यांतली बरी जाण आसा.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणे खाला उजवाडाक आयिल्ल्या ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन प्रतिक प्रकाशन, ओशेल, शिवोली हांगच्यान केलां.

८१ पानांच्या ह्या पुस्तकाचें मोल ३५ रुपया जावन आसा. पुस्तकाक विजय शेटमांद्रेकार हाणीं चित्र काडलां.

मडगांवचें दीपा दिनकर मुरकुंडे ह्यो श्री हरि प्रकाशन संस्थेच्यो जाळवणदार. भुरग्यां खातीर साहित्य मेळचें म्हण दीपा बाय भुरग्यांचीं पुस्तकां प्रकाशीत करता. हांवें करचें तरी कितें हें सुधा खरंगटे हांचें नाटकुल्यांचें पुस्तक हेच प्रकाशन संस्थेन काडलां.

ह्या पुस्तकांत सुधाबायचीं पांच नाटकुलीं आसात. शाळेंतल्या भुरग्यांक गेदरींगाक करपा खातीर वा एकांकीका सर्तींत भाग घेवपा खातीर नाटकुलीं




बसोवंक हाचो बेसबरो उपेग जावं येता.

पुस्तकाचें मुखचित्र वासू हाणें काडलां. ४० पानांचें हें पुस्तक सोबीत रुपान छापलां आनी ताचें मोल २५ रुपया जावन आसा.

श्री हरि प्रकाशनाचें हें ३०वें प्रकाशन जावन आसा.

स्वानुभव आनी कांय घडणुको जेन्ना कोणाच्याच वैयक्तीक जिणेंत विनोद घेवन येतात तेन्ना ताचो वापर ललित साहित्यांत करपी कलाकार निखटो कलाकार उरना तर तो क्रियेटर जाता. अपर्णाचो सभाव थोडोसो विनोदी आंग घेवनूच जल्माक आयिल्ल्यान ताका दर खिणा जो आनंद मेळटा तो ताणें आपल्या ह्या विनोदी बरपांतल्यान आमकां वाटला. अशें गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष एन्. शिवदास जाच्या निबंदाविशीं म्हणटात त्या अपर्णा गारुडी हांचो नवो निबंदाचो झेलो म्हळ्यार गजाली.

प्रतिक प्रकाशनान आकर्शक रुपान हो निबंधा झेलो उजवाडाक हाडला.

रवीन्द्र केळेकार हांचो आशिर्वाद लाभिल्ल्या ह्या ९२ पानांच्या पुस्तकाचें मोल ६० रुपया जावन आसा. पुस्तकाचें मुखचित्र गौरिश वेर्णेकार हाणीं केलां तर भितरलीं चित्रां कैलास अन्याल हाणीं काडल्यां.

गजाली



अपर्णा गारुडी

# उतरकुवाडें



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

**आडवे**

१. राजीव गांधीची बायल, राहुलाची आवय.
४. शुभ मंगल ह्ह्ह्ह्ह
६. रक्त
७. रचणी, घडोवणी
९. श्रीरामान 'हो' चवदा वर्सां भोगलो.
११. एक तरेचो जुगार
१३. ह्ह रांझा-एक आदलो सिनेमा
१४. भोवमान
१५. बऱ्या कसाचें, बलायकी दिवपी
१६. पेंट, लडो
१७. हनुमान
१८. बे
१९. पायांनी वचून वचून आपशींच जाल्ली वाट.
२१. एक विलायती सोरो
२३. मुसलमान भावांचो पवित्र ग्रंथ
२५. रातची फुलता ती वनस्पत
२७. मजलो
२८. ल्हान मठ
२९. पंढरपूरची नेमान वारी करपी

**उबे**

१. आयतारा उपरांतचो दीस
२. हाल, उपाद्रे
३. धिटाय, नेट
४. सात दिसांचो गट
५. टी. व्ही. वयली माळ, सिरियल (मराठी)
८. अजापाची गजाल, सैमाच्या नेमाभायली घडणूक
१०. सगल्यांक धरून, एकंदरीत
१२. शंकराच्या हातांतलें वाद्य
१४. बातमी (हिंदी)
१५. 'म्हारग'च्या विरूध्द
१७. गोंयचो फामाद आंबो
२०. वाटेर आडोवन केल्ली लूट
२२. महाराष्ट्राची राजभास
२४. राजाची बायल
२६. स्वर

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | ■ | ४ | | ५ | |
| | ■ | | ■ | ६ | | | ■ | | ■ |
| ७ | ८ | | ■ | ■ | ■ | ९ | | | १० |
| ■ | | ■ | ११ | १२ | | | ■ | १३ | |
| १४ | | | ■ | | ■ | ■ | १५ | | |
| १६ | | ■ | १७ | | | ■ | | ■ | |
| | ■ | १८ | | ■ | ■ | १९ | | २० | |
| २१ | २२ | ■ | २३ | २४ | | ■ | ■ | | ■ |
| ■ | २५ | | | | ■ | २६ | ■ | २७ | |
| २८ | | ■ | | ■ | २९ | | | | ■ |

**जून उतरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| शां | ता | दु | र्गा | ■ | पो | क | ळ | सा | ण |
| ति | ■ | व्र | ■ | ■ | र | ■ | ■ | त | ■ |
| शि | खा | ण | ■ | सं | वं | ट | ■ | व | न |
| के | स | ■ | पां | ■ | ट | ■ | लां | डो | र |
| त | ■ | प | ड | गू | र | ■ | ड | ■ | क |
| न | क्ष | त्रा | त | ळ | ■ | मां | गो | र | ■ |
| ■ | ■ | व | ■ | ■ | ता | ड | ■ | मा | घ |
| व्र | गा | ळ | ■ | प | ड | ती | ■ | र | ■ |
| त | ळ | ■ | व | ■ | मा | ■ | क | म | ळ |
| र | ■ | ब | ड | ब | ड | ■ | स | ण | ■ |

## रांदची कूड



## बांगड्यां उड्मेथी

**सामान :** ५ बांगडे, २ वाटी नाल्ला सोय, ४ मोठे कांदे, २५-३० मिरयांकण, १०-१२ सुक्यो मिरसांगो, १ कुलेर हळदी पिठो, मीठ, २ व्हडलीं कुलेरां तांदूळ, २ १/२ व्हडलीं कुलेरां हुडदाची दाळ, पाव कुलेर मेथी, अदमासान आमटाण, तेल.

**करपाची तरा :** बांगडे उजरावन धुयात, तव्यार तांदूळ आनी हुडीददाळ भाजात. २ कांदे उबे चिरून भाजून घेयात, मेथी मिरयां भाजात आनी कांद्या वांगडा सोय भाजात. भाजिल्ली सोय, आमटाण,मिरसांग, हळद मात्शी मोठी वाटात. मिरयां मेथी बारीक वाटात. उरिल्लो कांदो शिनून तेलांत तळशियात. तांतूत सोये वांगडा केलां तें वांटप घालून अदमासान उदक घालात मीठ घालात. वांटपाक खतखतो येतगीर तांतूंत बांगडे घालात, तांदूळ उडीद दाळिचो गुळो घालात थोड्या वेळान बंद करात.



## बांगड्यां लोणचें

**सामान :** मोठे ६ बांगडे, ५ कुलेरां मिरसांगे पिठो, १/२ कुलेर शंकरछाप हिंगाची पूड, ८-१० व्हडलीं कुलेरां तेल, ४० लसणीच्यो बोयो, १/४ धाकटें कुलेर मेथी, २-३ धाकटीं कुलेरां हळदिचो पिठो, अदमासान आमटाण आनी मीठ, १ धाकटें कुलेर सांसवां.

**करपाची तरा :** बांगड्याचे ५ ते ६ कुडके करात, मिरसांगे पिठो, आमटाण, हळदी पिठो बारीक वांटात. तेल तापतकच मेथी, हींग, सांसवां फोडणीक उडोवन तांतूंतच बारीक लसूण चिरून तांबडी जायसर भाजात. वांटप, बांगडे, मीठ घालून फोडणेंतूच धवळात (बांगड्या कुडके मोडूंक दिनाकात) मीठ घालून ५-७ मिनटां शिजयात.

## भरिल्ले बांगडे

**सामान :** ८ मोठे बांगडे, ३-४ मोठे कांदे, २ व्हडलीं कुलेरां मिरसांगेचो पिठो, १ धाकटें कुलेर हळदी पिठो, १५-२० लसणीच्यो बोयो, बोटायेदें आलें, १० लवंगां, ३० मिरयां, १ व्हडलें कुलेर सुकी कोथंबीर, १/४ धाकटे कुलेर जिरें, बोटा येदी तिखी, अदमासान मीठ, आमटाण, तळपाक तेल, तांदळा पीठ.

**करपाची तरा :** बांगडो उजरायतना मदीं उबो बांगडो चिरून मदलो कांटो उबो चिरचो आनी काडचो. बांगडे बरे निवळ धुंवचे. कांदो जाता तितलो बारीक शिनात आनीक मसालो बारीक वांटात. मीठ घालून कांदो मसालो कालयात. कालयिल्लें सगळें बांगड्यांनी भरात, तांदळाचें पीठ लावन तव्यार चुरचुरीत तळात. जिबेर उरतलो तुमच्या.

## बांगड्यां आंतांचे दांगर

**सामान :** २ वाट्यो आंतां, १ वाटी सोय, १ कुलेर भाजिल्ले कोथंबिरेचो पिठो, तळपापुरतें तेल, मीठ, ३ मोटे कांदे, तांदळा पीठ, ४ कुलेरां आमटाणी उदक, मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो.

**करपाची तरा :** आंतां निवळ धुयात, कांदो चिरात, सोय, कांदो, मसालो, मीठ, आंतां, आमटाणी उदक थोडें तांदळा पिठांत कालयात ताचे २०-२५ गुळे करात, ते पिठांत लोळोवन दाबून तव्यार तेलांत तळात. रुचीक लागतात.

## बांगड्या सुकें (सडसडीत)

**सामान :** ६ बांगडे, १ वाटी नाल्ला सोय, १ धाकटें कुलेर मिरसांगे पिठो, अर्द कुलेर हळदी पिठो, २ मध्यम कांदे, २ हरव्यो मिरसांगो, ५० सोलां. अदमासान मीठ. ६ ते ८ हरव्यो मिरसांगो.

**करपाची तरा :** बांगडे उजरावन बारीक कुडके करात. कांदो बारीक चिरात. हरवे मिरसांगे कुडके करात. मागीर सगळें सामान आनी बांगड्या कुडके कळसून घेयात. १ पेलो उदकांत उदक आटसर (सुकसर) शिजयात. जाय जाल्यार शिजतना आंबले कुडके नाजाल्यार बिमलां घालूं येता.





– सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार – पणजे.
मो. – ९८२३१११९१७

भलायकी



# मलेरिया

मलेरिया हें एक खूब पोरनें दुयेस जावन आसा. म्हूण ह्या दुयेंसा बद्दल सगळ्या लोकांक म्हायती आसा. आमच्या देसांतले ८० टक्के पर्यंत लोकसंख्येक मलेरिया जावपाची शक्यताय आसा.

मलेरिया कसो आनी कित्याक लागून जाता हें आमी समजून घेवंया.

'प्लासमोडियम' हें मलेरियाचें दुयेंस अतिसुक्ष्म जंतूंक लागून जाता. हे जंतू फकत सुक्ष्मदर्शक यंत्रानूच (Microscope) दिसतात. हे जंतू आपलें अर्दे आयुश्य मनशांच्या आंगांत आनी अर्दे आयुश्य जळारिच्या आंगांत घालयतात. मलेरियाचें दुयेंस जाल्ल्या मनशाक जर जळार चाबली आनी हीच जळार जर दुसऱ्या बऱ्या मनशाक चाबली, जाल्यार त्या बऱ्या मनशाक मलेरिया जाता. सगळ्योच जळारी मलेरियाचें दुयेंस पसरयनांत. फकत ॲनोफिलीस ह्या जातिच्या बायल जळारींक लागून मलेरिया जाता.(Female Anopheles Mosquito).

जेन्ना ही ॲनोफिलीस बायल जळार एका मलेरिया आशिल्ल्या मनशाक चाबता तेन्ना त्या मनशाच्या रगतांत आशिल्ले मलेरियाचे जंतू जळारींत वतात आनी १०-१४ दिसांनी जळारिच्या पोटांत तांची वाड जाता आनी ही जळार आतां मलेरियाचें दुयेंस पसरावपाक शकता. हीच जळार जर एका बऱ्या मनशाक चाबत जाल्यार ताका १४ ते २१ दिसांनी जोर येता आनी ताका मलेरिया जाता.

प्लासमोडियम जंतू हे चार तरेचे आसतात. प्लासमोडियम वायवेक्स (P. Vivax), प्लासमोडियम फालसिपेरम (P. Falciparum), प्लासमोडियम मलेरिया (P. Malaria), प्लासमोडियम ओवेल (P. Ovale)

आमच्या भारतात प्ला. वायवेक्साचो ६०-७०% तशेंच प्ला. फालसिपॅरमचो ३५-४०% केसीस दिसतात. प्ला. मलेरिया तर सामको थोडो आनी प्ला. ओवेल तर भारतांत आसच ना अशें म्हणटात.

प्ला. फालसिपॅरमाक लागून जो मलेरिया जाता तो सामको भिरांकूळ आसा. आनी हाचेर जर वेळार उपाय करिना जाल्यार ५०% पर्यंत दुयेंतीक मरण येवं शकता. ह्या मलेरियाक सेरिब्रल मलेरिया (cerebral Malaria)अशेंय म्हणटात.

### मलेरियाची लक्षणां अशीं आसतात

मलेरिया जाता त्या मनशाक जोर येता. हो जोर सद्दां येता/ नाजाल्यार एक दीस आड येता. मलेरियाच्या जोराच्यो तीन स्टेजी (stages) आसात.

१. कोल्ड स्टेज :- पयलीं १५ मिनटां ते एक वर दुयेंत कुडकुडता, ताका शीं खाता, पांगरुणां घेवंचीं पडटात, आंगार कांटो येता - हाका कोल्ड स्टेज (Cold Stage)म्हणटात.

२. हॉट स्टेज:- फुडल्या २-६ वरांनी दुयेंत मनशाक जोर येता - खूब जोर येता. ताची तकली उसळटा, ओकूंक येता, हाका हॉट स्टेज (Hot stage) म्हणटात.

३. स्वेटिंग स्टेज:-जोर देवूंक लागता आनी ताका भरपूर घाम सुट्टा. दुयेंत मनशाक न्हीद लागता आनी उटतकूच ताका आपूण सामको फ्राक दिसता. हें सगळें २-४ वरां उरता. हाका स्वेटींग स्टेज (Sweating stage) म्हणटात.

पूण आमी अशें लक्षांत दवरूंक जाय की मलेरिया जाल्ल्या सगळ्या दुयेंतांक असोच जोर येना. म्हूण कसलोय जोर येतकच, तो मलेरिया आसूं येता हें लक्षांत आसूंक जाय.

### मलेरियाचें निदान कशें करचें

पयलीं आमच्या सगळ्यांच्या लक्षांत

आसूंक जाय की कसलोय जोर मलेरिया आसूं येता. म्हूण जोर आयलो की रगत तपासून घेवंकूच जाय. इतलेंच न्हय, जर जोर चड दीस उरलो जाल्यार रगत परत परत (*दोन तीनदां*) तपासून तांतूंत मलेरियाचे जंतू आसा काय ना तें पळोवंचें पडटा.

जर तर ताच्या रगतांत मलेरियाचे जंतू मेळत, जाल्यार ताणें ताचेर सारकें वखद घेवंचें आनी दोतोराच्या सांगण्या प्रमाणें वखदां सोंपतकच परत रगत तपासणी करची.

### मलेरियाचें निदान आनी ताचेर वखदां

सगळ्या सरकारी इस्पितळांत, भलायकी केंद्रांत आनी हेर आवश्यक सुवातिंनी मेळटात.

### मलेरिया कशी कमी करूं येता.

जोर आयलो, रगत तपासलें, मलेरिया जाला म्हण ताचेर वखदां घेतलीं आनी हांव आतां बरो जालों, म्हाका आतां मलेरिया जावंची ना अशें म्हणल्यार जायना. आमी आतांच पळयल्लें आसा की जळारी चाबतकच मलेरिया जाता. आमच्या भोंवतणीं जो पर्यंत ह्यो जळारी आसात, तो पर्यंत आमकां परत परत मलेरिया जायत रावतलो. म्हूण प्रत्येकान जर ह्या जळारींक सोंपोवपाक उपाय केलो जाल्यारूच आमकां मलेरिया ह्या दुयेंसाचेर आडो घालपाक जमतलो.

### जळारी कमी करपाचेर थोडिशी जाणविकाय

साबार लोकांचो आदार आसल्या बगर भलायकेची खंयचीच कार्यावळ ही फळादीक जावंची ना.

मलेरिया दुयेंसाचेर आळाबंद हाडपाक सकयल्या पांवड्यां प्रमाणें काम करूं येता.

१. दुयेंस सोदून काडप.

२. रोखडेंच वखद घेवप.

३. जळार जावपाक दिवप ना.

दर एका पांवड्याचेर लोकांचो आस्पाव गरजेचो आसा. जोर आयल्या बराबर लागशिल्या भलायकी केंद्रार वचून रगत तपासून घेवप आनीक ताचेर फाव तीं वखदां रोखडींच घेवप गरजेचें.

### आपली राखण कशी करप

जळार चाबची न्हय म्हण उपाय करप हे म्हत्वाचे. आमच्या देशांत खुबशे लोक पांगरूण घेनासतना उगड्यारूच न्हिदतात. जळार चाबची न्हय म्हण 'मच्छरदाणी' वापरची. अशें केल्यार जळारी चाबूंक पावच्यो नांत आनीक मलेरिया जावपाची शक्यताय उणी जाता.

कोडुलिंबाचें तेल आंगाक लावन न्हिदल्यार जळारी चाबूंक पावनांत. बाजारांत आंगाक लावपाचीं खुबशीं वखदां मेळटात. तीं लायल्यार जळारी चाबूंक पावनांत.

जळारांचेर नियंत्रण दवरूंक साबार लोकांनी सामके सोपे उपाय घेवं येतात.

१. जळारिंची उत्पत्ती जावपी फोंडकुलां, खळयो आदी जागे जंय उदक साठवता, थंय माती घालून पुरोवचें. म्हळ्यार जळारी जावपाक शकना अशे तरेचें वातावरण सरभोंवतणीं तयार करचें. उदकाचीं गटारां आनी खळयो वेवस्तीत लीप करप, फोंडकुलां पुरवप, तण-घाण काडप आनी सगळे रस्ते, घरा भोंवतणीं जागे साफ दवरप.

२. ल्हान तळ्यांनी, बांयत एक खासा तरेचें नुस्तें (गप्पी, गामबुजीया) सोडपाचें.

३. सोबाय वाडोवपी उदकाचे झरे, थंडसाण हाडपी उदका कुलर, घरा वयर बसयिल्ल्या उदकाच्यो टांकयो आनीक हेर साबार सुवाती जंय उदक उरून जळार जांव येता, त्यो सगळ्यो सुवाती थारावीक वेळान साफ केल्यार, जळारिचे उत्पत्तिचेर आळाबंद हाडप शक्य आसा.

४. तशेंच नाल्ल्यो, सोडा बाटल्यो, फुटिल्ल्यो बालद्यो, टायर आनी असल्यो सगळ्यो वस्तू हांगा थंय उकत्यार उडोवंच्यो न्हय कारण तांतूंत उदक उरून जळारिंची उत्पत्ती जाता आनी मलेरियाचें प्रमाण वाडत उरता.

सरते शेवटी सांगपाचें म्हळ्यार आमी प्रत्येकानी जर आपल्या सरभोंवतणीं लीप दवरून, जळारी कमी करपाचो प्रयत्न केलो जाल्यारूच आमकां मलेरियाचेर आळाबंद हाडप शक्य जातलें.





**– डॉ. वंदना धुमे**
९८२२५८५२८५

# पोटींग

दर वर्सा एप्रिल-मे म्हयनो हांव फक्त म्हजे खातीर दवरतां. पयलीं हांव एकटोच म्हाका जाय थंय भोवतालों. रिझर्व्हेशन नासल्यार लेगीत ट्रेनीची तिकेट काडून गाडयेंत बसतालों. ट्रेनीच्या दब्याच्या दारार लांबून लेगीत हांवें रातभर प्रवास केला. तेन्ना तरणेपणाचो मद आशिल्लो. आतांय आसा. पूण वेगळे तरेचो. तरी एक जबाबदारी आसा. कुकीची, काकीची.

काकी म्हळ्यार कामिनी किणी. ताच्या नांवाचीं आद्याक्षरां घेवन ताका पयलीं सावन सगळे काकीच म्हणटात. ताचो चलो अदीक. ताका ताचे घरचीं आनी हांवूय कुकी म्हणटां. कुकी म्हाका काका म्हणटा. अशे तरेन फाटलीं तीन वर्सां ह्या एप्रिल-मे म्हयन्यांत काका, काकी, कुकी खंय ना खंय वचून येताच. कुकीक शाळा आसता देखून जुनाचे सुर्वेक ताका येवंकूच जाय आनी म्हाका?

म्हाका खंय गेल्यार परत येवंकूच जाय अशें कांय ना. पयलीं आवय आसतना म्हाका परतुपाचें आसतालें. देखून हांव सकाळीं भायर सरिल्लीं सवणीं सांज जालीं काय घोटेरांत परततात तसो खंयीय गेल्यार घरा परततालों. पूण आतां तो हुसको ना. म्हणटकच हांव सरळ दिकेन खंयीय वचूंक शकतां. तरीपूण हांव परतो येतां. कित्याक? हिकाच ती जबाबदारी म्हणटात. ही आनीक एक जबाबदारी. बिम्ब म्हूण हें एक काम घेवन बसलां. ते भायर म्हाका जें कितें करपाचें आसा तें सगळें म्हाका वळखतात तांकाच दाखोवंक करपाचें आसा देखून हांगाच परतून येवन हांव कितें तरी करीत आसतां.

तरी परतुपाचें तेंय एक कारण न्हयच. म्हाका साद घालता तो गोंयचो पावस. पावस तसो सगळेकडेन पडटा. आदले वर्सा हांव सिंगापूर, मलेशिया हांगा आशिल्लों. सिंगापूराक तर अर्दीमर्दी वर्सूयभर पावस पडटा. पूण ती पीरपीर. पूण मलेशियांतलो पावस हो आकांताचो. गोंयांत जसो काळोख करून दडकांनी, जोगलावण्याच्या आनी गडगडाच्या भारार पावस रकता तसो तो मलेशियांत रकता. थंयचो तो पावस पळोवन, वातावरण पळोवन कालिदासाचे मेघ उजैनचे काय ह्या मलय प्रदेशांतले काय? असोय म्हाका प्रस्न पडिल्लो. पूण हो पावस खिणयाळो. माया म्हयन्याक हांवें तो अणभव घेतिल्लो. पूण त्या पावसाक आनी गोंयच्या पावसाक सर करूंक नज. गोंयच्या पावसाची सर खंयच्याच पावसाकडेन करूं नज. देखून हांव मलेशियाक चड काळ रावनासतना गोंयच्या पावसा खातीर गोंयां परतल्लों.

फाटल्या वर्सा म्हजी तकली उसयल्ली. प्रवास झेपचोना अशें दिशिल्लें. आत्मविस्वास माल्सो ढळमळीत जाल्लो. तातूंत दोतोरानी गाडी चलोवं नाका म्हणिल्लें. धा दीस सतत गाडी चलयली. दोन हजार किलोमिटर. आख्खें महाराष्ट्र पालतें घालें. तातुंतल्यान 'कालसर्पयोग' प्रवास वर्णन तयार जालें.

ह्या वर्सा मात एप्रिल-मे हुकलो. तरी थारायलें, नेम मोडप ना. जून धरप. कश्मिराक गेलीं, मे सोंपता सोपतां जूनाच्या आरंभाक. म्हाका पयलो पावस मेळ्ळोच ना. दिल्ली न्यूजार कळ्ळें. गोंयांत पावसान सांवार

मांडला, दिवचल हुंवाराचे दिकेन म्हूण! चिटमिटे पडले. तरीपूण, कश्मिराक पावस पडलोच. पावस कसलो? कऱ्यांचो. आठ वर्सांनी टुरिस्ट सिझनांत पावस पडिल्लो आनी बर्फूय पडिल्लो खंय! म्हणटकच हांव लकी म्हणपाचें! पूण खरें सांगूं, हांव कश्मिराक. पूण मन म्हजें गोंयांत. पावसाच्या वेगवेगळ्या रूपां वांगडा खेळपाक.

गोंयचो पावसूच तसो पिशें लावपी. माया म्हयन्याचे अखेरेक वारो कुपां जमोवन हाडटा. मळबाचेर तीं मांडून दवरता. ह्या काळ्या काळ्या कुपांक एक आगळेंच सौंदर्य आसता. खापऱ्या चलयांचें काळें सौंदर्य. तशें काळ्या कुपांचें खाप्री सौंदर्य.

हीं एकमेकाचो हात धरून फुगडी घालूंक वा धालो खेळूंक उबीं राविल्लीं कुपां उदकान गर्भार जाल्यांत अशें म्हाका दिसता. त्या कुपांतल्यान मदींच ती वीज चकचक करून वाट काडीत खंय तरी वता. विजेचें काम कितें काय? शास्त्र-विज्ञान कितेंय सांगू!

अडलेले गुरवारीक सिजरियन करून वैज वो वैजीण सोडयता. गर्भारलेल्या कुपांक ही वीज आपलो करंट बी दिना मूं पावस ओतूंक! म्हाका तें पळोवंक खूब आवडटा.

मागीर पावस लागता. लागता कसलो? ओतता तो. हो पावस ओततना पळोवंक जाय. हांव कांयच करिनासतना तो पळयत बसतां. पावसांत खूब कितें बरयतलों अशें म्हाकाय आनी हेरांकूय आश्वासन दितां. बरोवंक बसतां. वरांचीं वरां. पूण कागदार कांयच देंवना. सगळें मनांत आसता आनी दोळे मात भायर पावसाचेर. खंय जोगलावता, खंय गडगडटा, खंय निळाय, खंय धुंवरी आनी पावसाचें तें पडप..!

पावस पडटा, काय पावस झडटा? झडपाखातीर तो कोणेतरी झडोवचो पडटा. आनी पडपा खातीर तो कोणें पाडूं नाका? हांव त्या झंझाळात पडना. ताका जाय तेन्ना पडूं दी, जाय तसो झडूं दी. म्हजी सर्वय जीण तृप्त करूं दी. पावस पडूंक लागलो म्हणटकच कोणाक कालिदासाची याद जाता. पूण म्हाका याद जाता बाकिबाबाची. बाकिबाब भर पावसांत जुलाय म्हयन्यांत गेल्लो. ताणें निमणो स्वास घेतलो तो पुण्याक. ते दिसा पुण्याक पावस पडटालो काय खबर ना. गोंयांत मात उटंगाराचो पावस पडटालो. ह्या पावसान गोंयची भूंय भिजिल्ली पावसान आनी गोंयकारांचीं मनां बाकिबाबाच्या मरणान.

पूण म्हाका बाकिबाबाची याद जाता ती तो भर पावसांत अंतरलो म्हूण न्हय तर ताणें पावसाचेर भरभरून काव्य रचलें. हांव भायर पडपी पावसाकडेन पळयतां. पावस घोटून तृप्त जाल्ली रूखावळ पळयतां आनी त्या वेळार सहज मनांत घोळटात बाकिबाबाच्यो ओळी

सरीवर सरी आल्या गं
सचैल गोपी न्हाल्या गं
वेली ऋतुमती झाल्या गं

व्हाळांतल्यान व्हावत वचपी उदकाचे वयर एखाद्रें पान सकयल-वयर नाचत वचचें तशें बाकिबाबाच्यो ह्यो ओळी हांव पावसाचें हें लावण्य पळयतना म्हज्या मनाचेर उफेतात.

हांव पावसाक पळयतां. पावसान न्हावन म्हणचे परस इतलो तेप उदकाक आशेल्ल्या वतान, गरमेन सामकीं आकुळपिकूळ जाल्लीं रूखां, वाली उदक घोटून सामकीं तृप्त जावन उबीं राविल्लीं. तांका पळयतना म्हाका तर तीं पावसांत आंबोली, जावं हरवळेच्या घसघश्या पोंदा माथ्यार उदक घेत कुडकुडपी माणकुल्या भुरग्यांवरी दिसतात. बाकिबाबाक तर ह्यो असल्यो वाली ऋतुमती जाल्लेवरी दिसता.

ऋतूमती जावप आनी ऋतूमती जाल्ली ऋतुजा पळोवप, तिची कांत, तिची तिकतिकसाण आनी हय, तो गंध ह्यो सगळ्यो गजाली संवेदनशील एका सर्जकाकूच भावतात. बाकिबाबांचे सर्जनशीलतेक आनी संवेदनशीलतेक हांवें प्रमाणपत्र दिवप म्हळ्यार म्हाका हांवेंच अप्रबुध्द म्हणप. पूण वेली ऋतूमती झाल्या गं म्हणटाना बाकिबाबाक कितें म्हणपाचें आसा तें होलमल्या बगर रावना.

बाकिबाब मुखार वचून म्हणटा, 'पाने पिटती टाळ्या गं?'

पावस पडटना, पावसांत भिजत वो भितोडेक जावं आडसाक रावन भुरगीं पावसाक पळयत जश्यो टाळयो मारतात तशींच हीं पानां पावसाचे थेंब आंगार घेवन जशीं कितें टाळयोच मारतात.

पानांचें टाळयो पिटप जालेंच. पूण कांय रूखां, झोपां आंगार पडिल्लें पावसाचें उदक माथ्यावेलो खोपो हालोवन कशीं शिरशिरतात, मागीर चुडटांच्यो चुडट्यो भर पावसांत वाऱ्या सांगाताक पिटपिट करतात तें पळयत रावपांत एक आगळीच खोस आसता. ह्यो गजाली पळयतना तंद्री लागप हो म्हजो पावसांत सदचोच कार्यक्रम म्हळ्यार जाता.

बाक़िबाबांचो 'फुलां' म्हूण एक निबंद हांवें खूब पयलीं वाचिल्लो. फुलांचें वर्णन करतना गुरवार बायलेक उपमा दितना 'फुल्लट' म्हणटात अशें कितें तरी बाकिबाबान बरयल्लें. म्हजे मुखावेल्यान कोणूय गुरवार बायल गेली काय म्हाका बाकिबाबाचें हें फुल्लट उतर येवजता आनी गुरवार बायलेक गुरवार म्हणचे परस फुल्लटच म्हणप म्हाका आवडटा.

पावसांत फुल्लटची याद जावपाचें आनीक एक कारण आसा.

भुरगेपणावेलो पावस हांव अजून विसरूंक ना. शाळा सुट्टकच पाटी माथ्यार धरून पावसांतल्यान धांवत घरा येवप. गडगड, विजो हांच्या भंयान थरथरप, काळोख करून घसघशानी पावस रकूंक लागलो म्हणटकच बल्कावांत येवन बसप. नळ्यांचेर पावसाचो खडखड शिंवोर जावप



वाटेन वतना हांव कोणाक दिसच नाशिल्लों. ते भायर शेतांत कोले बी आसतात हो भंय. फेणयेचे पयशे बोल्सांत घालूंक मेळटाले आनी येता आसतना ते बाटलेंतलो फेणयेचो एक थेंब जिबेर दवरूंक मेळटलो हे आशेन हांव त्या तकलेपरस वयर पाविल्ल्या थामांतल्यान जीव मुठींत धरून वतालों आनी येतालों.

केन्नाकेन्नाय त्या भातां थामाक कणसां आयिल्लीं आसतालीं. जांचीं कणसां वयर सरूंक ना पूण पोटां मोठी जाल्लीं आसतालीं. त्या थामाक चिमटेंत धरून ओडल्यार तें अचळय वयर येतालें. ताका पोटींग म्हणटाले. तो काडून भितल्लें तें गोड गोड कवळें भात वो कणस खावपाक खूब मजा येताली. पूण आवय भंय घालताली. शेतकार मारतलो. तशें खावप पाप. अशें कितें कितें सांगताली. पूण ते वाटेन वतना एकाद दुसऱ्या पोटींगाक हात वतालोच.

तो पोटींग जून जाला काय कंवळो आसा तें पयलीं पळोवप. मागीर एक हळूच काडप. पोंदचो भाग निमुळटो, धवो फुल्ल. मागीर वयलो फुगीर. गुरवार बायलेचें वाडिल्लें पोट कशें! भुरगेपणार तें कळनाशिल्लें. उप्रांत अक्कल आयली तेन्ना नदर बदलली बाकिबाबाची फुल्लट बी उतरां कळूंक लागलीं. तें पयलीं खबर आशिल्लें जाल्यार त्या भाताच्या पोटींगाक पोटींग म्हणचे परस फुल्लट म्हणपूच म्हाका आवडटलें आशिल्लें.

आतां शेतां वाडटात, कणसां धरपाक लागतात तेन्ना म्हाका त्या भुरगेपणावेल्या पोटींगाची याद जाता. बाकिबाबाच्या फुल्लट उतराची याद जाता. बाकिबाबान हे पोटींग पळयल्ले जाल्यार गुरवार बायलेक फुल्लट न्हय पोटींगूच म्हणटलो आशिल्लो अशेंय म्हाका हो पावस पळयतना दिसले बगर रावना.



आनी मागीर पावळेंतल्यान करेय पडप. हय हांवें भुरगेपणार गोंयांत करे पडटना पळयलां. मराठींत तांका 'गारा' म्हणटात. कश्मिर आनी हिमाचलाकय हांवें हे करे खाल्यात. तांका थंय 'ओले' म्हणटात. गोंयांत आमच्या घरार हे करे खडखड करून पडटाले तेन्ना ते वेचून खावंक हांव भायर वचूंक पळयतालों. आवयची नदर चुकोवन. तांका 'करे' म्हणटात हें आवयनूच म्हाका सांगिल्लें. तें उतर तेच पासत म्हज्या मनांत घट्ट बरें रिगलां.

तर अशें हें पांवसांतलें भुरगेंपण. उमेदीचें, मौजेचें, थोडें भिरांतेचें. पावस पडूंक लागलो म्हणटकच घरांत थंडी भारकूण हें आयलेंच. आतां जशे लोक शींक आयल्या बराबर दोतोरागेर धांवतात तशें धावंक ते काळार परवडनाशिल्लें आनी दोतोरूय आयचे सारके रासभर नाशिल्ले. थंडी जाली, जोर आयलो म्हणटकच गांवठी, घरचें वखद जातालें. आंगाक सोरो काडप, फेणी बशेंत घालून तिका उजो लावप आनी मागीर तातूंत साकर घालून चाटपाक दिवप अशें कितें कितें चलतालें. ही फेणी माडाची आसताली. आई बाटली दिवन म्हाका फेणी हाडूंक धाडटाली. रेंदेर आमचे वळखिचोच दोमाशान म्हूण. पावभर फेणयेक तो पयशे कितें घेतलो? पूण कोणाचें फुकट नाका ही आवयची सांगणीं. ती चार-आठ आणे कितें तरी दिताली. फोर्स करूनय फेणयेकार म्हजे कडल्यान पयशे घेना आशिल्लो. 'आईक सांग पयशे नाकां' अशें म्हणत तो पाव भरून दितालो. हांव ते पयशे म्हज्या बोल्सांत उडयतालों.

फेणी हाडूंक वचपी ही वाट शेतांतल्यान वताली. आमचें भाट आनी त्या रेंदराचें भाट हाचे मदीं शेत. शेतांतल्यान मदीं एक बारीक पांयवाट वताली. दोनूय वटानी म्हजेपरस व्हडलें थाम. ते

# गोंय सरकाराचें क्रिडा संचालनालय

## खेळ म्हळ्यार बरी भलायकी आनी मनोरंजन

### गोंय सरकार खेळ उदरगती पासत कसल्यो येवजण्यो राबयता हें तुमी जाणांत?

१. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार शारीरीक शिक्षणाची उदरगत
२. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार खेळ आनी खेळां सर्त राबयता.
३. शाळा, ग्रामपंचायत आनी तालुका पातळीचेर खेळा मैदानाची उदरगत.
४. गोंय राज्यांत शास्त्र शुध्द प्रशिक्षण दिवपाक प्रशिक्षण येवजण.
५. सरकारी आनी निमसरकारी शाळांक खेळां सामान पुरवंठो.
६. उत्कृशठ खेळाकेंद्रांची स्थापनां.
७. भारतीयम् प्रशिक्षण कर्यावळ.
८. योगशिक्षणाची उदरगत.
९. व्यायामशाळांची स्थापनां तशेंच सांबाळ करप.
१०. राज्य आनी राष्ट्रीय म्हत्वाचे दीस मनोवप.
११. गोंय प्राधिकरणा खातीर नागरीसेवा खेळां सर्तिचें आयोजन.
१२. दुर्बळ अवतिकायेंत खेळगड्यांक अनुदान भेटोवप.
१३. राज्य खेळां पुरस्कार भेटोवप.
१४. जलक्रिडा आयोजन.
१५. निमसरकारी माध्यमिक शाळा आनी महाविद्यालयीन खेळां मैदान उदरगतीपासत अनुदान.
१६. खेळ आनी शारीरीक शिक्षणावेल्या साहित्य निर्मितीक उत्तेजन.
१७. खेळ वसती गृह उबारणी.



**क्रिडा संचालनालय**
कांपाल, पणजी – गोंय
हांचे वतीन प्रसारीत



नाटक; बिंबो; ... ; ... ; ५६.

POSTAL LIENSE NO: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

JULY 2009



Published & Printed & Edited by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Khorlim, Goa. Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.com.in